# साहित्यदीप्ति






संकलन आनी संपादन

**शरतचंद्र शेणै**

# साहित्यदीप्ति

केरळाच्या कोंकणी साहित्यक्षेत्रांतुल्यो
समकालीन वनिता प्रतिभा

संकलन आनी संपादन
**शरतचंद्र शेणै**

Konkani

**SAHITYADEEPTHI**

Anthology of Stories & Travelogues

Compiled, Edited
and Published by

SARATCHANDRA SHENOI
10/675 GOKUL
PALLURUTHY, COCHIN 682006
*saratchandrashenoi@yahoo.co.in*

First Edition - 2005





Printed at
PAICO PRINTING PRESS
Jew Street, Kochi - 682 035

Price: Rs. 100

# दोन उतरां

*हीं उतरां मुख्य जावन उपकाराचीं.*

*हया संग्रहा खातीर कृती दिलेल्या सगळ्याय लेखिकांक प्रथमलो उपकार. संग्रहाक अनुयोज्य रूपान आमुखलेखन - 'पुरोवाक्' बरोवन दिलेले डॉ. एल. सुनिता बाय हांकां प्रत्येक धन्यवाद. विज्ञापनांचे वाटेन आर्थिक सहाय पावयलेल्या संस्थ्यांक आनी व्यक्तींक विशेष आभार. ह्या संरंभांत एक एक वेळाय सहाय सहकार्य दिलेले तेग जाणांक मनांथाकून उपकार सांगतां. दोग जाण घरचींच......*

*ह्या संकलित संग्रहाची संकल्पना जालेली 2003 वर्षाच्या आरंभाक - केरळाच्या कोंकणी लोकवेदा विशीं संशोधना करीत आसतना. आमचे भाषेक आनी ह्या साहित्याक स्त्रीजनां कडेचान व्हडली पोसवण मेळ्या आनी मेळत आसा म्हूण कळ्ळें. 2004 वर्षा, कालिकत परिषद् संमेळनाचे वेदीचेर ह्या विषयाचेर सुदीर्घ चर्चा जाली. मागीर अंदूं श्रीमति सूर्या अशोक हांगेल्या कथासंग्रहाक प्रस्तावना बरयत आसतना पुन: हो विषय उट्रून आयलो. 'पुनर्जनी' नांवांचो तो तर केरळाचे खंचेय लेखिकेलो प्रप्रथम कोंकणी कथासंग्रह! उडगास केल्यार प्रथम जावन उजवाडाक आयलेलें 'रघुरामायण' महाकाव्यय रचलेलें एक अस्तुरेनच! ह्या अश्या चिंतनांनी धरलेलें समूर्त रूप जावनूच हो अप्रूप संग्रह आतां तयार जाला....*

*हे खातीर पोरन्या नेमाळ्यांचीं पानांय सुमार उस्तूचीं पडलीं. कित्या तर थोड्या लेखिकांनी हालीं बरवपच बंद केल्यां! साहित्योपासना तशी सोडूनयें म्हूण माका तांचे लागी विशेष विनंती आसा. ही संवय वेळ खाता आसतली पुण मनशाक घडयता आनी धीरूय दिता.......*

*थोड्यांक नागरी येना म्हूण सुमार पानां नागरींत हाडचीं पडलीं. लिप्यंतर केलें म्हण्टना कृतींचो थोडो गांवगिरो पोरमोळ, तोंडी भाषेची गोडसाण, उणे जाता म्हूण कळ्ळें. पुण दुसरो उपाय ना. डब्बल लिपींचो पुस्तक आमकां सांगलोना! माका ताची रुचीय ना.......*

*संग्रहांतुल्यो लेखिका सर्वय वळखीचींच-कोंकण जनता, सारस्वत वाणी, वैष्णवरत्न आदी नेमाळ्यांक उपकार! जायतीं तर अशी तशी जावन एकामेकांच्या नात्यांतलींच म्हूण कळ्ळें. कोण कोणाली धूव जाल्यार कोण कोणाली मांय! कोण कोणाली भयणि जाल्यार कोण कोणाली बाल्यकाल मैत्रीण! केरळाच्या कोंकणी उद्धारांत प्रमुख स्थान जोडलेल्या आर. रंगनाथ प्रभु मामाली धूव (आनंदी, मुंबई) थाकून 1930 वर्षा 'गानांजली' तयार केलेल्या आर माधवप्रभूली सून (वत्सला रामचंद्र) पर्यंत जावन पूर्वकाला लागी नातेंय आसा.....*

*नित्य जीवितांत व्यस्त आसतनाच मायभाषेचें आनी साहित्याचें सेवन करीत आयलेल्या ह्या सगळ्यांक आतां श्रेय इच्छेतां आनी समस्त कोंकणी वाचप्यां मुकार हांगेलें साहित्य सहर्ष, साभिमान समर्पण करतां.....*

*- शरतचंद्र शेणै*




## प्रस्तावना

डॉ.एल. सुनीता बाय - पुरोवाक्

## कथा

वत्सला आर. शेणै - स्त्रीच धन
एन स्वर्णलता - मुक्ति
आनंदी मुंबई - वृध्दाश्रम
सुनीति एस. रावु - पुलाव
लिल्ली रमानंदन - पोसको
सुशीला टी. भट - कर्मबन्धन
डॉ. वत्सला जी. शेणै - धन्यजीवन
पुष्पा नवीन - पुनर्जाता
वत्सला रामचंद्र - नळिनी
जया राजन - पुनर्जन्मु
काञ्चना बोस - अन्नालो उपहार
राधिका शेणै - पुण्यवंती
सूर्या अशोक - साफल्य

## प्रवासवर्णना

डॉ. आशा जयकुमार - गोंयांत तीन दीस
रेवती श्रीकांत - तीर्थयात्रा

# पुरोवाक्

केरळाचें कोंकणी साहित्य पळयतना जें सत्य उडगासांत राबका तें अशी कि कोंकणी भासेक मोगु करचे जनान फाटले कांय वर्सांत कथा बरवप आरांभीलें. 'कोंकण जनता' म्हयनाळयांतल्यान जें कोंकणी साहित्य उजवाडा आयलें तांत कथा बरवपी साहित्यकारांचें भरीत साहित्य आसलें. त्या उपरान्त 'कोंकणी कथाष्टक', 'काणयां घोसु', 'एक स्वप्नाचो अर्थु', 'गोडी गोडी काणयो', 'काणियां झेलो', हे पुस्तकांतल्यान काणियांची एकि वोळीच देखीक आयली. केरळ कोंकणी अकादमीन उजवडायलेले 'कथा - 83, 84, 85 हे संग्रहांत दोन बायल मनशां सोडूनु इतरां पासून जाणविकाय नासली. तर केरळाचे कोंकणी साहित्याचें सत्य आनियेक. हे साहित्यांत बायलो आपलें साहित्य वेगवेगळ्या नेमाळ्यानी उजवाडावन राबल्यां. हांत कथासाहित्य भरीत आसा. जिणेचें यथार्थ चित्रण करपी ह्यो काणयो मोलादीक आसय. आकारान ल्हान आसूनूय सहृदयांक खूब आवड दीवपी.

फाटल्या कांय वर्सांत कोंकणी कथेंत सुमारा भायर विकास मेळ्ळा. हे विकासांत बायलालें योगदान भरीत आसा. गोयांतले कर्तुपांत मीना काकोडकार, शीला कोळंबकार, जयमाला दणायत हांचीं नांवां नेटान मुखार येताय. हन्नि गोंयचे कोंकणी कथेची बरेतरेन पोसवण केल्ली. केरळाचे कोंकणी कथेचे इतिहासांत सुशीला त्रिविक्रम भट, वत्सला आर शेणै, लिल्ली रमानन्दन, आनन्दी मुंबई हांचीं नांवां सगळ्या दृश्टीन उदून दिसल्यांय. हीं कोंकणी कथासाहित्याची निष्टेन आनी मोगान सेवा करीत आयल्यांय. हांचें कथासाहित्य संख्येनय गुणानय दुसर्‍या परस व्हड आसा. सामान्य प्रसंगांतच भावनेचें विश्व फुलवपाचें कार्य हन्नि केल्यां. कथा सांगपाची हांची पद्धत सादी सरळ. संवाद सहज सुन्दर. हांची आनी दुसरे कथालेखिकांगेली तेरा काणयो हे संग्रहांत आसय.

कांय कथा, विशय, पात्रां, आनी प्रसंग आमचे समाजाचे. काणयांक पाल्हाळ ना तर त्यो टाकटिक आसय. बायलांली बारीक, मोटेपाट, तरेकतरेची व्यथा हांत सांगल्या. कथेप्रमाण व्यथा बदलता. कथेचो मूळाव्यो भावना कोंकणी बायलांचे जिणे समस्या दाखवपी. हे काणियांतूलीं पात्रां आमची श्रद्धा ओडून काडपी, आमचे जिणेंतलीं, भोवंतणेचीं

मनशां. तांची कांय करण्यो कथेची घडणूकय जावून संबन्ध करताय. कथावाचन करचे वेळार तांतूंतल्यो घडणूको जिणेंतली म्हूण एक जाणविकाय मनांत येता. बरवप्यांची प्रतिभा फुलवंचें हें कथासाहित्य जिणेचो दिस्टावो घेवून आसा आनी काल्पनिकताये लागून सहृदय पाठकांक आवडून सफलतायेन उबें आसा. केरळाचे बायलानी निर्मीले हे कथासाहित्याचो नियाळ घेत्तना तांतूतली समस्या, जिणेची ओड, समाजाची पृष्ठभूमि, भोवंतण बी कशिश आसता हाचें संपूर्ण अवलोकन आवश्यक आसता. हे संग्रहांतले कांय कथांक तत्वगिन्यानाची बसका आसा, कांय कथा धार्मिक पृष्ठभूमीचेर निर्मिल्यो आसाय, समस्त कथा आमचे समाजांतले प्रस्नांक लागून वाडून वत्ताय. मेजकीच पात्रां आनी मेजकेच प्रसंग घेवून साद्या सरळ भासेच्या मनोरम आविश्कारांतल्यान कथा बरवप्यानी कथानकां फुलायल्यां. पात्रांची भावजीण वाचप्यांचे मन ओडून घेता. ती उमाळ्याच्या इतले खोलायेन प्रकट जाल्या कि हाका लागून पाठकांचे मनाक कथा खूब आवडटा.

**हे संग्रहांतली कथा –**

**स्त्रीच धन**- स्त्रीच धन, स्त्रीधन न्हय म्हूण दाखवपी उत्तम काणी. 'बप्पा घर परम घाणे घालनु स्त्रीधन दीवनु माका सुखान राबुका नाका'. म्हूण सांगचे रमाले मनाची घटाय प्रशंसनीय आसा. रमा रघुमामाली धूव. व्होड घर, कार, सग्ग आशिले ब्यारेलि चेल्या पासून 'हें नंका पशी जड मत्तिं आमकां नक्का' म्हणचो रघुमामु. रघुमामालें हें उदात्त चरित्र तोखणाये योग्य आसा. तागेली धुव जावून सीवणि सीवून घर चलोवंची रमा आमचे समूहांतले ल्हान चेलियांक स्फूर्त दिता. लेखिका- वत्सला आर. शेणै.

**मुक्ति** - फैशना लागून पुत्तान बप्पाक मार्नु वेच करचे आनी नष्ट जालेले मूल्यां खातीर बरयलेली एक उत्तम कथा. हे कथेक तत्वगिन्यानाची बसका आसा. मरतलो मुक्ति पावंता, आशिलो दुःख भोगता, कथा अशी सांगता. जाणटेली कथालेखिकाचे अन्तर्मनाचो उमाळो कथेचे माध्यमा लागून परगटायला. लेखिका-एन. स्वर्णलता.

**वृद्धाश्रम** - आयचे पोक्कोळ फैशना लागून नष्ट जालेले मूल्यां खातीर बरेयलेली अनियेक काणी. भुरग्यानी चोयनाशि राबिले अम्मा-बप्पान वृद्धाश्रमांत आश्रय घेवंची कथा. तर भुरगीं चांग वाटेन वच्चीं जाल्यार आवसूक-बापसूक आधार जाताय. वृद्धाश्रमांत आश्रय घेत्तिल्ले देवदास मामाक आनी इन्दिरक्काक अपणाले घरकडे आश्रयदान करचो पूतु. आयचे नष्ट जालेले मूल्यांक पर्तून हाडपा खातीर निर्माण केलेली ही कथा अणभवान

म्हलगडे कर्तृत्वाची. लेखिका-आनन्दी, मुंबई.

**पुलाव** - ही एक भोव सानि काणी. नातीन पुलावांतले कालीफ्लवर काणु टेबलार उडइलें पोळोवून बपमाक अपणाले ल्हाणपणाचो उगडास येता. रंगान आकर्षक आनी रुचीकर पुलाव तीणे दोस्तीणीथंय खेल्लेलें, आजीय तिगेले उगडासांत आसा. तर तिगेले घराकडे कालीफ्लवराचें पुलाव करचें ना. अम्मा सांगता- 'ताका मोल चड, तें घालनी जल्यार कांय जायना'. 'जावंका अम्मा कालीफ्लवर, माका तें इष्ट'म्हूण सांगून आशिले चिल्लरे सक्कड पुंजावून हाणु चेर्डुवांनी अम्मा लागी दिलेलें आनी पुलाव केलेलें आजीय तिगेले उगडासांत येता. तिगेले इष्टाचें कालीफ्लवराचें पुलाव भावजी आनी तागेलो नातु खावून गेलो. तिगेलें हर्दें व्हेल्यावरि जालें. पांच सत्तेर वर्षा उपरान्त पुलावाची घटना आजीय तिगेले मनांत ताजी आसा. पुलावांतले कालीफ्लवरा लागून आशिली ही काणी अत्यन्त मनोहर जाल्या. कथ्य ल्हान जाल्यारीय काणी प्रभावाची आनी कलेजाक हाथ लावपी. लेखिका-सुनीति एस. राव.

**पोसको** - चेरडूवां नातिलो राजमाम आनी ताजी बायल राधामायेली कथा हांत चितरायल्या. कुटुंबावेले चेरडाक पोसको घेवंची तांची आस्त असफल जाता तर देव तांका हात दिता. देवळांत आराटा वेळार संब्रादणेक फांती बेसले एक बायले कडच्यान तांका एक चेलो पोसक्या रूपान मेळता. ते चेल्याक तीं आरोग्यान, सुभिक्षतायेन आनी ओपूरबायेन वाडयताय. राजमामालो ब्यारु वाडून येता तशी तांका धनलब्धीय जाता. तांगेली बंधू-बांधव सहाय मागून तांचे घराक एताय. भयणी शांता तिगेले पुताक शिकवणे खातीर तांचे लागी सोडून वत्ता. दूड, वस्त्र, खाण, आयदन तशी दोळयां मुखार आयलें सर्व शांता निमगून घेता. राजमाम तिका सग दिता. राजमामाले मरणोपरान्त राधामाय दुःखांत पडता. बंधु-बांधव तिगेलें सग धन अपहरण करून तिका वृद्धसदनांत घालताय. पोसको कयरें मनां करून तिका तागेले घरकडे व्हरून स्नेहान सेवा करता. चेरडूवां नातिले बायल- बामणालें दुःख हे कथेंत स्वाभाविकतायेन खैंचून काळयां. बंधु-बांधवांची पिडणूक आनी राधामायेलो तळमळो पळवून वाचप्यांचें मन पाझरता. कोंकणी समाजाचें यथार्थ चित्र प्रस्तुत करपी ही कथा अत्यन्त प्रभावी जाल्या. लेखिका-लिल्ली रमानन्दन.

**कर्मबन्धन** - दामाचे मोहाक वचून शेषगिरि मामाक फटवण पडली. पुतालें जिवीत शून्य जालें. स्त्रीधनाचे समस्येक लागून जिवीत नष्ट करपाची काणी. चड स्त्रीधन घेवंची सोयरीक येवंचाकय प्रदीपाले बापसून सुजाताक सोणु सत्याक व्हर्डीक

कोरूक पुताक प्रेरणा दिल्ली. सात वर्षांक स्नेहु करून सोळळेली सुजाता अनाथाश्रमाचे आश्रयाक पावंता. ‘लज्जा नत्तिल्ले’ प्रदीपालें चित्र करुणात्मक जाल्यां. लेखिका-सुशीला टी. भट.

**धन्यजीवन** - लग्न जालेले एक वर्ष उपरान्त क्षय लागून बामणान सोळेल्या मीराक एम. बी. बी. एस. डी. जी. ओ. करपा खातीर प्रयत्न करचे बापूस सुधीराली आनी बापसूले प्रयत्नाक सफल करून मंगळूरांतले आसपत्रेंत काम करून समाजाची सेवा करचे डॉ. मीराली कथा. साट वर्षांचे पिरायेर लोकु सोणु वचे फूडे मीरा एक वृद्धाश्रम बांदयता जे आश्रमांत राबतलीं म्हान्तारीं मनशां खंडीत मीराले आत्माक आशीर्वाद दिताय. मीरान अपणालें जिवीत तशी धन्य केलें. लेखिका - डॉ. वत्सला जी. शेणै.

**पुनर्जाता** - हे कथेंत स्मितालो राज्यस्नेह, तीचो कामावेलो स्नेह आनी कर्तव्यबोध वर्णन केला. स्मितालें कुटुंब दुर्बळ विभागांतूलें. स्कूळांतलीं चेर्डूवां तिका दामानूय, देहानूय सहाय करताय आनी ती रोगमुक्त जावून सुखान जीयेता. स्मिताक अमेरिकेंत काम मेळता. ती आनी तिगेलें कुटुंब दामान व्होड जाता. तिगेलो राज्यस्नेह तिका गांवां एवुंचाक प्रेरणा दिता. लेखिका-पुष्पा नवीन.

**नळिनी** - व्हर्डीकेचे समस्येक लागून बरेयलेली एक जीवन्त काणि. सोयरीको खूब एत्ताय, चेल्लेक चोव्नु वत्ताय, नळिनीली व्हर्डीक जायना, तर ती निराश जायना. ‘मिजे पासून आशिल्लो अभिप्राय अत्तां हे समयारि तुमी सांगूका. पोरतून मागीर जाणयताय म्होणु संगून वोचून आशा दीवनु मागीर चेल्याक चेल्लि लायक न्हय म्हूण संगूची रीति सोडका’ अशी धैर्यान सांगचे नळिनीलें चरित्र आमचे समाजांत अपरूप तं. हे चरित्रा खातीरीच हे काणियेचें महत्व. बरवपी-वत्सला रामचन्द्र.

**पुनर्जन्मु** - हे काणियेंत बामणालो मारु खावून, मांयचो द्रोहु भोगून, अम्माचे पक्षधर पुताची बायल जावून बामणाक सहाय कोरूक अपणालें भंगार सग मायक विक्कून खावंचाक दिलेली नळिनी, आशेचें आखरेचें किरणय नष्ट करून आत्मघाताचो प्रयत्न करता. व्हर्डीक जालेले चेलियांले प्रस्न आनी ताचे परिहाराक जावून आत्मघाताचो प्रयत्न करपी बायलांगेले उमाळे हे कथेंत भरिल्ले आसय. लेखिका-जया राजन.

**अन्नालो उपहार** - ही काणि चेर्डुवाली. हे संग्रहांतली चेर्डुवांली एकमात्र काणि. स्कूळां शिकचे चेर्डुवांलें मनोविज्ञान हे कथेंत उघडून आयल्यां. हे कथेंतलें रंजीतालें

चरित्र वाचप्यांक खूब आवडटा. भोवंतणेची रूकु रुकावळीय, गाय, बोक्कोडि आनी गुड्डेय जावून रंजीताक संगात आसा. सुटियांत चेर्डुवांले कार्यक्रम मनाक भारी आनन्द पावंयता. बोब्बोदेव चेर्डुवांलो इष्टाचो. रंजीताक यात्रेवेळारि ताचें संगात मेळटा. बसारि ताचे ओट्टू तो येता आसा. रंजीत भयणीक चंद्राचो उपहार दित्ता. विषया मेरेन हे संग्रहांतली अपरूप काणि. लेखिका-काञ्चना बोस.

**पुण्यवंति** - नेत्रदाना पासून आयकून ते संरंभाचेर आकृष्ट जावून माधवमामान आनी ताची बायल सुनन्दान झायतीं वर्षां फूडे नेत्रदानाचे कागताचेर ओप घालून दिलेलें आज एक वर्ष उपरान्त फला आयलें. माधवमामान तागेले बायलेली दृष्टि स वर्षांचे चेले तोण्डारि पळयली. माधवमामाले आनी बायलेले चांग मनां खातीर स वर्षांचे जल्मान अंधाळ जावून आशिले चेलेक दृष्टिदान मेळळें. नेत्रदानाचें महत्व दाखवपी ही कथा एक अपूर्व कर्तृत्वाची म्हळेल्यांत दुभाव ना. लेखिका-राधिका शेणै.

**साफल्य** - पुतान चोयनत्तिल्लें वृद्धसदनांत पडून अनारोग्यान कश्ट सहन करचे पद्मावतक्काले आनी जीवितसाफल्य पावून सुखान राबचे नंदकेशमामु आनी तागेली बायल कनकाले जिविताचें तुलनात्मक चित्र पाठकांक शिकवपा खातीर उत्तम जालें. पद्मावतक्का दुष्कर्माची घूडु जावून आशीली आज वृद्धसदनांत दुर्विधी भोगता. नन्दकेश मामु आनी तागेली बायल सुखान जियेताय. हेंच कर्माचें फल. लेखिका-सूर्या अशोक.

हे संग्रहांत तेरा काणियां भायर दोन यात्रा वर्णनूय जोडिल्लीं आसाय. एक 'गोयांत तीन दीस' आनी दूसरें 'तीर्थयात्रा'.

**गोयांत तीन दीस** - माडे, माडियो, केळयो, काजू रूक, न्हंयो आनी गुड्डे भरलेले गोयांची वर्णना हे यात्रा वर्णनांत आयल्या. गोवा वुडलांड होटल, मिगुवेल लोयोळा फुरटाडो, सेंट फातिमा कोणवेंट, लोयोळा साळ, प्राइवेट बस स्टेशन, पार्क, सांटा मोणिका बोट जेटी, कदंबा बस टेरमिनस, रुचि रेस्तोरां, अंगुडा फोर्ट आनी लाइट हाउस, डोणा पौळा टूरिस्ट स्पोट हांचो उल्लेख हे प्रवास वर्णनांत जाला.

दक्षिणी गोयांतल्या सालसेट प्रोविन्साची राजधानी, मडगांवांचें चरित्र आनी भूविज्ञान हे यात्रावर्णनाची विशेषता. गोयांत सारस्वतांचे आगमन, कुलदेवतांची देवळां, श्री शांता दुर्गा देवस्थान, ताचें स्थलपुराण, श्री रामनाथ देवस्थान, श्री महालक्ष्मी देवस्थान, श्री

कामाक्षी देवस्थान, कवळे मठ, श्री महालसा देवस्थान, श्री नागेश देवस्थान, श्री मंगेश देवस्थान, श्री सप्तकोटीश्वर देवस्थान, श्री महागणपति महामाया देवस्थान आदिचें वर्णन हे प्रवास वर्णनांत मेळटा. हिन्दू देवस्थाना कुशीनच क्रिस्तीय देवालयाचो उल्लेख करून लेखिकान गोयंचे हिन्दु-क्रिस्तावांचे एकत्रीभावाचो परिचय दिला. 1596 वर्षांत निर्माण जालेले बोर्न क्रैस्ट देवालयाची वर्णना हाचें उदाहरण. हे देवालयाचें चरित्र आनी ऐतिह्याचो नियाळ हे यात्रावर्णनाचें वैशिष्ट्य. सेंट फ्रांसीस असीसी देवालय, ताचो शिंगार आनी भोवंतण लेखिकाक आकर्षण दिवंची आशिली.

गोयांचे सांस्कृतिक कार्यक्रमाचो परिचय हे प्रवास वर्णनांत मेळटा. गोवा आर्कियोळजिकल म्यूसियम आनी ताचें वर्णन खूब आकर्षक जाल्यां. हांतूतल्यो अलफोणसो आलबुकर्क, लूयिस वासडि गोमस, हांची मूर्त्यो, वैसरायांगेलें पोरट्रेट्स, तरेकतराचे शिक्के, प्राचीन शिवलिंग आनी देवाली मूर्त्यो मनोहर आसय. विदेशांतले सायब आनी सायबीण्यांनी वोत घेंवचे 'कालांगुटे' म्हणचे वेळेचो परिचय हे यात्रावर्णनांत आयला.

'गोयां तीन दीस' गोयांची प्रमुख खबर दिवपी एक यात्रावर्णन. सादा सोप्या भासेन लेखिकान गोयांचे देवस्थान, टूरिस्ट केन्द्र, ऐतिहासिक स्थान, सर्वांचो परिचय वाचप्यांक दिवंचाक खूब प्रयत्न केला. लेखिका-डॉ. आशा जयकुमार.

**तीर्थयात्रा** - केरळांतले कोषिक्कोड नगरांसून कर्णाटकांतले धर्मस्थल पोळोवंचाक लेखिका आनी तिगेलें कुटुंब तैयार जालें. कोयलांडीचे कोल्लम म्हळळेले जाग्यार आशिले 'पिषारिक्काव' देवस्थान पोळोवंचाक तीं देवलीं. 'पिषारिक्काव' उत्तरकेरळांतलें प्रसिद्ध आराधना-केन्द्र. थंगाचें 'कोल्लम चिरा' म्हळळेलें तळें, ताचे मद्दें आशिलें स्तूप, ताचें वास्तुशिल्प, देवळ, प्रतिष्ठा आदीचें वर्णन हांत वाचूक मेळटा. हे देवळा पासून आशिले ऐतिह्याचें वर्णनूय हांत आयल्यां.

वडकरा आशिले तच्चोळि चेकवरांगेले थरवाडा देवस्थान 'लोकनार काव'. थंगाचें 'तच्चोळि थरवाड', पिंपळा कट्टें, भोवंतणेचो मनोहर जागो, देवळ, प्रतिष्ठा (लोकनार काविलम्मा), उत्सव आदीचें वर्णन आनी देवळाचें ऐतिह्य हांत आसा. माहीची तेरेस अम्माली पळ्ळि, ताचें प्राधान्य, उत्सव आदीचें वर्णन हंगा जाल्यां. कण्णूर जिलेंत 'वळप्पट्टणम' म्हळळेले जाग्यार सून 6 मील पैस पूर्वभागांत न्हयंचे करावळीक आशिले प्रकृतिरमणीय 'परशिशनिक्कडव' आनी ताचे ऐतिह्या पासूनूय हे प्रवासवर्णनेंत

सांगल्यां. तीनीय भागान समुद्रान आवृत जावून आशिले बेकल कोट्टेचें विवरण हे प्रवासवर्णनेची विशेषता.

कर्णाटकांतले धर्मस्थलाचें मनोहर चित्र हांत आयल्यां. धर्मस्थलाचो इतिहास, ताचें ऐतिह्य, देवळ, प्रतिष्ठा बी हांत वर्णन केल्यां. बाहुबलीचे प्रतिमेचें वर्णनूय हांत जाल्यां आसा. रानाचे गुड्यावेले अन्नप्प स्वामीले देवस्थानाचें वर्णनूय हांत आयल्यां. धर्मस्थलाचें म्यूसियम, कलाकेन्द्र, विद्याकेन्द्र आदिचो उल्लेख हे प्रवासवर्णनेंत जाला.

तीर्थयात्रा मनाक उल्लास आनी संतोष दिता म्हूण लेखिकेलें मत. हांत दुभाव ना. 'तीर्थयात्रा', एक सफल प्रवासवर्णन. हे वर्णनांत प्रारंभा सून आखेरे तकत प्रवाह आसा. भास सरल आनी वर्णन मनोहर आसा. लेखिका - रेवती श्रीकांत.

केरळाची कोंकणी जीण हे संग्रहांत ठसठशीतपणान चितरायल्या. हांतूले मनशां भित्तल्ले संबन्ध आनी संघर्श, सुख-दुःखां आनी हावेस कथे माध्यमांतूल्यान परगट जाल्या. 'पुनर्जन्म' कथा फकत हे घडणुकांचेच चित्र परगटायता. बायलेक मारचो बामुण, सुन्नेक पीडा करची मांय. बायलेचे विरुद्ध अम्माचो पक्षधर पूतु. सग कथेचे विकासाक तेंगशेर पावंयता आनी नळिनीक आत्मघाताक प्रेरणा दित्ता. हे संग्रहाचें दुसरें वेगळेपण म्हळ्यार हे कथांचो आकृतिबंध. तो कथे प्रमाण बदलत वत्ता. भास, भेस, कान, मनीश, स्थल, हांका लागून बदलता आसता. तर मूळ समस्या एकीच. ती बायलांची समस्या. तांचें सूख-दुःख, तांचे मनांतले उमाळे, समाजांत आनी कुटुंबांत तांचे मुखार निर्माण जावंचे प्रस्न, आनी हे प्रस्नांक तीं कशी तोंड दित्ताय - हें सगळेंच बारीकपणान आनी खूब सहानुभूतीन वर्णन केल्यां पोळोवंका मेळटा. हे प्रस्न घटना आनी प्रसंगांतल्यान मांडटा असतना पात्रांच्या मनांचेर बरो उजवाडु घालता. वयले आनी सकयले बायलांचे प्रस्न घेवून चितरायलेले हे कथांत केरळाचे कोंकणी समाजाची बायलो आनी तांचे प्रस्न पातळिले दिसता. प्रस्नाचो परिहारूय कथांत निर्दिष्ट आसा. 'धन्यजीवन', 'स्त्रीच धन', हांचें उदाहरण. 'स्त्रीच धन' कथेंत रमा चार पांच सिवणी मशीन हाणु शिवणि करून दूड जडता. अशी मेळवणेचे प्रस्नाक परिहारु जाता. स्वप्रयत्नान ती खुशाल दामु दुड्डु जडून सुखान आनी संतोशान दीस काडता. 'धन्यजीवन' कथेंत मीरा आस्पत्रेंत सेवन करून तीचे जिणेक आदार दित्ता. 'अन्नालो उपहार' वेगळे तरा काणि. हन्तु भुर्ग्यालें मनोविज्ञान पातळिलें आसा, तांचे हट आसा, आनन्द आसा, रसपत आनी, मोगु आसा.

वत्सला आर. शेणैली 'स्त्रीच धन' ही कथा हे संग्रहांतले उत्कृष्ट कथांपैकी एक. स्त्रीधन आयचे समाजांतली दुरितवर्द्धक समस्या. हे प्रस्नाक लागून निर्माण केलेली ही कथा अती महत्वाची. हाचे कथानक सामयिक प्रभाव उत्पन्न करपाचें. लेखिकेची प्रतिभा प्रबळ पात्रचित्रणाचे माध्यमान फुलता आनी पात्रांचे प्रबळकाये लागूनच कलाकृति उंबि जाता. रघुमामालें उतर, 'मिन्नमाम, हें नांका पशि व्होड मत्तीं आमकां नाका' अवसरोचीत आनी शक्तियुक्त जावून आसा. तशीच 'घर परम घाण घालून स्त्रीधन दीवून माका सुखान राबका नका. अशी एक व्हर्डीक माका नाका'. रमालीं हीं उतरां तिगेले चरित्राक बळ दिवंचीं. हीं कथेचे तेंगशी चडून राबल्यां. तशीच व्हर्डीक म्हळळेली जिणेची मैत्री. हे कार्याक दाद्दलो ना, बायल ना, तर दोगय प्रमुख जावून आसय. दोगालेंय कुटुंब एक तरा जावंका आसा. 'तयोर्मैत्री विवाहश्च न तु पुष्टविपुष्टयोः', पंचतंत्राचे हे सांगणीक आधार घेवून लेखिकान हे कथेक वाड दिल्या. 'आमका स्त्रीधन नाका, स्त्रीच धन' म्हूण सांगून आपले निश्चयाची पोसवण केल्या.

हे संग्रहांत खंयीच व्यक्तिचित्राकडेय दुर्लक्ष करूंक ना. 'पुनर्जन्म' हे काणियेंत नळिनीचें एक अविस्मरणीय चित्र खैंचून दवरल्यां. तें अशी - 'अत्त बितरि मिजे लग्गि बेस्सल्लि अळत्तपेळतांतु चोवप जावो एक उल्लवप जावो उं.........हुं. जन्नर्लारि हत्तूयि दोव्वोंर्नु भायर चोव्नु एक बेस्सप. इतनेन विचारान तं बेस्सल्या मुणु दिस्ता. एक दोनि वेळा दिगूचि हुस्कारु सोणु ओरलान तोंड पुस्तालि दिक्कीलें.' लेखिका, जया राजन हंगा तादात्म्याच्या बळग्यार वास्तवता पचयता आनी वेव्हारांतल्या मनीशी, नळिनी कडे एक सहानुभूतीचो धागो बांदून सोडता. 'अन्नालो उपहारु' हे काणियेंतले रंजिताचें चित्र लेखिका, कांचना बोस हन्नि अश्शी वर्णन केल्यां-' दिसाचें आंब्याच्या, पोणासाच्या रुकार चोणु देवंप, नंदिनीले मगल्यान धावन भोवंप. मागीर थकेवन आयल्यार अम्माम्माले होंटींत पोणु गींत आयकून सर्व विस्सोरनु निदेतालो.' रंजितालें हें चित्र पाठकांक भारी आनन्द दिवपाचें. वातावरण निर्मिती आनी वणर्नात्मकता कथेचो प्राण. हे संग्रहांत दोनूय देखीक मेळता- 'दिवलाणि दण्टवलि. भांडी दोनीय तांतूल्यान आशिल्या गजनी मद्धेंचान वत्त त. एद्दे गेल्यारि मग्गीरि एक्के घर दिष्टि पडतने. मग्गीर दुश्शेरि गजनि. तंतु थांब रोयलें मात्र. वार्यान तें मत्तें हल्लोवनु 'शुभयात्रा' 'सांगता'. 'पुनर्जन्मु' कथेंतलें हें चित्र अती मनोहर. वाचप्यांचे देळ्यां मुखार शेतांतलें थांब नंचून खेळता आसा. कथानकाचो प्रवाह मुखार व्हरपी आनी कथेच्या गाभ्याक अनुकूल थारपी अशें वातावरण निर्माण

करपाच्या बाबतींत कथालेखिकान कुशलताय दाखयल्या.

देवळाचें आनी देवाचें दर्शन करपाची इत्सा हे संग्रहांत देखीक मेळता. असली एक धार्मिक प्रवृत्ति केरळाचे महिळा लेखिकांगेलें कथासाहित्यांत विशेष रूपान चितरायल्या. ‘पुनर्जन्म’ हे काणियेंत सुलोचनाली तिरपती यात्रा हाचें उदाहरण. ती भोंवंचाक येना, तर तिरपति वचाक तिका मन ओड्डता. पिराय ८५ आसुनूय देवळांत वचाक आशिली तिगेली ओड! अशीच ‘पुण्यवंति’ कथेंतलो माधवमाम सुनन्दाले मरणोपरांत एक वर्ष जावून सुनन्दालीं हड्डां रामेश्वरांत घालून परतून एवंची पावटी हे कथेक पृष्ठभूमी तैयार करता.

वृद्धाश्रमाचो उल्लेख कांय काणियांत आयला. ‘वृद्धाश्रम’ कथा देवदास मामाले आनी इन्दिरक्काले निराश्रय अवस्थेकय आनी वृद्धाश्रमांत शरण पावंचे कार्याकय लागून निर्माण जाल्या. अपणाले जिवीतांत अडखळ मानून चेरडूवां म्हांतारे आवय बापसूक वृद्धाश्रमांत घालताय. तर आमची कथा- लेखिका हे प्रवृत्तीक आलाशीरो दीना. ‘धन्य जीवन’ कथेंत मीरा वृद्धाश्रमाची स्थापना करून परोपकारा वाटेन अपणालें जीवन धन्य करपाचो प्रयत्न करता. ‘पोसको’ कथेंत वृद्धसदनांत गेलेले राधामांयेक पोसको थंगा सून तागेले घराकडे व्हरता. ‘साफल्य’ काणियेंतली पद्मावतक्का तीचे दुर्भाग्यान चेरडूवां आसूनय आखरेचे कालाक वृद्धसदनांत आश्रय घेत्ता.

फाटले कांय वर्सात केरळांत कोंकणी कथेचे मळार जें साहित्य निर्माण जाल्यां तें चडशें नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयल्यां. कोंकण जनता, सारस्वत वाणी, वैष्णवरत्न आनी हेर नेमाळ्यांतल्यान हें प्रचाराक आयल्यां. कुटुंबांतले संघर्श, प्रेमभंग, सोयरीकेचो प्रस्न, घोव-बायलांचें तरेकतरा प्रस्न केरळाचे महिळा कथाकारांचे कोंकणी साहित्याचे आदारान दिसून आयल्याय आनी हाचो परिहारूय कथांचे माध्यमान निर्दिष्ट जाला.

आतां, श्री शरतचंद्र शेणै हन्नि ह्यो काणयो एकठांय करून संग्रहाचे रूपान आमचे मुखार दवरल्या. हें कार्य प्रशंसनीय म्होणका जावून आसा. "साहित्यदीप्ति" नावांचे हे संग्रहांतल्यान केरळाचे कोंकणी साहित्य बरवपी महिळांगेलो एक नवोच परिचय कोंकणी समाजाक मेळतलो म्हूण हांव आस्त करता.

**डॉ. एल. सुनीता बाय**
स्कूल ऑफ कोंकणी स्टडीस
सुकृतीन्द्र प्राच्य-विद्या शोध-संस्थान, कोच्चि.



वत्सला आर. शेणै

1926 वर्षा केरळाच्या मुवाटुपुषा गावांत जन्म. पळ्ळुरुत्ती, कोची हांगा वसति. कोंकणींत साबार कथा, प्रवास वर्णना, आनी नवलिका रचल्याय. कोंकणि भाषा प्रचार सभा, कोंकण जनता, वैष्णवरत्न आनी एस. जी. एस. सभेले जायते साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्याय. हांणी वेंचून कथन केलेल्यो कोंकणी लोककाण्यो पुस्तकांनीय, ओडियो कसटाच्या रुपानय प्रकाशित जाल्याय. लोककाण्यांचें हांगेलें कथन व्हिडियोंतूय सज्ज आसा. 1978 वर्ष धरुन हांगेल्यो कोंकणी कृती नेमाळ्यांनी प्रकाशन जायत आसाय.

पत्तो: ‘Srinivas’ Waterland Road, Palluruthy, Kochi-682006

*‘घर भाट घाणें घालनु स्त्रीधन दीवनु माका सुखान राबूका नाका! तशी एक व्हारडीक माका नाका-’*

समाजाचें मन:परिवर्तन करुक सोदपी, शुभांतविश्वासी कथा.

# स्त्रीच धन

एक सुंदर गांव. थागाचीं जन सर्व व्हड अध्यानशील. अशीतशी चांग स्नेह आनी एकमेळीय आसा जनांक. थांगाचें एक घर तं रघु मामलें. ते घरांत तागेली बायल सीता, पूत राजा आनीं धूव रमा इतलींच जाण असाय. रघु मामाक सानूच एक ब्यार आनी एक एकर परम आसा. ब्याराचो लाभु आनी परमांतुले नारल, केळीं, आंबो, पोणोस, मिरियाकण इत्यादी विकिल्ले दुडवांनी तें कुटुंब मुकारी वता.

राजाक बीकों वरान शिकयलो. दोनि वर्षांक तो काम सोदून भोवलो. कांय फल ना. तागेले बप्पान सरक काडचे आंगडींत ताका लेक बोरोंवची जोली मेळ्ळी. रमान धांवें पास जातना बप्पा लागी सांगीलें-बप्पा माका कोळेजांत वचूका नाका. डिग्री काडल्यारीय काम मेळना. हांव टायपरायटिंग आनी शीवणि शिकन. हांगाच बेसून माका पैसा कोरयात न्हय वे? तान्नी तिका ताजो अनुवाद दिलो. ती टायपरायटिंग आनी शीवणी होगी शिकली. तीणे घराकडे बेसून काम आरांभिलें. सकाणी णव वरां थाकून बारा वरां तांय जनांक टायप कोरनु दितली. देनपारा एक वरारि शिवणि आरांभितली. बप्पान सांगीलें-आगो तूवें काम कोरनु देह पिठो करू नज सांजे पांच वरारि काम राबोवंका. सांजे न्हावन फूल दळ घेवन अम्मा ओटू देवळांत वचूका. चमकिल्यारि तुका व्यायाम मेळतलो, शुद्ध वायूय मेळतलो. रमान ते वरीच करप. तिका इकूणीस वर्षां जालीं.

एक दिसा सीतान रघुमामा लागी सांगीलें-आमगेले चेलेक आराटा दिसा इकूणीस वर्षां पुरतीं जाताय. आनी तिका खंयीय सोयरीक सोदूका. मामान म्हळें-एक वर्षाक लागेन ती सुखान स्वतंत्र जावन भोंवो. सीतान जाप दिल्ली-आतांच थाकून चोंवचाक आरांभिल्यारि येवंचे वर्षा पुणीय शरी जातलें. मेगेले बप्पान दोनी वर्षां भोंवलेले उपरांतें तं आमगेली व्हरडीक चमकिल्ली. तुमी म्हळ्ळें जाल्यारि आराटा दिसा तो व्हारडिके दल्लाळ मिन्नमाम येतोलो. ताजे लागी आमकां लागूची खंचीय सोयरीक आसा जाल्यारि निमगूयात.

आराटा दिसा मिन्नमाम आयलो. रघुमामान ताजे लागी धुवेलीं कायरीं सांगून सोडलीं. मागीर दोनि दीस वतना मिन्नमाम तागेलो बूकूय घेवन आयलो. ताणे वाचूक आरांभिलें-एक चेलो शिटा ब्यारेली. होड घर, कार सर्व आसा. रघुमामान सांगीलें- मिन्नमाम, हें नांका पशी होड मत्तीं आमकां नाका. लागीचें वाची. "स्कूळांतुलो प्यूण." रघुमामान सांगीलें-तेंवय नाका. लागीचो बांकांत क्लार्क. चांग स्वभाव. चोंवचाक चंद. रघुमामान सांगीलें-हें जाल्यारि चोवयात. इत्ति कीं तांगेलें डिमांड? मिन्नमामान सांगीलें-एक लक्ष रुपया आनी पंचेवीस पवना भांगार. रघुमामान सांगीलें-आमकां स्वल्प आलोचन कोरका. तुका कळता न्हय वे आमगेली स्थिती? मिन्नमाम गेलो.

घरांत सगटांनी मेळनु आलोचन केली. बांककाराक आलोचन कोरूं खंय राजा - बप्पा, ही व्हारडीक चमकिल्यारि रमा चांग कडे पांवतली. आजीचो क्लार्क प्रोमोषन मेळनु मेळनु एदेच वर्षानी मानेजर जातोलो. घर कोरूक लोण, गांव भोंवचाक खर्च, इत्यादी तांकां मेळता. आमकां हें घर परम बांकाक ईड दिवनु लोण काणु व्हारडीक चमकोवूं. रघुमामान एदीच आलोचन कोरनु जावन सांगीलें - तशी जाल्यारि तशी. रमा सुखान राबतली न्हय वे? तावळ रमा मुकारी आयली - बप्पा, घरपरम घाणे घालनु स्त्रीधन दीवनु माका सुखान राबुका नाका. तशी एकि व्हारडीक माका नाका. हांव कशीय अध्वान कोरनु दीस काडीन. स्त्रीधन निमगूनातिल्ले एक चेल्याक मात्र तं हांव व्हारडीक करतली. ना जाल्यारि माका व्हारडीक नाका. तीणे राजाकय सांगीलें- अण्णानय स्त्रीधन घेवनातीलें व्हारडीक कोरका! मागीर ती कूडांत वचून मंचारि पडली. तिका रण्णें आयलें. तीणे बप्पा लागी प्रथम जावन तं अशी उलयल्यां. तें दिकून तिका दुःख. हीं कायरीं आतां पूणीय सांगलेंना जाल्यारि ओवसुन्ना, मिगेले मनांतुलें तांकां कोळचें ना. तशी म्हूण ती समाधान पावली.

मिन्न मामाक मागीरि सात आट मासांक दिकलोना. राजाय सोयरीक सोदीता. म्हळ्यारि एक सान होटलकाराक सरी एक लक्षु रुपया मेळका. वर्ष एक दांटवता. आराटाक दोनी मास तं आसाय. रमाक वीस पूरतींच जातलीं. दोन दीस जातना मिन्नमाम हासून चोणु येता. ताणे सांगीलें- हांगा थाकून सात-आट किलोमीटर दूरा, हेच गांवावरी एक गांव आसा, पुतूर म्हूण नांव. तुमी आयकिल्लें आसतलें. साबार दूरा न्हय. थांगा तुमगेल्या वरीच एक कुटुंब आसा. थांगाचे चेल्याक व्हारडिके प्राय जाल्या. अम्मा बप्पालो एकलोच पूतु. डिग्री घेवन कामा खातीरि अपेक्षा पेटोवन

बेसून वर्षां स जालीं. तांतू भरशी तो कंप्यूटर शिकीलो. एक काम मेळनु जावो म्हूण तो व्हारडीक कोरूक तशी आयकना. तो साबाव बेसलोना बी. कोळेजांत शिकूचे सात आट जाण चेल्यांक तो ट्यूषन काडता. कंप्यूटर शिकोवंचाक वचून चांग पैसा करता. बप्पाक जाल्यारि पेनषन मेळता. दोन एकर स्थल आसा तांकां. तांतू भोरनु माडो, केळी, माडी, मशींग, पापाय आनी सर्व तराचे रांवदयकायेचें वोयल्यां. मोटोर दवोरनु शिंपून चांग आदाय मेळता. जन जाल्यार चांग, घरय चांग. ताका स्त्रीधन नाका म्हळ्ळेलें तं ताजाकय मुख्य. तुमगेलीं दोनीय कुटुंब हांव चोयल्यारि एकच लेकान आसाय. तशी आशिल्लीं कुटुंब जावन आसूका सोयरीक. तुमगेली चेलीय चन्दि, आनी तांगेलो चेलोय चन्द आसा. ही व्हारडीक चमकतली म्होण मेगेलें मन सांगता.

रघुमामान जाप दिली- येवंचे आयतारा आमकां चेल्याथंय वचूया. रमाले जातकाची कोपी आनी तिगेलें एक फोटो हातांत आसूका म्हूण उडगास दिवन मिन्नमाम चमकीलो. आयतारा सकाणी रघुमाम आनी मिन्नमाम कोरनु चेल्याले घराकडे गेलीं. चेल्यालो बप्पा केशव प्रभु मामान आनी अम्मा गौरी मांयेन तांकां दोगांकय संतोषान स्वीकार कोरनु बेसयलीं. स्वल्प घडियेक गांवची खबर उलोवन जातना रघुमामान उटावन राबून दोनीय हातांनी धुवेलें जातक आनी फोटो केशवमामाक दिलें. केशवमामाक जातक चोंवंचाकं स्वल्प कळता. ताणे तागेलो पूतु मुरळीलेंय जातक जावन एकडे कोरनु चेयतना चांग जातकपोरुत्तं. रमालें नक्षत्र जाल्यारि 'मकं'. 'मकं पिरन्न मंका' उत्तम तं. फोटो काणु मुरळीय तागेलीं अम्माबप्पाय चोयलीं. चेल्ली चंदि आसा.

खाण कापी जावन रघुमामूय मिन्न मामूय उटायलीं. रघुमामान येवंचे आयतारा चेलेक चोवंचाक येवंचे खातीर तांकां सगटांक आपयलीं.

आयतार आयलो. मुरळी तागेले अम्मा बप्पा सयत रमाक चेंवचाक पावलीं. ती चोवंचाकय चंदी. केसु जाल्यारि कुरटा खाल वरान आसा. तोंडान सदा हसमुखी. म्हूण तांकां तेगांकय ती बोय जाली. मुरळीन सांगीलें ताका चेले लागी स्वल्प उलोवंका म्हूण. आनी ताणे तागेलीं कायरीं सर्व तिंजेलागी सांगीलीं. तीणे तिगेलींय सर्व कायरीं ताजे लागी सांगीलीं. तावळ ताणे म्हळें- तुं माका चांग जावन बोयजाल्या.

माका व्हारडीक कोरुक तुका इष्ट वे? हाका जाप जावन 'इष्ट तं' म्होण सांगून लजेन ती घरांत धावली.

केशवमामान घरकडे वचून रमा तांकां सायली म्हूण रघुमामाक फोण कोरनु जाणयलें. रघुमाम मुरळीले बप्पाक दिकून उतर उलोंवचाक सोमाराच गेलो. केशव मामान सांगीलें- आमकां स्त्रीधन नाका. स्त्रीच तं धन! रघुमामाले दोळे संतोषान भरले. ताणे पोरतून घरकडे पावनु हीं संतोषा कायरीं सगटांलागी सांगीलीं. तोडोव कोरनातीलें चांग एक मुहूर्तारि मुरळीक दीवनु रमाक व्हारडीक केली. रमाक होडु संतोषु जालो. तीणे लेकिल्ले वरी स्त्रीधन घेनातिल्लें व्हारडीक कोरूक मुरळी तयार जालो न्हय वे! तिका तिगेलो बामूण 'आदर्शपुरुष' जालो.

रमा चांग कोरनु घर चोवन [illegible] काडता. [illegible] देंवय चंद जावन करता. तीणे रांदल्यारि होडी रुचि तं. सासू मायचे लागी तिका व्हड स्नेह आनी बहुमानु. ती तांची शुश्रूषा भोव श्रद्धेन करता. मुरळी म्हळयारि तिका प्राणु. तोंवय तिका खुशलि स्नेह दिता.

व्हारडिके वेळारि मुरळीन घराक वायटवाष, पेयंट सर्व काडयलेलें. रमाले आशेक ताणे करटन शिंवचाक शीट हाणु दिलें. तीणे चांग कोरनु करटन शिवन घालीं. मेजांचेरी टेबलक्लोथ, फ्लॉवरवेसा दवरलीं. देवाकूडांत नवरात्रीक शिंगारचे वरी देवाल्यो कन्नड्यो, विग्रहां सदांच फुलांनी शिंगारता. केदनाय मोगरें, चांपें काणु माळा कोरनु घालतली. थांगा परमांत चांप्या रुक, मोगरी, गुलाबाझाड, तुळसी आदी मस्त आसा. मुरळी देवाक दिवली लायतलो. रमा गांधावाती जळयतली. केदनाय घरांत घमघम येता. परने अनावश्य साधन सर्व माळ्यार चडयलें. घर पुसून चंद कोरनु दवरलें.

केशवमाम बायलेलागी सांगता- गौरी, दिकीलें वे आमगेले सुन्नेन घरांत कशी अलंकार केला म्हूण! लक्षीं देवी चोणु येतली गो घरांत.

रमान आनी मुरळीन मेळनु केशवमामाले सहायान एक स्थापन घालें. पांच स कंप्यूटर हाणु मुरळि चेरडुवांक क्लास काडता. रमा चारि पांच शिवणी मेषीन हाणु शिवणी कोरनु दुड जोडता. चौग जाण चेलियांक तीणे शिवणे काम दिल्यां. स्वप्रयत्नान तीं खुशालि दामु दुडू संपादन कोरनु सुखान आनी संतोषान दीस काडताय.



एन. स्वर्णलता

1929 वर्षा केरळाच्या एरणाकुळम गांवांत जन्म. तृशूर शारांत वसति. कोंकणींत कथा आनी लेखनां रचल्यांय. कथांक कोषिक्कोड एस. जी.एस. सभेले साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्याय. संस्कृत आनी इंग्लीषांत पदव्युत्तर पदवी जोडून कोळेजांनी प्राध्यापन केल्यां. शिक्षणाच्या क्षेत्रांत जायतें प्रवर्तन आसा; आनी इतर भाषांनी साबार लेखनां प्रकाशित जाल्यांय. 1993 धरुन हांगोल्यो कोंकणी कृती नेमाळ्यांनी प्रकाशन जायत आसाय.

पत्तो: 5/39 'Sowbhagya' Ollookara, Trichur-680001

*'हांव मेगेले बप्पाक धूव जाल्यार, मेगेलो बप्पा माका पूत तं-'*

एक अप्रूप नात्याची, अतूट मोगाची प्रामाणिक कथा.

# मुक्ति

आजि बप्पालें वर्षा वर्षीक. धूमधाम जावन चमकता. गांवचो लोक सगळोच आसा सगटांचे तोंडारि मिष्टान्न भोजन केलेल्याची संतृप्ति दिष्टि पडता. "गज्जारो सरि सुलभ जावन न्हय वे काज्जूबी भोरनु घाल्या पायसांत आनी वलवलांत! मिरिया हापोळू, धवो हापोळू, तुंब्या-फुल्ला समान धवें फड्फडी शीत, शित्तारि गायचें तूप आनी दाट दाट तोय. ब्राह्मणांक दक्षिणा दिंवचांतूय इतूलें औदार्य आतां ख्वंय कोणे दाकयलेंना. अस्सलें एक वर्षा वर्षीक लागी लसार कोणे केलेंना-" अशी वताय जनांलीं स्तुति वचनां. तोंडा तोंडारि सांगूनूच आसाय-" दुडू उदाक सरि उवसून वर्षीक केलें चोय पुतान; संतान जाल्यारि अशी जांवका. सुकृत केलोलो बापूस!" हें शब्दजाल आयकून हांव एक मुल्याक बेसलीं, दुःख्व गीळनु. मन इत्यांत धरना. तेंचि दृश्य ख्वदळेवन ख्वदळेवन दोळ्या मुकारि येता.

सूक्ष एक वर्ष फूडेचो तो दीसु. फाले- फाल्यारि घरदार सर्व सजग जाले. अम्माय व्होनीय वासर्यांत ख्वाणापोंदाक पळ्यांय. हांवय थांगा अशिल्ली-सान सान सहाय कोर्नु. सहसा फाटीरि मुष्टि आनी हरद्यारि मुस्तप एकसाणीच पळ्ळेल्यावरि माका हरद्यांत एकि दूकि सरि दिस्सालि. हरद्याक धोरनु हांव बप्पाले कूडांत चमकीलि. मेगेले बप्पालि मोगा धूव हांव. कूडाचे देरलांत पांवचाक दिकिल्लें दृश्य आतांय सजीव दाळ्या मुकारि नांचता-भीति दीवनु. मेगेलो अण्णा ब्रप्पाले नांकारि सर्व शक्तीन मुष्टि मारता-एक न्हय दोनि. बप्पाले नांकांतुल्यान दळदळीच रगत न्होळता. हांवें बोब घालि. कुटुंबांग समस्त धावन पावलिं. कायरिं मनांत सरुक कोणाक कांय कष्ट जालेनाय. बप्पा जाप काणा, दोळ्यांत भोरनु अश्रुकणां. अण्णा मुरमुरेवन भायर चमकीलो. स्वजनां पुराय बप्पाले शुश्रूषेंत मग्न जालीं. शेजारीं धावन आयलीं. डाक्टरमामूय तुरंत पावलो. बप्पाक गायेन मुस्तिलो म्हूण भायर ख्वबर दिलें. हांव मेगेले बप्पाक धूव जाल्यार, मेगेलो बापा माका पूतु तं- तितूले मोगान आशिल्लीं आमी दोगांय. बप्पालें समस्त चरितय घांटेभरि बेसून मिजेलागी सांगतालो-बाल्यकाल, शिकवण- वाचन, उद्योग, गृहस्तपण-संतानप्राप्ति इत्यादि विस्तारान सांगतना हांव सश्रद्ध आयकताली. चेल्या चेरडुवांक ये ख्वातीर ख्वंतय वेळु? अम्मा जाल्यार सदा वासर्यातूंच. मात्र न्हय, सांगूनूय भोंवतली -"म्हांतरे जाता तशी तुमगेलें चेरडूपण प्रत्यक्ष जाता तं, माका तुमगेले ये किरकिर आयकूक वेळु ना." अम्मा एकि परनी

मनीषि. सगटालेंय न्हांवचें, पिवचें, जेंवचें खांवचें नंतना तिका वेगळी चिंता ना.

बप्पाक चेलियांचेरि चडि प्रीति. तांकांय विद्या दिंवचाक बहु तात्पर्य; अम्मा ताजी विरोधीय. भर्तृगृहांतूले रान्दणीतं उजो फुंकूक आनी रगड्यारि वाटूक अक्षराभ्यास नाका म्हूण तिगेली पल्लवि. जाल्यार अण्णाक शिकोवंचांत अत्युत्साह. चेलो न्हय वे, कुटुंबा खांबो न्हय वे! परंतु अण्णाक अभिरुचि ना जाली. अम्मा साम-दान-भेद सर्व प्रयोग कोरनु चोयली. फल शून्य. सर्व खर्चाकय अण्णाक बप्पालो आश्रय जांवका जालो. जोडचे व्यक्तीली सुक्ष्मता जोडूक कोळनातिल्याक आसूक वाट ना न्हय वे? अण्णाक केदणाय खर्चु चोडु. एकेक पद्धति घालनु दामु-दुडू पुड्डि करता ज्ञान नातिल्यान. ते दिसाय अण्णान मागिल्लो दामु दिंवाचाक बप्पान दाकयलेलें अनिष्ट हे अनर्थाक कारण जालें. ताजे उपरांतें बप्पान तोंड विस्कळायलेंना-मरण पर्यंत. सगटांचेरीय एकि दृष्टि-"तुं मिगेलो कोण जाता" म्हळ्ळेले अपरिचित भावारि. स्वमनांतुले विचारांचे जडाणीन तोंडय जडच आशिल्लें. एक दिसा सकाणि शिकूक उठायलेले मिजेलागी बप्पान एक ख्रोलो उदाक निमगीलें. दोळे भोरनु माका चोयलो आनी गट्-गट् कोरनु तें उदाक सग पिलो. “ तूंवय अन्य गो ” म्हळ्ळेले रूपारि क्षणमात्र दुशेरि माका चोयलो. मागीरि उलोवंचाक तोंड विस्कळायलें. जाल्यारि हांवें तांतू विरोध केलो- "राती सगळी नीद ख्रोळनु आतां गांवची खबर शुरू कोरूक वता वे बप्पा? दोनी घांटे पुणीय दोळे धांकून विश्रम काडि बप्पा, चाय हांव मागीरि हाणू दीन." बप्पान जाप दिली- माका राति-दीस विश्रमूच न्हय वे? बेस धुवा, माका तुजे लागी स्वल्प उलोवंचाक आसा".

परंतु हांव धावलिं पुजे कूडांत-"देवा मिगेले बप्पाक राक, आजि इतूले दिसा उपरांते बप्पा मिजेलागी उलोंवचाक आग्रह काडता. मनांतुलो भारु भायर हाडूक आशा आसूयात. देवा, माका मिगेले परने बप्पाक वापस दी-" म्हूण भक्तिपूर्व हांवें देवालागी मागीलें. तेद्दे भित्तरि अम्मा थांगा अंवसरान आयली, आनी सांगीलें- "आतां पायपांत उदाक येता, प्रथम बप्पाच न्हावो" हें सांगून ती बप्पाले कूडांत चमकीली. "चोयाय, उठावन न्हांवचाक वचाय" म्हूण बप्पाक उलो दिलो. जाल्यार बप्पा दोळे विस्कळायना. लागी वचून आंगाक आपडून उळदूक शुरू केलें तीणे. परंतु बप्पान इहलोक सोणु वोचून जालें आशिल्लें. बप्पाक मुक्ति मेळ्ळी.

मागीरि सर्व छटपट जावन चमकीलें. बप्पाले किटबिडेक अण्णान उजो दवरलो. मरणानंतर क्रियाय विस्तारान चंकयली. आजि वर्षा वर्षीकय......



आनंदी, मुंबई

1932 वर्षा केरळाच्या तुरावूर गांवांत जन्म. मुंबईंत वसति. चाळीस काण्यो आनी इतर कृति रचल्याय. वैष्णवरत्नाचो 'पंचरत्न पुरस्कार' आनी इतर जायते पुरस्कार मेळ्ळ्याय. कथा, नवलिका, कविता, लेखनां, प्रवासवर्णनां, आदी नेमाळ्यांचेर प्रकाशित जाल्यांय. 2000 वर्ष धरून कोंकणींत साहित्य सेवन करीत आसा.

पत्तो: D-201, Dipti Greens, Opp. Bombay Cambridge School,
Sahar Road, Chakala, Andheri (E) Mumbai-400 099

*'अम्माबप्पाक मागल्यान उळदूक सरी जायनातिल्लें तीं अपराधबोधान राबीलीं-'* धर्म-अधर्माची, कर्मफलाची, बर्या-वायटाची निकट वळख दिवपी कथा.

# वृद्धाश्रम

सकाणी उठावनू नित्य दिनचर्य जावन देवदासमामू येवनू कदेलारि तेंकून बेसोलो. बायल इंदिरक्कान हुनीचि चाय हाणू हत्तांतू दिल्लि. पेपर घालचे चेड्यान पेपर उडोवंचो सोवदू. चाये लागी चाबुक मेव्ळेले लेकान सकाणिचि चाय पिंवचे वेळारी पेपरावेल्यान दोळे धांवडावनू पिवंचांक एक प्रत्येक सूख आसा. देवदास मामान पेपरावेल्यानि दोळे धांवडायले. कागत उपारतिलें. पेपर काणू चोयल्यारि एक देड कागत भोरनू भांडि आडोळनू मेल्लेलिं, वीष खावनू मेल्लेलिं कायरीं फोटो सयित वाचूक मेळतले. देवदासमामाले दोळे ते खांचिंतुल्यानीयिं गेल्ले. कारारी वचे वेळारी एकि लोरि येवनू आडोळनू मेल्लेले एक बामूणालेयि बायालेलेयि फोटो ताजे दोव्ळ्यांत गेल्लें. दोगांय मेल्लीं. तांगेलीं नांवांयीं वाचीलिं. व्होव्ळीं दामेलीं तं. एकूचि पूतु. वाचिता तशीचि देवदासमामालो पोरणो घायू दुकूक आरांभिलो.

देवदासमामू आनिक इंदिरक्का आतां पेर्यान स्नेहान तं आशिल्लीं. चांग जाल्यारीयि बलाव जाल्यारीयि एळतापेळतांतू कांयि निपोवना. मनांत हीत नातिल्लें इतेंयीं बामूणान केल्यारि बायलयि, बायलेन केल्यारि बामूणूयि सोडि धरि कोरनू वत्तलीं. नंतना झोगोणू घेवूना. तशी केल्लेलें सम जालेना, ‘वोच्चो’ म्होणू सांगून सोडतलीं. सांगिलेंयिं केल्लेलयिं सम तं म्हेणू कोरचे खातीरि तानी वोड्डियो कण्णा. तांगेलें जीवित समाधानारी वत्तालें.

एक पुतूय एकि धूवय तं तांकां. पूतु तागेलें कायरें होड म्होणू लेकूचो तं. एकेकेल्यानी जाल्लेले वेळाची ग्रहनिला तकीत तांगेलो स्वभाव आसतलो म्हणताय. धूव तशी न्हय. ती स्नेहू आशिल्लीय अम्मा बप्पान सांगिल्या भायर वोचूनातिल्लीय तं.

पुतान जाल्ले तावळी थाकून देवदासमामाले स्वभावाक एकु वित्यासू. पुताचेरी वोव्ळी माया कांयीं दाकयना. अम्मान ताका ओपूरबाय कोरचें सायना. अम्माली श्रद्धा सग पुताले परिचरणारी वता. तेंवय बप्पाक सायना. तो वोडू जाता तशीचि कायरें नातिलें ताका कोपप. तागेलें कायरें सांगून बायलेक कोपप. देवदासमामलो स्वभावूची पोरतोलो.

इंदिरक्का मन्नातू वोडू प्रयासू. बामूणाक इत्ती जालें? शांतीरीयि समाधानारीयि वतालें दांबत्य आतां कशिकीं सग वता. गुरबीणि आसतना पूतु जाल्यारी कशी आसतलो? ताका आमकां चांग कोरनू वाड्डोवंका. शिकोवनू वोडू कोरका. उत्तूलि वोड्डियो काणू जाल्यारिय डोक्टरु इंजिनियरु कोरका. अशी सग सांगून संतोषु भोगिलो तं आतां अशी. तो जाल्ले उपरांते तःजे लागी येवनू ताका एक चोंवचाक जावो, ताका एक हातांतू काडूक जावो, ओपुरबायि कोरूक जावो, देवदासमामु आयलोना. तागेली सानप्रायेचि कुसृति कोण जाल्यारीयि चोवनू राबतलो. भास येवुंचानिक 'पा', 'अप्पा' म्होणू उळदून एकेक पावल काणू दोवोरनु ताणे लागी गेल्यारीयि बप्पान घूवनु चोवना. पूतु जालोलो संतोषु इंदिरक्ककयि अनुभावारि मेव्ळोना.

पुताक तीनी वर्षां जांवचानीक एकि धूव लागेन जाली. धूवे लागी बप्पाक अल्पसल्प स्नेहू आशिल्लो. पुताक चोवनातिलें राबुक अम्माक जातलें वे? तिगेंले पोटांतु जाल्लेलें चेरडुं. इंदिरक्कालें कायरें तं कष्ट. एकेकेल्यांकयि तांगेलें कायरें प्रथम जावंका. चेरडुवांक कोरनू दी, मागीरी माका पूरो म्होणू बप्पानय सांगुना. सान थाकून पुताक कोपूनूयि मारनूयि बप्पान वैरि सरि तं लेकिला. ताकायि अम्माकयि कोपना फडे बप्पा लागी वचाक सरि ताका भय. अम्मान वाड्डयलेले दोषान तं ताका बप्पा लागी प्रीति ना म्होणू तं बप्पा सांगता.

मन्नाचे ये अवस्थेरि ब्यारांतु सरि बप्पालें मन लागना. चेरडुवां वाड्डतायि. कालू तकित तांकां शिकोवनु उंचारि काडूक कशि जातलें? जाल्यारि तांगेले दोगांलींय घरचीं मनीषां चोवनू रबिल्लिनांय. चेरडुवांलि शिकवण तांगेले सहायान मुकारि गेल्ली. जल्यारि चेरडुवांक मनांतु तानी नेणताच्चि बप्पा लागी वैर वड्डले. मोद्दें राबूचे इंदिरक्काक केदणाय धोला वज्जप तं अशिल्लें. बप्पाकयि चेरडुवांकयि एकमेळीन व्होरूक ती भोरनू वोड्डियो काडतालि. बप्पा पशि धा वणट्यानि वाशि चडि तं चेरडुवांक.

पूतु वोव्ळो जाल्लो. शिकवण जल्लि. काम मेव्ळें. प्रायेक सर जाल्लेलि कळाकळि ताका ना. धूवेलीयि शिकवण जाल्लि. चांगी एकि सोयरीक तिका आयलि. ती पुणेयि ये नरकांतु थाकून वोचो. उतूलेची सनप्रायेरि चेरडुवाले मन इत्याक तडपांवका? एक चांगु बाम्मूण तिका मेव्ळ्यारि तिगेलें जीवित पुणेयि संतोषान वतलें नवें. चेल्लेलींयि चेल्यालींयि म्हालगडिं मुकारि सरलीं. चेल्यालिं घरकडचीं चिन्ना,

चांग मनीषां. चेल्याक चांग कामयि आसा. व्हारडिक जाल्यारि तिका कामा जाग्यारि व्होरतोलो.

एळतापेळतांतु उत्तर उल्लेयलें. वेस्त जल्लि. व्हारडिकय चंद जावनू जाल्लि. देवदासमामाकयि इंदिरक्काकयि व्होडु आश्वासु जाल्लो. एकि चेल्लि वड्डुनू घरांत आसा जाल्यारि अम्मा बप्पाक नीद पोण्णा म्हणतायि. देवाले दयेन तो एकु भारु लोवु जल्लो. थांगाचे तिगेले जीवित लागेन चांग म्होणू आयकिल्यारि समाधान जातलि.

देवदासमामालो ब्यारु नष्टारि तं आसा दिकून ताणे तो नाका म्होणू दवरलो. आतां पुताक काम आसा. तो चोयतलो नवें? तकाय एकि सोयरीक आयलि. चिन्ना म्होणू दिसलें. व्हारडीकय केल्लि. येह्वो स्नेहू सरि दीवनातिलें वाड्डयलोलो पूतु ताका कशि चोयतलो? चेरडुवांक बरयलेले बोर्यारि राबोवुंचो कालु वे आतां? भोरनु स्नेहु दिल्लेले अम्मान उत्तुलें सांगून दिल्यारीय लेक नातिलो पूतु वैरि जावनु लेकूचे बप्पाक चोयतोलो वे? पुतान चोवनातिल्ले अम्माबप्पाक सून चोयतलिवे?

देवदासमामाकयि इंदिरक्काकयि इत्ति कोरका म्होणू कळना. दामु आशिल्लो जाल्यारि पांच सेन्ट भूंय पुणेयिं काणू घेवनु दोनि कूड कोरोवनु उप्पाशि जाल्यारीय तांतु चोणु पोडयात आशिल्लें. "धुवेथंयि वोचून राबूचें अभिमानाक ऊणावु आशिल्लें कायरें न्हय वे?" इंदिरक्कान सांगीलें.

छट जावनू देवदास मामाक एकु उडगासु आयिलो. 28 वर्षां मुरथम दोनि लक्षु रुपया एक बेंकांत घालोलो. आतां वाडियि कोरनु मस्त चोडु जालोलो आसतलो.

तेह्रूसचो संभवु मनांतु धावनु आयलो. बायलेले प्रथमले बाळांतिर्याक टौणांतुले होस्पिटलांतु तं तिका व्होल्लेलि. बायलेक अम्मा ना. तागेले अम्मालें आरोग्य थांगा येवनू राबूचे लेकान न्हयिं. बाळांतिरो काडचे तियेटरा मुकारि घालेले बंकारि देवदास मामु बेसोल्लो. डोक्टरणीयि नर्सयि वळकीचिं म्होळ्ळोलो एकु आश्वासु आशिल्लो. तेचि बंकारि वेगोळो एकु मामूयि बेसल्लो. तागेले तोंडारि दुखाचो एकु समुद्रूचि खवदळेता सरि देवदासमामाक दिसलें. तो लोवूचि ते मम्मा लागी गेल्लो. एक हातु ते मामाले खांदयारि दोवरलो. मामु इत्ति हांगा? बायलेक भितरि व्हेल्लेलि आसा वे?

येदीचि घडि चोवनु बेसूनु ते मामान लोवूचि तागेलो मनप्रयासु देवदासमामालागी सांगीलो. मिगेले बायलेक भितरि व्हेल्लेलि आसा. आमगेली व्हारडीक जावनु धा वर्षां जालीं. व्हारडीक जावनू दोनी वर्षां जावनू तं गुरबीणि जालेली. आमकां लेक नातिलें संबत्त देवान दिल्लें. चोवनु काडूक एक संतान लागेन देवान दिल्यारि इत्ति चांग आशिल्लें? आमगेले आग्रहाक पाकां दवरलीं. देवान आमगेली प्रार्थना आयकीलि म्होणू आमि आठयलें. तीनि मास दण्टवले. तिका पोटांत एकि दुकि सरि दिसली. होस्पिटलांतु व्हेल्लि. तिगेलें अबोरषण जालें. आशा कव्ळेले मनांतु धागुणि निराशायि घेवनु पोरतूनु आयलि. डोक्टरणीन माका उळदून सांगीलें. बायलेले गर्भाशयाक बळ ऊणे. तें दिकून एदेंची वोकदां खावनु जातरी गुरबीणि जावुंचें तं आनीक चांग. संगीले लेकान वोकद सग कोरनु जावनु लागीचे वर्ष दुशेरि गुरभीणि जाली. ये पावटी चडि आशा कांयि कव्ळिना. होस्पिटलांतु व्होरनु डोक्टरणीक दकवनु वोकदय बेडरेस्टय सांगिले लेकान श्रद्देरि केल्लें. पांच मास पेर्यान कांयि विशेषु ना आशिल्लो. स मास जांवचानिक मेटां चोणु माळियेवेले कूडांतु दंदकारणी कर्यान झाडोवुंचाक गेल्लेलि. तो एकु हेतु जालो. तो गर्भूय गेलो. तिगेलो मनांचो ताळूयि घुसपूक आरांभिलो. केदणाय मौन. उलोवुनातिलें बेसतली. डाक्टरणीन सांगिलें. तीणे गुरबिणि जावनु, सबसुबीचि बाळांतिरोयि जावनु चेरडुं तिका मेळ्यारी तं मन क्रमान संवकि जातलें. तिसरे फंता वोकदारिची आशिल्ली. सात मास जाल्ले. तिगेली भयणी दोनी वर्षाचे चेरडाकयि घेवनु अक्का चोंवचाक आयली. ताणे पौडराचो कोरंडो काणु कूडांतु विकरावनु घाल्लोलो कोणे दिकिलेंना. मिगेली बायल इत्तिकीं काडूक थांगा गेल्ली. पायु सरसरेलो. कूरटु चेंचून पव्ळि. तवळीचि होस्पिटलांतु व्हेल्लि. देवाले परिक्षण. तो गर्भूयि गेल्लो. चोवते फंता आतां णौ मासयि जाल्लेलि बायल भितरि आसा. डोक्टरणीन तिज्जान जांवचे तशि सग चोयन म्हेणु सांगीलें आसा. देवाली इच्छा इत्ति म्होणु कळना. तिगेले मन परणे वरि जावुंका जाल्यारि यें चेरडुं तिका मेळका. तिका इत्तेंयि जाल्यारि माकाय धोरनु राबूक जावुना. तो मामु दोळेय धांपून प्रार्थनेरि बेसलो. देवदासमामाले मनयि ते मामा स्वातिरि प्रार्थना करतालें.

तावळि तं डोक्टरणि उळदीता म्होणु नर्सान सांगिल्लें. देवदासमामु डोक्टरणीले कूडांतु गेल्लो. तीणे सांगीलें. "तुगेले बायलेले पोटांतु दोनि चेरडुवां आसाय. भायर बेसल्ले ते मामाले बायलेक प्राणु नातिलें चेरडूं तं जाल्यां. तिका आतांयिं सुबोध ना. तुमगेले एक चेरडाक तांकां दिल्यारि तें कुटुंब रक्षण केल्लेलें पुण्य तुमकां मेळतलें. ना

जाल्यारि ते अम्मा बप्पान साबार काळ वोरना. थीं कायरीं आमी दोगांय आनीक तुमी दादूले दोगांय मात्र जाण जाल्यारि पूरो. कोणाक संशयु दिस्सुनातिल्लें आमी तें कोरूं. इत्ति सांगता? ताणे ऊं म्हळ्ळें.

सांगिल्ले वरिचि तन्नि कोणाक संशयु दिसुनातिल्लें तें कायरें केल्लें. आतां पर्यान बायले लागी सांगूक आशिल्लें धैर्य ताका मेळ्ळेंना. ते उपरांते व्होडि एकि चूकि केल्लि म्हळ्ळोलो विचारु मनांतु थाकूनु वचना. मनसमाधान म्हळ्लेलि ताका सोणु गेल्ली. ते मामान बळ कोरनु दिल्लेलें दोनि लक्षु रुपयाचें चेक एक बेंकांतु व्होरनु घाल्लें. मागीरि ते दुड्ड आपडूक सरि दिसलेना. आनीक पुणीयिं बायले लागी सांगूका. ताणे आठेयलें.

एक दिसा सुन्नेन इतिकी सांगीलें. पुत्तुयि तांतु एकडे जालो. तागेलीं स्नेह शून्य वर्तमान अम्माक सहन जल्लिनाय. देवदासमामु बायलेक समाधान सांगून तिकायि उळदून घेवनु देवळांतु गेल्लो. दोगंयिं मन दुकूनु देवाक पायिं पळ्ळि. देवळाचे जगलेरि वोचूनु बेसलीं. देवदासमामान बायले लागी सांगीलें.

हांवे तुजे लागी सांगूनातिलें एक कायरें आसा. 28 वर्षा तें मनांतु घालनु जोळनु सरतालें तं मिगेलें मन. तें तुजे लागी सांगून मन शुद्ध कोरका म्होणु आसा जाल्यारीयि आतां पेर्यान ते खातिरि आशिल्लें मना बळ माका मेळ्ळें ना. आतां ये देवळा जगलेरि बेसूनु तें तुजे लागी सांगता.

तुका पुता फंता जवळ चेल्ले तं जाल्लेले. तेद्दूस तेची होस्पिटलातु वेगळि एकि बायलायि बाळांतिर्याक आयलेलि. तिगेले बामुणान तांगेलें दुख मिजे लागी सांगीलें. ती चारि फंता गुरबीणि जाल्लेलि. तीनि फंतायि मास पुरते जावनतिल्लेंची गर्भ गेलो. ये फंता मासान मास जावनु बाळांतिर्याक हाळ्या. तें चेरडुं मेळ्ळेंना जाल्यारि आनीक तिका चेरडुं मेळूक प्रयासु म्होणु डोक्टरणीन सांगीलें. तें चेरडुं मेळ्ळेंना जाल्यारि ते अम्माले मन्नाचें संतुलन घुसपुकयि वाट आसा. तशी जाल्यारि ते मामालें जीवितयि नाशु जातलें. जाल्यार तिका जालेले चेरडाक जीव ना आशिल्लो हे पावटीय. ते खातीर डाक्टरणीन मिजे लागी एक चेरडाक निमगीलें. तें कुडुंब नाशु जावनातिलें राबूक एक चेरडाक दीन म्होणु माका सांगुका जाल्लें. मागिरि तान्नि इत्ति केल्लें म्होणु माका कळना-बळ कोरनु दिल्लोलो दोनि लक्षु रुपया हांवें एक बेंकांतु घाल्लो. दुडुवांचे अत्यावश्यान धावनु भोंवचे वेळारीयि हांवें ते दुड्ड कळ्ळेना. पुताचे

मोल जावनु तं हांव ते दुड्ड लेकितालों. तूवें हे खातिरि इत्ति शिक्षा दिल्यारीयि हांव काणु घेवुंचाक तयार आसा.

पूतु जाले उपरांते देवदास मामाले स्वभावारी आयिलोलो वित्यासु इत्ति दिकुनु म्होणु इंदिरक्काक मन्नांतु जाल्लो. हाजे मुरथम मिजे लागी सांगिल्लें जाल्यारि येदे घडियेक मिजे मन्नांतु देणां दिसतलें जाल्यारीयि, तांगेलें मन एकु लोवु जातलें आशिल्लें. आतां सांगूनु इत्ति विशेषु. येदे घडियेक तिका कांयिं उलोवुंचाक जायना. उत्तुलेंचि व्होड एक कायरें मन्नांतु कशि घेवनु भोंवतालो! तीणे लोवूचि सांगिलें "उत्तुलेचि काळ गेल्ले उपरांते हांवे इत्तें सांगूक? तुमी चांग मनान एक कुटुंब नाशु जावनातिलें राबूक केल्लेलें चांग कायरें. तेद्दुस निमगिल्यारि दिवुंचाक हांवें आयकुना आशिल्लें. उत्तुलिं चेरडूवां आसा जाल्यारीय खंचे अम्माक चेरडूं दान दिवुंचाक दिस्सुना. आतां तो खंतंय आसा? इत्ति करता? कशि आसा? चांग प्रकारिं वे आसा? म्हव्ळोलो विचारु तं मन भोरनु. खंतयि जाल्यारीयि तो सुखान राबो." देवळा जगलेरि बेस्सूनु तीणे हात एकडे केल्ले.

पुत्ताक अम्मी जड जावनु दिसता जाल्यारि ते बेंकातुले दुड्ड काणु कोंकण्यानि चोंवंकोंवचे एक वृद्धसदनांतु एक कूड काणु आमकां राबूं. तांगेले जीविताक आमी अडखळ जावुनीयें. स्नेहु हांवें ताका दिल्लोना. बाधा दीवुंका नाका नवें? चेरडुवांक दोगांकयि आतां घर कुटुंब जालें. आमी तांकां आनीक कोरूक कांयि ना. कूड काव्ळे उपरांते वरचील आयलेले दुड्ड बेंकांत घालनु वाडि काव्यारि आमगेले नित्य आवश्याक आशिल्लें मेळतलें. कोणा मुकारि हातु नीट कोरनात्तिलें देवान उळदु भितरि आमकां दीस काडुयां. दोगांकय मनांत समाधान दिसलि. मन लोवु जालें.

हेरदुसाचि देवदासमामान वोचुन दुड्ड काणु हाव्ळे. दोनि चारि दीस वचानिक घरकडे झगडें आरांभिलें. देवदास मामूयि बायलयि कोरनु तांगेलि ड्रसाचि पेटयि घेवनु भायर आयलिं. देवदासमामान सांगीलें. "आमी तीर्थयात्रेक वचावत्तायि. आनीक पोरतूनु येंवचाक आमकां आशा ना. तुमी सुखान राबायि." दोगानीयि पुत्ताचेयि सुन्नेचेयि मत्यारि हातु दोवोरनु अनुग्रहु दीवनु तीं देवनु गेल्लिं. अशी जातलें म्होणु ताणीय आठेयलेलें न्हयि. अम्माबप्पाक मागल्यान उळदूक सरि जावुनातिलें तीं कुट्टबोधान राबीलिं.

व्होव्ळे एक दम्मेलि मामाले उडगसाक केल्लेले एक वृद्धाश्रमांतु देवदासमामूयि बायलयि चोणु गेल्लिं. ओफीसांतु कदेलारि एकु चेरडु प्रायेचो आळु बेस्सला. तांकां

दिकूनु तांगेले तोंडावेलि दुकि ताणे मन्नांतु केल्लि. ताणे तांकां बेसूक सांगीलें. तीं ताजे तोंडाकचि चोयतायि. आमगेले पुता वरीचि आसावे तो? तांकां दिसलें. एकल्याचे सरक्यारि सात जाण आसतलिं म्होणु नवे! "तुमगेलें नांव इत्ति मामु?" म्होणु ताणे निमगील्लें आयिकून देवदासमामान नांव सांगीलें. नांव आयिकून तो तांगेले तोंडाक चोयिलो. तागेले मन्नातु सांगुन समजांवचाक जावुनात्तिल्लो एकु विकारु दिस्सोलो.

"हांगा कूड कांयि नामु मामु" ताणे सांगीलें. आनीक इत्ति करप म्हळ्ळेले चिंतेन तीं एळतापेळतांतु चोयलिं. "स्वल्प पेळतांतु वेगळे बिल्डिंगांतु कूड रित्तें आसा वे म्होणु चोयतां, येंवका." म्होणु सांगून तो भायर देवुनु कारालागी गेल्लो. थांगा पुणेयिं कूड रित्ते आसुका म्हळ्ळेले प्रार्थनेरि तीवेयिं काररि चव्ळिं. मन्नांतु ते चेल्या पस्सून तांकां चांगु अभिप्रायूयि दिस्सोलो. ताणे एक व्होड बंग्लावा मुकारि कार राबयलें. भितरि येंवका, ताणे तांकां स्नेहान उळदीलिं. एक मास्मारिक शक्तेंतु सरि तं तीं आशिल्लीं ताजे माग्ल्यान विस्मयारि चमकीलिं. तांकां हाळांतु व्होरनु बेस्सोवुनु ताणे सांगीलें. "यें तं तुमगेलें वृद्धाश्रम. तुमी केल्लेले पुण्य प्रवर्ती फलान हांगाचे अम्मा बप्पान चेरडासूख भोगीलें. ताणी एक आक्सिडण्टांतु गेल्लिं. प्राणु वचे मुरथम बप्पान मिजे लागी डयरीरि बोरोवुनु दवरल्लेलें वाचुका म्होणु सांगीलें. तें वचीत थाकुन माका जन्मु दिल्लेले बप्पाकयि, पोटांतु व्हावलेले अम्माकयि मिगेले भवंडांकयि, चोंवुंचे आशेरि तं आसा. बप्पालें स्वत्त संपाद्य बिसिनेस सग चोवनु काडचे भरशि वेळु मेळप ना म्हळ्ळेलें तं सत्य. आजि देवान तुमकां हाणु माका दिल्लिं. तोवयि तागेलि बायलयि तांचे पायांकडे पव्ळिं. देवदासमामानय, बायलेनयि, तांका उठकरावुनु पोटोवुनु धोरनु तांचे मात्यारि हातु दवरलो. देवदासमामान सांगीलें. "पुता, तुगेले बप्पान दोनि लक्षु रुपया बळ कोरनु आमकां दिल्लोलो बेंकांतु घल्लेलि वाडि सहित आमी हाव्ळोलो आसा. दुडवांचे खातिरि तुका आमी दिल्लोलो न्हयि. ये दुड्ड पुत्तूचि दवरि. कोण नात्तिल्याक सहायु कोरुक जातोलो." पुतालेयि सुन्नेलेयि दोळे भरले. असलो त्यागु कोण करतलें, "जावो अम्मा दुड्ड हांव दवरीन. तुमकां आतां पुणीय चोंवचाक आशिल्लें भाग्य माका मेळ्ळें न्हय वें."

तांगेलो देड वर्षाचो पूतु पेल्ले कूडांतु थाकून धावुनु आयिलो. नवे सोयर्यांक दिकूनु लज्जेवनु तांकां चोवनु हासीलो. ते कुंडामंडीक अम्मान धावनु वोचूनु काव्ळो. अब्बोनयि वोव्ळमानयि पोरतून पोरतून ताका काणु उम्मा दिल्लि. नत्तु तांचे तोंडाक कौतुकारि चोयिलो.



सुनीति एस. रावु

1933 वर्षा महाराष्ट्राच्या मुंबई शारांत जन्म. केरळाच्या, कोषिकोड शारांत वसति. कोंकणींत नाटक, कथा, कविता आदी जायतें साहित्य रचलां. हांगेलीं नाटकां माचयेर आयल्यांय. कोषिकोड एस जी. एस. सभेंत प्रवर्तन केल्यां. पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार (केरळ कोंकणी अकादमी) एन.एम सरस्वतीबाय स्मृति पुरस्कार (कोंकणी भाषा प्रचार सभा) वैष्णवरत्न पुरस्कार, दास नायक स्मृति पुरस्कार आदि हांगेल्या विविध साहित्यकृतींक मेळ्यां. 1994 धरुन हांगेल्यो कोंकणी कृति नेमाळ्यांनी प्रकाशन जायत आसाय.

पत्तो: 38/781-D 'Sundaram' Valiyil Paramba, P.O. Edakkad,
Kozhikode- 673005

*'जीव पुराय पुलावा आयदनांत दवोरनु सगटांनीय भजन धांवडायलें'*
आशा-निराशेचि, भाग्या- अभाग्याची करुणामय कथा.

# पुलाव

नात्तीन तिका दिल्लेले पुलावांतुले कोलिफ्लावर सक्कड काणु टेबलारी उडईलें पोळोनु बापमाक आपण्यालो सान्नपणा उडगास आयलो. तिगेलें मन साठी वर्ष माक्षी गेल्लें. एक कालाक तीणें हेची कोलिफ्लावरा खातीर कितूली ओड्डियो काव्ळेल्यो म्होणु तीची जाण. तावळी पुलाव म्हळेलें खाण अपरुब आशीलें. आत्तां जाल्यार सक्कड कडेनय पुलाव करताची. खंची व्हार्डिक मूंजी जावो पार्टी जावो पुलाव नात्तिलें ना. ते कालाक तश्शि ना आशीलें.

तेदना ती णव्वांत शिकताली. एक दिवसु तीणें तिगेले दोस्तिणीथंई पुलाव खेलेलें. तें तिका तोंडा चां लागलें. दोस्तिणीथंय साकुन घरल्या येत्तनाई तेची आशीलें तिज्जे मात्यांतु. ताज्जी रुची तिगेले जीभेरी उड्डून उड्डून खेळत आशीली. ताजो पोरंबोळ तिगेले सुत्तुमुत्तु नांचत आशीलो. तांतूलो नमूनमुन्या रंगु पोळोन तिका कौतुक दिसलें. हळदुवो, पाचवो, ब्रौन, ओरेंज, आमगेथंई अस्सलें खाण केल्याम्हणके आसा. घरल्यागी ती समेत तान्नी स चेर्डुंव. बप्पाक आंवगाल्या आंगडींतु काम. चड सांबोळ कांय ना. घरकडे उल्लोचो आमाबापालो संवादु तीणें सद्दपर्यान आयकुच्या आसा नवे.

आलोचनेंत बुड्डिल्लेक तिका घरल्या पाविलेंची कळनी. "आमा, हांवें चित्राथंई पुलाव खेल्ला. चांग आसा आमा तो. आमकांय करता वे आमा पुलाव" "कोरया चेर्डा. एक्का तारीख येव्वो. बापाक सांबोळ मेळो." तीणें प्रतीक्षा केलेलेंची उत्तर. ती लेखता, एक तारीख कित्ली कि येत्ता वत्ता. आमकां कसलो फरक पडता. आमकां एक तारीख जाल्यार इत्तें पंधरा तारीख जाल्यार इत्तें. कुरडयाक राती जाल्यार इत्तें दीसू जाल्यार इत्तें. ही ग्यादी आमान दीसा एक पावटी पुणी म्हणात्तिलें ना.

मागिर तीणें लेखईनात्तिले एक दिवसु, सांजे, तीणें स्कूळांसाकुन येत्तना पळईलें दृश्य तिका विश्वास कोरू जायना. आमान पुलावा सामग्री सक्कड होड एक

वाट्यांतु विंगड विंगड शिंदुन दवरलेली पोळोनु तिका आश्चर्य जाल्लें. तिगेलो संतोषु तिका पोटां धरना. कशिश प्रगट कोर्चे म्होण तिका कळना. तीणें आमाक पोटोन धरली. मोगू उकवून येवनू तीणें आमाक उम्मा दिल्ली. वयर वयरी. संतोषान ती धिमिधिमि नांचली. मागीर अकस्मात तिगेली दृष्टि ते शिंदून दवर्लेले वाट्यांत गेली. "आमा हांतू कोळिफ्ळावर दिसना इत्तें"? "तें नाका म्होणु हाणी गो. ताका मोल चड. ते घालनी जाल्यार काय जायना."

"जांवका आमा कोळिफ्लावर. माका तें इष्ट." तीणें लालेन सांगलें.

"वय वय. कोळिफ्लावर जांवका. आमकांय इष्ट"-अशिश चुर्डुवांनीं सक्कड तेंची सांगलें.

"तूमकां इष्ट म्हळ्यारी हावें खई वोच्चें हाडूक? मेगेल्या दुड्डु ना. बाप्पान हाळोलो सांबोळु आत्तंची खाली झाल्लो. म्हयन्या दिवच्या आशील्यांले सकडांलेंय दिल्लें आनी बाकी आशील्यान हो सगळो म्हयनो तांडुका. तुमगेल्या आसा जाल्यार हाडाची!" आमान म्हळ्ळें.

आमान सांगीलें आयकुनु तिका, तिगेले मामनान दिल्लेले पांच रुपयांचो उडगासु आयलो. तत्काल तीणें धांवन वोच्चुन तिगेले पुस्तक दोवोरचे पेटेंतु तुवाल्याक बांधुन जाग्रत कोर्न दवरलेले पांच रुपई काणु हाळ्ळी. ते पोळोच्याकय सकडांनीं तांगतांगेल्या आशीले चिल्लरे सक्कड पुंजानु हाळ्ळे. चेर्डुवांनी अशिश केल्लेलें पळयतना आमालेंय मन आयकनी. मागिर आमानय भर्ती घालनू कोळिफ्लावर हाळ्ळें.

पुलाव जाल्लो. दिवलणें वेळुय जाल्लो. आनी तुम्हीं वोच्चून भजन कोर्न येयाची. आमान सांगलें. जीवू पुराय पुलावा आयदनांत दोवोर्नु सकडांनय भजन धांवडायलें. पक्कनी गेटा शब्दु आयकूनू सक्कडय भायर आयलींची. तिका हर्दयरि मस्तिल्यावरी जाल्लें. "हो वे! बाप्पालो भावाजी. आका बामुणु. ताजे नतवाकय घेवन येत्ता. सांगुन पेटयल्यावरी आयला. आजीची येवंका आशिलें वे हाका." तिगेलें मन गुणगुणेलें.

"इत्तें गो कसल खाण करता आजी. भायर तारी घमघम पोरंबोळ येत्ता मु.

पुलाव वे जावो. जाल्यार हांव हळत वेळारी पावलो मु. हांव मेगेले बायलेक एक सरपळी कोरु दिल्लेली हाडू चमकलोलो." ताणें तागेले हंडबेगासाकून एकी सानी पेट काणू आमाल्या दिल्ली "पांच पोवन आसा तांतू. करतना घट्टी केल्लें. इत्तें म्हणता तूं." उलयता उलयता ताणें तागेलें आसन धरलें. ताज्जीं उत्रां आयकून तिका जीवा जाळ आयले. तागेले भांगरा वैभव दाखोच्याक आयला. दुसर्याक आसा की ना म्होण गोतुना. तांगेलें सुख मात्र ताका.

"चांग जाल्ला गो तुगेलो पुलाव. आसल्यारी येदो लागून दी. तुका जाय रे" तागेले नातावाक तोची निमगीता. तान्नी खाली केल्लेले प्लेट्टांत आमा पुलाव घालतरी आसा. दोग्गय जणाले प्लेट्टांत भोर्न पुलाव. "माका कोलिप्लावर जाई" चेल्लो सांगता. आमाक मागीर सांगका वे. वेंचून वाडतरी आसा. "कोलिफ्लावर म्हव्यारी तागेलो जीवू. घरल्यागी ताणें पुलावांतुले कोलिफ्लावर मात्र खावचें, पुलाव जावो ताका नाका. हांगा पळे, ताणें प्लेट्ट खाली केल्लां." तागेले नातवालें भूषण ताणें सांगलें.

"वयगो तुगेले पुलाव म्हव्यारी पुलाव. आमगेथंई केदनाय पुणीं करता ती. अशिश जायना. आसो. तूं एक कार्य करी. एदो माका एक चोळक्यां बांधुन दी. तिका व्होर्न दित्ता. मन राबना. तीवय रूची पोळोवो. आसा जाल्यार मात्र पुरो इतें" तागेले माजरा शिवरगपण. आमान बांधुन दिल्लेलो पुलाव घेवन वत्तना "तुमकां दवरलां नवे" म्होणूक तो विसरनी.

तिगेलें हर्दें कोरांतून व्हेल्यावरी जाल्लें तिका. चेल्यान खात्तना प्लेट्टा भायर शिंपून घाल्लोलो पुलाव पोळोनू तिका दुःख जाल्लें. आमा आपयत आसा. "आनी येय्या. आशीले सकडांक वांटून दित्ता." तिका दोवोरचें नाका म्होण ती कूडां चमकली. मागीर आमान कित्लें सांगुनूय तीणें ताजी रुची तारी पळयनी. आमान तोपु खरडूचें पोळोन तिका व्यसन जाल्लें. ताजेर आशीली तिगेली इच्छा तेदनाची गेल्ली. ताज्जे परान आजीकय तीणें पुलाव म्हळोलो खेल्लो ना. आत्तं तिगेली प्राय पांचसत्तेरी वर्ष जालीं. काली पयरी जाल्लोलो संभव ती विसरता. पुणीं इत्ले वर्षा फुडेची पुलावा घटना आत्तंय तिगेले मनांत ताजी आसा.



लिल्ली रमानंदन

1936 वर्षा केरळाच्या मुवाटुपुषा गांवांत जन्म. कोल्लम हांगा वसति. लोकगीतांची, लोककाण्यांची संग्राहिका आनी कथा, कविता, लेखनां, प्रवासवर्णनां आदींची लेखिका. कोषिकोड एस. जी. एस. सभा, वैष्णवरत्न आदींले जायते पुरस्कार मेळ्ळयाय. एस. जी. एस. सभेन विशेष भेवमान दिला. हांणी कथन केल्लेली कोंकणी लोककाणी केन्द्रीय साहित्य अकादमीच्या संग्रहांत घेतल्या. 1994 धरून कोंकणींत साहित्यसेवन करीत आसा.

पत्तो: 'Lalitha Ram', Thevally, Kollam-691009

*'तीळो नातिल्ले व्हनेक इत्याक की भांगार? आलमारेची चावी अशी दी-'*
नात्यांचें मूल्यांकन करपी, खर्या-खोट्याची वळख्र दिवपी कथा.

# पोसको

देवळा परमांत सान एक घरांत तं राजमाम राबता. बायल राधामाय गुणवंति. सान एक फलसरका आंगडि आसा. ताजान तीं सुखान दीस काडताय. व्हारडीक जावन एदे काळ जाले. चेरडूवां जालीनाय. जायती वोयदीक, वकद केलें. व्रतां धरलीं. कांय तरी प्रयोजन जालोना. मरणानंतर चूडि लांवचाक आनी तीळ उदाक घालूक एक आवकाशी ना मृ म्हूण तांकां होड दुःख जालें.

एक दिसा राजमामान बायलेलागी सांगीलें-"आगो, तुगेले जावो मिगेले जावो कुटुंबारि थाकून एक चेरडाक आमकां पोसको काडूया वे? तूं इत्ति म्हणता?" राधा मायेन ताका जाप दिली- "जावो मणे तशीच कोरूं" तशी दोगंय कोरनू बंधुबांधवांथंय वचून तांगेलें मन सांगीलें.

"हूं, चेरडाक मागून आयल्यांय, चोणु पोडूक एक घर ना!"

"देवळां थाकून देंवन दी म्हव्यारि हादीर देंवका. पोटाक खांवचाक सुको एक व्यारु. इत्ति दीवन चेरडाक वाडयतलीं?"

"आमकां चेरडुवां चड जावन पव्ळीनाय!"

असले उतरांनी तान्नी तांकां आंबूण म्हव्यावरि बळयलीं. ये संभवान तांकां होडू मनस्ताप दिसलो.

तशी आसतना देवळांत आराट पावलें. गांवगांवांत थाकून लोकु पावलो. आराटा प्रथम दिसा देनपाारांची पल्लके पूजा जाली. घांट वाजून देव गर्भगृहांत चोव्ळो. जन भायर संब्रादणेक फांतीन बेसलीं. भित्तरि ब्राहमण जावन भायर पानां घालीं. राधामायेन बेसल्याचे दावे तांतूं जावन एकि बायल आनी तिगेलीं चौग जाण चेरडूवां बेसल्यांय. चेरडुवांक चोयतना राधा मायेक दया दिसली; सुकून काडी जावन आसाय.

राधामायेन ते बायले लागी वळख घेतली. तिगेली काणी आयकून मायेक होड दुःख दिसलें. घरकडे वतना तीणे तांगेलीं कायरिं बामणा लागी म्हळ्ळीं. "एक चेल्याक आमकां निमगूया वे?" तीणे सांगीलें. "जावो, फाय देवळांत वत्तना दीकीली जाल्यार निमगून चोवूं. देव अनुकूल करतोलो गो-" ख्रंय माम.

सांगिल्ले वरी ते मायेकय चेरडुवांकय दुशेरे दीस देवळांत दिकीलीं. मामान तांकां घरकडे उळदून हाव्ळीं. तांगेलें दुःख सर्व ते बायलेक सांगून समजायलें. "तुगेले एक चेरडाक आमकां दिल्यारि आमी ताका भांगरावरी चोवूं. आमकां अशिल्ली आस्ती ताजे नांवार बरोवूं." मामान सांगीलें.

"हांव घरकडे वचून मिगेले जनालागी निमगीतां. तीं जावो म्हूण सांगताय जाल्यार चेल्याक दीन" म्हूण सांगून ती चेरडुवांकय घेवन गेली.

आराट जालेले दुशेरे दिसा तीणे चेरडाक हाणु राजमामाथंय सोव्ळो. राजमामाकय बायलेकय संतोषान इत्ति कोरका म्हूण कळना जालें. घरांत अशिल्ले दुडय आनी इत्तिकीं साधनय सर्व दीवनु तिका समाधानेन सांगून बळयली. चेरडाक शाळेंत बळोवन शिकोवंचाक आरांबिलें. स्नेह, माया, दया, क्षमा, सत्य, भक्ति ये सर्व गुणाच्यो काणियो सांगूनूय कायरीं सांगूनूय तान्नि चेल्याक समजावन दिलें.

चेल्लो आरोग्यान, सुभिक्षतेन वाडोलो. चेल्लो वाडून येता तशीच राजमामालो ब्यारूय वाडून आयलो. मामान स्वंत परम काणु घेवन होव्ळें घर दवरलें. नवी होव्ळी आंगडी काणु घेतली. राधामायेन आयदन-पायदन, भांगार तशी कुशाल साधन घेतलें. तांगेलें जीवित तशी सुभिक्ष जालें. पोसक्याले घरकडेय तीं जावंका जालोलो सहाय करताय.

यें सर्व जावंचानीक दिंशी मारल्यारीय वाडोवंचाक चेरडाक दिवना म्हूण चिकुव्ळेले बांधवांक चुरचुरे दिसले. चांगु कालु पावंचानीक मामालींय मायेंलींय बंधु बाधव लागी आयलीं.

"दीवाळी येता न्हय गो, चांग वस्त्र काणु घेवंका. दुडू ना, आसा जाल्यार दी-"

"शाला काणाफडे स्कूलफीस, यूनिफों, बुक, तशी सर्व होड वेचु तं. दुडवाक एक वाटय दिकूक येना. आसा जाल्यार दी-"

"आगो, येतले मास तं धुवेक व्हारडीक. तुका चेल्लियो ना न्हय वे? तुगेले तो दोनि परवडींचो मणियां सोरु तिका दी गो-"

अशि सर्व सांगून मांयेक एकेकलींच येवनु बाधा दितालीं.

"आसा न्हय गो, देवान दिल्यां. तान्नी निमगिल्लें तांकां दी" म्हूण मामूय सांगतोलो. मांय दितलीय.

एक दिसा सकाणी माम आंगडीक वचाक भायर सरता. मामाली भयणि शांता तिगेले पुताकय घेवन आयल्या. एक वाराक ती थंगा राबीली. मागीर वचाक भायर सरतना- "आना, आजि हांव वता तं. मिगेलो पूतु गोविंदु हांगा राबो. हांगाचे पोसक्याक एक भांवड जावो" अशि सांगून ती देवनु गेली.

तशी गोविंदाक शाळेंत घालो. जाल्यार शिकवण ताका लागना. शाळेंत सोडल्यार तो रुका पोन्दाक आनी शाळे मागल्यान निपून राबून वर्ष पर घालता. अनुसरण म्हव्ळेलें ना. वर्षा चारी पांच गेलीं. गोविंद शिकवण राबोवन घरकडे बेसलो. आंगडींत गेल्यार दुड फारनू सिनिमाक वतोलो.

हाजे भरशी आशिल्लो वासु पोसक्याक चांगि गति दिवना म्हूण मामाक कव्ळें. तें दिकून लागीचे गांवांत चांग एक घर परम मोल्लाक घेवनु पोसक्याले अम्माकय भावंडांकय थांगा राबयलीं. पोसक्याकय थांगा सोव्ळो. तांकां जाय जालोलो सहाय केलो.

पोसको ना म्हूण कळूनीक शांताय बामूणूय चेरडूंवय दिसपडतें म्हव्यावरि येवन वताय. दुड, वस्त्र, खाण, आयदन, तशी दोळया मुकारि दिकिल्लें सर्व शांता निमगून घेतली. "दीगो, देवान आमकां दिल्लेंलासा न्हय वे? दी. आमगेले पुत्तोगुणी हांवें वेगळेंच दवरलेलें आसा". म्हूण सांगतोलो माम.

शांता वचून हातांत मेव्ळेलें घेवन वत्ता न्हय वे, आमकांय आनालें मुतल चिन्ना म्हूण वरचील भावंडय येवन धन घेवन वचून आसाय.

चेरडूवां वाडलीं. गोविंदाक शिकवण येना. पोसको चांग शिकवण जावन होव्ळें काम मेळनु दूर गावांत गेलो. मामाकय, तागेले आमाकय दुड बोळोवंचाक आरांबिलें.

सगटांक संतोष जालो. एक दिसा राजमामान राधालागी सांगीलें- "आमगेलो पूतु दाष्टीकु गो. मायेस्तु, तो आमकां चांग करुन चोयतोलो गो."

येँ आयकून राधा मांय संतोष पावली. जाल्यार तो संतोष साबार काळ राबिलोना. एक दीस आंगडीत गेलोलो माम कडकडो म्हूण वापस घरकडे आयलो. येताच आंगणांत गडगडेवन पोळ्ळो. थांगाच जीवुय गेलो.

पोसक्याकय राधामांयेकय होड दुःख जालें. मरणाचें कायरें सगट पोसक्यान केलें. तेरावो जावन वचे वेळार ताणे अम्माक उळदीली- "आनी हांगा राबूका नाका. मिजे भरशी यो, हांव चोयन"

जाल्यार बामणान मेल्लेले घरकडे पोणूच हांवय मरतलीं म्हूण ती गेलीना. आंगडींतुलें कायरें चोवंचाक म्हूण पोसक्यान थांगा वचानीक "वच, वच, हांगा तुका कायरें ना. गोवद चोवन काडतोलो" म्हूण सांगून ताका थांगा चोडूक सरी सोव्ळोना.

मरणाक आयलेलीं बंधु बांधव एकेक जावन तागतागेले घरकडे गेलीं.

"पाप, सकडीं गेल्यार कशी व्हने, व्हनी एकलीचि जातली. कशी केल्यार गोविंद हांगा आसा न्हय वे, आमीय हांगाची रांबू-" म्हूण शांतान थांगा परदी आरंबिली. आंगडींत थाकून येंवचे दुड सर्व शांताले नांवार बैंकांत वताय. दीस वता वता आंगडी रित्ती जाली.

तशी आसतना शांताले धुवेली व्हारडीक पावली. होव्ळो देकार दीवंका, व्हारडीक कुशाल कोरका. शांतानय बामणानय कोरनू आलोचना आरांबिली. वाटय दिकून धरली. व्हारडिकेचे दीस लागी पावले. शांता व्हने लगी पावली- "व्हने, तीळो नातील्ले व्हनेक इत्याक कीं भांगार? शिंगारनु खंय वचाक अवसुन्ना, मोरचे वेळारि व्हरनायीय. आलमारीची चावी अशी दी- "तीणे चावी उप्पून काव्ळी. आलमारींतुलें भांगार, रूप्पया आयदन सर्व भायर काणु धुवेली व्हारडीक कुशाल कोरनु चमकयली.

मुरथमली व्हरप, हाडप हातांत दवरप सर्व घोषान चमकीलें. मासारी दीस पावलेनाय, अष्टमी पावली. अशिल्ल्यांत होव्ळो खोटो काणु घेवनु, उंच मोलाचें साधन, काजूबी, बदां, पैंदार, फलादीक, फूल, केव्ळ्यां घडाय सर्व दोवोरनु व्हडपणान फळारा खोटो धुवेथंय पावयलो. म्हाळु म्हन्नमी येवन गेली. लागीचे मासांत पावली दीवाळी. धुवेक मुरथमलीच दीवाळी न्हय वे? घोषारी जावंका, ना जाल्यार ऊणाव न्हय वे? जाल्यार दुड खंय? शांतानय बामणानय

कोरनु दुशेरीय आलोचना आरांबीली. "आगो, कशी केल्यार आंगडी रित्ती तं. ती विकिल्यारि आमगेले घराचो वेचूय वतोलो, धुवेली दीवाळीय घोषान जातली. तूं इत्ति म्हणता?" खंय बामुण. "व्हय मणे, आंगडि तशी घाल्यारि पोसको विकून खातोलो. तें नाका-" म्हूण सांगून चोर हस्ताक्षर घालनु घर शांता नांवारि केलें. आंगडीय विकून दुड केले.

दीवाळेचो ओमसोर आरांबिलो. दंदेल्याक राबोवुन घर परम बेडुप्प केलें दिवलि, दीवे, उदाक तापोवंचो हांडो सागट घासून धूवोवन जगजगी केलें. दीवाळे दीस पावलो. देवळांत थाकून तेल घेवन आयली. हांड्यांत उदाक भोरनु शिंगारनु तिळो केलो. उदाक तापयलें, गायेक तेल घालनु न्हाणोवनु फुल्ला माळा घालनु तीळो कोरनु सोव्ळी. सगटंय तेल्ला न्हाण न्हालीं. कूडि तोरन आनी फूल घालनु शिंगारलि. हुंबोर बरयलो. तुळसीक उदाक घालें. घरांतूय, कूडींतूच, तुळसी कडेय सगट दीवे लावनु दवरले. घरांत निवेद केलो. सगटय नवें वस्त्र देवाक दवोरनु, पांय पोणु काणु न्हेशीलीं. ते भित्तरि रांदप्यान केळ्या हालवो, दुदपेंडें, फोव कालयललो सगट केलें. तें सर्व काणु देवाक निवेद कोरनु पडक, मत्ताप, फुल्ला वाति सर्व जोळोवनु, निवेद फोव, गोडशें खावन संतोष पावलीं. सांजवेळा भांगार, नवें वस्त्र, खाण आदी दिवनु वीडो हातांत दवोरनु वोरांक व्होरनु घरकडे सोव्ळीं.

दोनि दीस जावनु आडदीवाळी पावली. भावान वचून भयणीकय बामणाकय उळदून हाव्ळीं. आंबट जेवणाचेरि पोळी सगट जावनु तेवंय खुशालि केलें. तशी दीवाळीय आडदीवाळीय जावंचानीक सत्यानचि "दीवाळि वाव्ळी!"

यो घोषु सर्व केलोलो आंगडि विकून म्हूणूय, घर शांताले नांवारी केलें म्हूणूय राधामांयेक कळ्ळें. तिका तें सहन कोरूक जालेंना. मन्न लासून ती मांदरेरि थापली. नणदेनय, बामणानय कोरनु तिका वृद्धसदनांत व्होरनु घाली. विवोरु कोण कि पोसक्याक पावयलो. तो धावा धावनु पावला. अम्माले पायांकडे पोणु तो रव्ळो, "हांवें उत्तूले वेळा उळदीलि यो यो म्हूण. अम्माक आनी हांवें सोण्णा." म्हूण सांगून तो भांडि घेवन येवनु राधामांयेक तागेले घरकडे व्हेल्ली. स्नेहान सेवा केल्ली. तिगेलें शिष्टजीवित सुखान गेलें. चांग सांगून दीवनु वाडयलोलो न्हय वे, पोसक्यान नेण्णि दाकयली.

# सुशीला टी. भट

1942 वर्षा केरळाच्या कुषुप्पिळ्ळी गांवांत जन्म. कोची गावांत राबून आसा. कोंकणींत जायत्यो कविता, नाटकां, कथा आनी लेख्नां रचल्यांय. म्हयनाळ्यांनी स्वंत पंक्ती बरयल्या. लोकवेदाची जाणकार आनी कला साहित्याच्या रंगावेली प्रमुख प्रवर्तका. "कोंकणी पाचक सहायी" हया नावांदिक पुस्तकाची लेखिका. जायत्या संस्थ्यांनी हांचो सन्मान केला, आनी टीवीचेर मुलाखत आयल्या. 1978 धरून कोंकणी साहित्याची सेवा करीत आयल्या. हांचें कथासाहित्य "कोंकण जनता" (कोची) धरून "चित्रंगी" (गोंय) पर्यंत नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यां.

पत्तो: 4/1051, Dr. J.A. Bhat Road, North Cherlai, Cochin-682002

*'एक योगिनीले जीविताक दोनी किडनी चडी तं'*

क्षणिकांतुल्यान चमकून शाश्वताकडे बोट दाखोवपी सोद्देश कथा.

# कर्मबन्धन

व्हारडिकेक एक्कडे जालेलीं बन्धु बान्धवां सर्वय यात्रा सांगून ताग तागेल्या घरल्याक परतून वचाक लागलीं. व्होरता भयणि, अण्णा, धाकूल बप्पा, पच्ची अशी स्वता घराचीं जनां मात्र बाकी उरलीं. व्होकलेले घरप्रवेशाचें जेवण जात्तणाच व्होरताले मित्र सर्वय 'शुभरात्रि आनी संतुष्ट जीवन' आशंसा कोरनु गेले.

आज व्हारडिकेचो दुस्सेरो दीसु. व्होकल दूर गांवची देकून व्हारडिकेचे दिसाच 'गृहप्रवेश' करुक अवसना. त्या खातीर तं तो संस्कार दूसेर दीस रातीक दवरला. मंत्रोच्चाराचो, रांदपाचो, जेवणाचो, गोंदोळु समाप्त जालो. व्होरता भयणि व्होकलेकय घेवनु दम्पतींक शयनाक तयार केलेले कूडांत पावली. फुलाची माळा, परमळीक वोक्कदां, म्हळ-म्हळ तराचे कौतुक वस्तूंनी साजयलेलें कूड देकून व्होकले मनांत व्होड संतोष जालो. ती मनांतूच हासली. व्होरताले भयणीन तिका विचारलें "कशी व्होने मिगेलें अरेंजमेंट? तुका खुशी दिसता वे?"

व्होनी हासीली मात्र. मागीर नणंदेन तिका न्हाणी, पारवानो, स्विचां सगटय दाकोवन दिलीं. "चोय, त्या स्टीला पोडींत दूद आसा. आनू कूडांत येत्तरी ताका दी आनी तूवंय पी. हें तं कालिंग बेल. इत्तेंय आवश्य आयलें जाल्यार वाजूका. सकल थाकून कोणय दंदेली येतोलो.

व्होनेकय आनाकय शुभरात्री आशंसून, तमाशेचीं उतरां उलोवन हासून नणंद खाल देवनु गेली. व्होकलेन पाट्याचें कापड, चोळी परतुचे वेळान व्होरेतु हासमुखो जावन कूडांत चडून आयलो.

व्होरतान-व्होकलेन तांगेले प्रथमरात्रीचे आद्यचे दोन याम अति आह्लादान वेंचु केले. दूर खंय की एक कोंबो रडचो शब्दु तांचे कानांत पावलो. "सत्या, आनीक आमकां निद्देंवचाक चोवया. राती मस्त जाल्या. फाल्या आमकां डॅम चोवंचाक वचूका न्हय वे-" दोगंय उजवाड सोंतू कोरनु निद्देलीं.

हेरदूसा सकाणी सात वरांचे अलारा वेळार दोगंय भि-भिडसेवनु उठायलीं. ख्राल देवनु गेलीं. घरांतुले जनांलीं गोडसी कमन्ट आयकिलीं. न्हाण ख्राण सर्वय संपन्न कोरनु धा वरारी डॅम चोवंचाक भायर सरलीं, सवाय धा वरारी 'टेंपो' पांवतलें. घरकार सर्वय मेळनु वचाक तं प्रोग्राम घाल्यां. हें सर्वय भयणीले निर्देशा तकीत तं. कारण इत्तें म्हव्ळ्यारी फोरिनांतु बामणा ओटू जीवन काडची ती दोनि-तीनि वर्षां एक पटी मात्र गांवांत येवंची. तशी आसतना तिगेली ख्रुशी तकीत करनाय जाल्यार तिगेलें मन दुख्रतलें. दोग जाण भावांक ती एकलीच भयणी. तितूले मोगाची. अम्माक बप्पाक अति प्रियंकरी. तीन दिवस भितरि ती बामणा ओटू तागेल्या उद्योगाच्या गांवात परतून वतली. अण्णाले व्हारडिके ख्रातीर उणेच दिसांचे लीवारि ती गांवांत आयिल्ली.

'टेंपो' पावलें. सगटंय चडलीं. प्रदीपाले-व्होरेताले-दोग मित्रय आसाय. देहाक सौख्य ना दिकून प्रदिपालो बापूस विनोदयात्रेंत वांटो घेना. टेंपो स्टार्ट कोरचे फूडे ताणे बायले लागीय, चेरडुवांलागीय सांगीलें- 'राती सात वरां फूडे तुमी पोरतून पांवका. देवळांत पालके पुजेक दुड बांदिल्याय म्हूण कळता न्हय वे?'

'व्हय बप्पा, आमी सांजे स वरां फुडेच पांवतलीं' प्रदीपानय, भयणीनय सांगलें.

डॅम सगळेंच भोवन चोवन जालें म्हण्टना सांजेचीं चार वरां जालीं. भयणीले चेरडुवांक बोटिंग कोरका म्हूणा व्होडी आशा. प्रदीपाले मित्रांनीय निर्बन्ध केलो. सगटेय कोरनु बोटाचे लागी पावलीं. जाल्यार व्होकल सत्या मात्र मोंचुवारि चोडूक तयार ना. तिका भय ख्रंय. भयान करतना तिगेलें तोंड काळें जालें, आंग सगळेंच कडकडेंवचाक लागलें. बाकी जनांनी हें देख्रून तिका ख्रूब ख्रेळ केलो. 'इतली प्राय जाल्या. चेरडूवां मणके तुका उदकाचें भय की?' प्रदीपान तिका वोडून मोंचुवांत चोडोंवचाक प्रयत्न काडलो. जाल्यार तीणे एक बोब मारनु ताजो हात बिसाटिलो आनी ऊंच धावली.

'ती येना जाल्यार तिका निर्बन्ध कोरनाकाय रे-' प्रदीपाले अम्मान सांगलें. प्रदीपूय मोंचुवार थाकून सकल देवलो, बाकी जनांनी बोटिंग केलें. प्रदीपालो एक

मित्रु हें सगट चोवन कसले की विचारार पडलो. साडि स वरारि विनोदयात्रा संघ पोरतून घरल्याक पावलें. हातपाय धुवन, न्हांवका जालेलीं न्हावन, उदाक ख्राण जावन देवळांत वचाक भायर सरलीं. नवेंच पट्या कापड, सर्व तराचीं आभरणं घालनु, फूल माळनु सत्याक तयार केली. "व्होने तूवें ती नवरत्नाची मुदी घालीना इत्याक? तुगेलें सग भांगारय घालि. आमगेले गांवांचीं सर्वय दोळे विस्कळावनु चोवोय तुका! तुका दिल्लेले तितलेंच भांगार आनी स्त्रीधन ह्या गावांत दुसेर्याक कोणाक आजि भितर मेळ्ळेना. तें दिकून एदे जाणांक सण्ण पोटा दूकि आसा. आज पालके पूजेचे निब्बान नवे व्होकलेक चोवंचाक गांवांची सर्वय पावंतलीं. चोवोय चांग कोरनु-"

व्होकल कायं पुणीय जाप दीना.

"इत्तें व्होने तूं बेळसल्या गदी आसा? आमगेलें घर तुका तृप्ती जालेंना बी वे? तुगेले बण्पाले ब्यारा लागी तारतम्य केल्यार मिगेलो बप्पा सनूच ब्यारेली तं. जाल्यारीय आमी ह्या गावांतुलीं व्होड मनीषं तं, कळता वे?" नणंदेलीं अहंकार भरलेलीं हीं उतरां आयकून सत्या मनांतूच हासली.

मंगळारतीचे फुडेच जावन व्होर देवळांत पावलें. देवळांत एक्कडे जालेले लोका दोळे व्होकलेरीच. बायलां मदें थांगा थांगा पुस-पुसु चमकता. एदीं जाण तिगेले जायां पसावत उलयताय जाल्यार एदीं जाण तिगेले कापडा पासून. तिसरो एक विभागु तिका मेळ्ळेल्या देण्या पासून जाल्यार चोवतो विभागु तिगेले चंदायेक सुजाताले चंदाये लागी तारतम्य करताय. पांचवो एक विभागु प्रदीपान सुजाता लागी केलेल्या अन्याया पासून चर्चा करता. देवळांत एकडे जालेले जनपदा भरसी एक ना एक रूपाचें प्रतिकरण जावंचाक आरांबिलें. हें कांय नेणतां व्होकल देवाचे नड्यारि हात जोणु राबल्या.

मंगळारतीचि घांट वाजूक आरांबिली. गर्भगृहाचीं कवडां विस्कळेलीं. ढों......ढों........ढों......जावन व्होडी घांट वाजता. भित्तरि सान घांटेचो शब्दु. भायर नादस्वर, धोलु वाजता. जनपद ते भक्तीचे अंतरीक्षांत सर्वय विसोरनु देवाक पांय पडताय, भगवद्नाम उच्चारण करताय.

"हू......य".म्होव्ळोलो एक अतिभयंकर शब्दु व्होकलेले तोंडांत थाकून भायर आयलोलोय, ती भुंयचेर गडगडेवन पडलेलेंय एकसानीच जालें. संभव इत्तें कसलो म्हूण लागी राबून पांय पोडचे जनांक मनांत जावंचे फुडेच तीणे हात पाय व्होड शक्तीन भुंयचेर धाडावंचाक आरांबिलें. मात्र न्हय, तिगेले तोंडांत थाकून भुरभुरी फेणूय रगतय मिश्र जावन भायर देंवचाक आरांबलें. गोमटो आव्ळता-पेव्ळतांत हालोवन भयानक रुपान तीणे कोरचे विखार चोवनु, लागी पांय पोडून राबिल्लीं चेरडूवं भयान दूर धांवलीं. निमिष भितरि देवा नड्चार प्रदीप आनीक आडें जावन पडलेली सत्या मात्र. दृक्साक्षि जावन सर्व मनीषं दूर दूर राबल्यांय.

"दिकीलो वे देवालो खेव्ळु? ते सुजातालो शापु हाका लागूनातिल्लें खंय वचाक? एक बायलेन लागी राबिल्ले लागी म्हव्ळें. जना मदें आनीकय पुस-पुस चडता जालो.

रानाक उजो लागूचे वरी ही खबर गांवांत भरली. सुजाताले शापान तं प्रदीपाक अशी जाल्यां म्हूण अधिकय जनांनि विधी मारली. ना जाल्यार ताका असली एक फटवण पोडका आशिल्ली वे? एक अपस्मार रोगी जावन आशिल्ली बायल! दामु दुडू जायतो मेव्ळो जायत; व्होड धनवंताली एकलीच मोगाची चेल्ली जायत; सौंदर्य चांग आसा जायत; सिखवण व्होडी आसा जायत; जाल्यारीय रोगु हो अपस्माराचो-इत्तूलें वोखद केल्यारीय शाश्वत जावन शांति मेव्ळनातीलो!

आस्पत्रेंत बायलेले बेडा लागी बेसल्ले प्रदीपाले मनांत शोकूय, तापूय, दुखय, आत्मनिंदाय सर्व मेव्ळेले सम्मिश्र विकार एका मागल्यान एक उदेले. लागीचे बेडारी सत्याली आवसु, कदेलारी बप्पूस, कूडा भायर तिगेलो अण्णा, बाकी बंधू सगटय विचारारि आसाय. सत्याक आस्पत्रेंत हाणु निद्दायलेले उपरांतें प्रदीपाले बप्पान तिगेले बापसूक टेलिग्राम सोडलें. देनपारां बारा वरांचे फुडेच सत्याली आवस, बप्पूस, बंधुजन सर्व पावलीं. कोणाचे तोंडारि रगत ना. इतूले व्होगी फटवण भायर येतली म्हूण ताम्नी लेकलें ना आसलें. धूव रातीचें वोखद खांवचाक चुकली आसतली म्हूण ताका कव्ळें. ना जाल्यार इतले शक्तीन रोगु येवन्ना आसीलो. विनोदयात्रेक गेलेलीं, बोटिंगाक उदकांत देविल्लीं, देवव्ळांत जनपदालो गोंदोव्ळु, घांट वाजूचो

शब्द, नादस्वर-धोलु, हें सर्वय लागेन पीडेची शक्ति चडोवंचाक कारणय जालें म्हूण तान्नी मनांत केलें. देवा आनीक हिगेली स्थिति कशी जायत म्हूण तांचे मनांत विचार जालो.

हांगा प्रदीपाक ताजेलागी डाक्टरान सांगिल्लें मनांत भड भडेत राबलें.

तेग जाण डाक्टरांनी मेळनु सत्याक चांग रुपान निरीक्षण कोरनु जावनु, डाक्टर प्रभून प्रदीपा लागी रहस्य जावन सांगलें- "मिस्टर प्रदीप, तुजे लागी सांगूक व्होड दुख आसा. तुमकां सत्याले घरकारांनी कांय पुणी खबर दिल्लीना वे?"

प्रदीपान 'ना' म्हूण सांगलें. "जाल्यार तुमकां व्होडि फटवण पडली. ऊणे वीस वर्षांची पर्णसणि पुणीय हिगेले रोगाक आसा. शक्ति चडी आशिल्ले वोखदांनी रोगु दामोवन दवरलोलो. दोन दीस नीद खोव्ळेलीय कारण जावयात, कशीय जाल्यारीय मरण पर्यंत ही वोखदांतूच जीवन काडतली. वेगळी वाट कांय ना. आनीक भावी पसावत चांग रुपान आलोचना कर-"

प्रदीपाले मनांत धर्मसंकष्ट आरांबलें.

चोवते दिसा सत्याक आस्पत्र्यांत थाकून प्रदीपाले घरकडे व्हेली. ताजे हेरदूसा सत्याली आवस- बप्पूस तिका एदेच दिसांक घरल्याक राबोवंचाक म्हूण सांगून घेवन गेल्लीं.

गांवांत आतां हींच उतरां- दामाचे मोहाक वोचून शेषगिरि मामाक फटवण पडलेली; पुतालें जीवित शून्य केलेलें; सुजाताले शापान तं हें सर्व जाल्यां; सत्य जाण जाले उपरांतें आनीक प्रदीपान सत्याक स्वीकार कोरचें सम न्हय; तो सुजाताक व्हारडीक कोरनु सुखान राबो; बप्पाली आशा पूर्ण जाली न्हय वे......अशी जायते अभिप्राय लोकान उलोवंचाक आरांबिले. गिरि मामान चार पांच दिसांक ब्यारु केल्लोना. आंगड्यो बंद. प्रदीप भायर देवनायीच. तागेली भयणि कोणाक राकूनातिल्लें तिगेले बामणा ओटू फोरिनांत गेली.

प्रदीपाले अंतकारणान ताजे लागी म्हळें- "आरे, दुष्ट, पापी.......तुका हीच शिक्षा मेळ्यार नुपुरो. तुका ते निश्कळंक चेलेलो-सुजातालो-शापु लागला. सात वर्षां

परस्पर प्रेम कोरचे तूवें तिका एक दीसा, तुगेले बप्पालें उतर आयकून सोणु विंदीली. तिका विना वेगळ्या कोणाक व्हारडीक कोरनु घेवना म्हळ्ळेले तुगले उतरारि विश्वास पावनु तीणे तिगेलें सर्वस्व तुका अर्पण केलें. तुगेले घरकडेचे मनिष्यांनीय तिका मनांत आशा दिली. जाल्यार चड स्त्रीधन मेळची सोयरीक येवंचाकय तुगेले बापसून तिजेलागी अन्याय करयलो. तीणे रोणु तुजे, तुजे बापसूचे पाय धरले. जाल्यार तुमी तिका चिक्कूव्ळ्ळी. जातक सम जावन येना म्हूण एक कारणय सांगलें. सात वर्षांचे तिगेले आत्मसमर्पणाक तूवें कांय मोल दिकलेना. तिगेलें जीवित हातांत काणु तूं सात वर्षांक खेळ्ळो. तिगेले पंचात्माचो शापु तुका लागूनातिल्लें वता वे? तिगेलें चरित्र जाण जालोलो कोणय धरारि तिका व्हारडीक कोरूक मुकारि येत वे? तुका ती इतूलें प्रेम करताली? तूं दुष्ट नंतना कोण?"

मासु एक जालो. सत्याले कार्यांत कसलो निर्णय जालोना. दिल्लेलें स्त्रीधन पोरतून दिवनु तिगेलें बंधुत्व सोणु घेवया म्हूण प्रदीपाली आवसु, बप्पूस. सर्वय बन्धुजन ताका प्रेरण दिताय. मोरू भितरी हें वजें इत्याक व्हांवका म्हूण तीं निमगिताय. बापसून ताका सुजाताक व्हारडीक कोरूक अनुवादूय दिलो. जाल्यार प्रदीप मात्र कांय जाप दीना. कांय खायना, पीना आनीक खाड वाडोवन पिशाचा मणके भोंवता. तशीणा सत्याले बर्पारि ऊंच बर्प येतच आसा क्षमापण निमगून; तिका बामणाथंय येवनु राबूका म्हूण सांगून.

एक दिवस प्रदीप संकोचु कोरनु कोरनु सुजाताथंय पावलो. फिदरांत कोण ना. ताणे काळिंग बेल वाजीलें. दंदेलेन येवनु कवड काडलें. "माका एक सुजाताक दिकूका. "ताणे राबोवन राबोवन सांगलें." आयो, पुतो... ती चार दीस जाले आस्पत्र्यांत तं आसा. तिगेली आवस बप्पूसूय थांगाच आसाय."

मागीर अधिक कांय आयकूक तो राबलोना. थांगाच थाकून बसार चडून तो आस्पत्र्यांत पावलो. सोदून सोदून सुजाताले रूमांत पावलो. सुजाता दोळे धांपून पोडून आसा. आवसु बप्पूस मंचारि बेसून आसाय. तितलेच घडियांक तडसून राबयलेलें रण्णें प्रदीपाले तोंडांत थाकून व्होड शब्दान फुटलें.

शब्द आयकून सुजातान दोळे विस्कळायले. प्रथम तिका प्रदीप कोण म्हूण मनांत जालेंना. आवसून सांगिल्ले उपरांतेच तिका समजल्लें. तीणे उठांवचाक श्रमु काडलो. जाल्यार बापसून तिका उठांवचाक दिल्लीनी.

प्रदीपान संत संत तिगेलो रोगु इत्तें म्हूण निमगीलें. "आयो, प्रदीप, तिका देवाले दयेन कसलोय रोगु ना. तीणे तिगेली एक किडनी आमगेले भजन शेणै मामाले नातवाक दान दिल्या. दोन दीस फुडे तं ताजें ट्रान्सप्लांट जालेलें. आनी दोन चार दीस भितर आमकां घरकडे वचात."

प्रदीप हें आयकून स्तब्द जालो. "किडनी दान दिली?"

"व्हय "सुज़ातान तं जाप दिलेली" पाप तीं गरीब मनीषं तांकां एकच चेल्या चेरडूं. हजारा लेकान खर्च कोरूक तांचे लागी खंय दामु? मिजान जांवचो उपकार हांवें त्या कुटुंबाक केलो-"

"पै मामु. तुमी सुजाताक कशी अनुवाद दिलो हें कोरूक?" प्रदीपान अशी निर्मगितनाय सुजातान तं जाप दिल्लेली- "मिगेले हे जीवनान लोकांत कोणाकय पुणीय एक उपकार जावो. एक योगिनीले जीविताक दोनि किडनी चडी तं!"

तिगेले उतरांचो अर्थु समजुनातिल्ले वरी, ह्या वेळारि प्रदीपान सुजाता लागी लजा नातिल्या मणके तागेले आवस-बापसूलो आतंचो आग्रह सांगलो. तें आयकून सुजाता हासली. तिणे सांगलें- "प्रदीप मिगेलो निश्चस तुका मनांत जालोना वे? आनीक आसिलें मिगेलें जीवित अनाथाश्रमा खातीर वेचु कोरूक तं मिगेलो आग्रह. आनीक थांगाचे चेरडुवांक हांव आवसूय, तीं माका चेरडूवंय तं. ते खातीर आसिलें बर्प-सर्प सर्वय कोरनु जालें. मिगेले हे निश्चयांत कांय तरी परतवण ना-"

प्रदीप मातें बावगोवनु राबीलो. संत संत रूमांत थाकून भायर देवलो. सुजाता दांत किरडून सांगूक लागली- "लजा नातिल्लो!"

धन आसा
तो धनिक
पुण मित्र ना
तो गरीब

*- सूर्या अशोक*



डॉ. वत्सला जी. शेणै

1943 वर्षा केरळाच्या तलश्शेरी गांवांत जन्म. कथा आनी लेख नेमाव्यांनी प्रकाशित जाल्याय. वैष्णवरत्न, केरळ कोंकणी अकादमी, एस.जी.एस. सभा, कालिकत हांगेले जायते पुरस्कार मेळ्ळ्याय. इतर भाषांनीय साहित्य सेवन. हिंदींत पी.एछ.डी. पदवी जोडल्या. 1994 धरून कोंकणींत साहित्य सेवन करीत आसा. सानप्राय धरून अनेक तराचे पुरस्कार जोडित आयल्या; बरयत आयल्या.

पत्तो: Behind S.L.N. Temple, Main Road, Thalassery - 670101

*'साठी वर्षांरी मीरा हो लोकु सोणु चमकली- '*

उग्र रोगाक हारवोवनु कर्मव्रतान जीवित धन्य केलेले अस्तुरेली कथा.

# धन्यजीवन

सुमार शंबरि वर्ष फूडे शोरणूर गांवांतु सुधीर रावु म्हळ्ळोलो डाक्टरु राबून आशिल्लो. तागेली बायल सुशीला बामणाचेरी भारि प्रीतीन गृहस्थि चलयताली. देवाले अनुग्रहान तांका एक चेलिये चेरडूं प्राप्त जालें. तिका मीरा म्होणु नांव घालें. ती चेली आपण्याले सुमधुर मन्दहासान सकडांले मन आकर्षण करता. एक पावटि तिका पळयिले जन वापसय तिका पळोवका म्होणु आशेन डाक्टराले घरकडे येताची.

मीरा स्वल्प वोडि जाली. आंगणांत धावनु खेळचे, रुक्का वयिरि चोणु उडकि मारचे, हिंडलारि बैसून डोलचे, असले खेळांत तिका भारी आनन्दु मेळतालो. आवसूय, बापूसूय मीराक भारी मोगान पळयताचि. तिका जीवितांत कसलेय कष्ट येनातिले तान्नी पळयताचि. मीराले दिवस संतोषानि वत्ताचि.

पांच वर्षारि मीराक स्कूळांत पेटयली. आद्यचो दिवसु मीराक अम्माक सोणु वचाक इष्ट ना आशीले. सुशीलान तिका सांगलें-चेरडा, घरकडे बसलारि तुका विद्या कशिश मेळतली? विद्या नातिल्लो मनीशु मृगाचे समान अत्. जीवितांत कसलोय प्रश्नु येत्तना बुद्धि उपयोग कोरनु तो दूर कोरयेत. बुद्धि विकास जावचाक पाठशालेंत वचें भारी अवश्य अत्.

अम्मालो उपदेश आयकून मीरान दोव्ळ्यांचे उदाक पुसून पाठशालेंत वचाक प्रारंभ केलो. रिक्षाकारी मीराक रिक्षेंत बसोवनु रिक्षा तांडून व्हरता. सांजेचें पाठशाला सोडतना चार घंटारि तो पाठशालेचे बागलालागी राबता. मीरान येत्तरि तिका रिक्षेंत बसोवनु पावयता. पाठशालेंत शिकयतल्यान पाठु एक पावटि सांगलारि मीराक तें मनांतु जाता. एक पावटि शिकिलो पाठु ती मागिरि विसरना. मन दीवनु शिकिल्यान ती वर्गांतु एकाचे स्थान घेता. खेळांतूय ती मुकारी येता. शिकयतलिं सक्कड मीराक वोगलशिताचि.

स्कूल सोडचे वर्षाचे परीक्षेंत मीराक 80% मार्क मेळता. मुकारि शिकोवचाक शोरणूरांत काळेज ना. दूर होस्टलांत राबोनु शिकोवचाक सुधीराक भय. तावळचो रिवाजु तकीत सुधीरान कण्णूर गांवातुले सुकेशु म्हळ्ळेले वकीलाक मीराक व्हारडीक कोरनु दिल्ली. पांच हजार रुपयो आनी तीस पावनाचो नगु दिल्लो.

मोटर गाडी फुल्लान शिंगारनु व्हरेताक तांतू बसोवनु रोडाचो सुत्तु केल्लो. वाटेरि पुगति, बाण, बिल्लूसाचे प्रयोगु पळोवनु जन आश्चर्यानी भरलीं. व्हारडिके जेवणाक मस्ति रुचिकर रांदयो आशिल्यो. जनानि ते खावनु इतलि चांगि रांदयो आमी खंचेयी व्हारडिकेक खायने म्होणु वोगलशिले. चेल्लकारांक व्हारडिकेचो आघोष तृप्ति जालो. नवे घरकडे आपणाली चेल्ली राणिये समान सुखान राबतलि म्होणु लेकूनु संतोषान सुधीरु आपणाले घरकडे परतलो.

सुकेशाक मीराचेरि प्रीति आशिल्ली. व्हारडीक जावनु स महीनानि मीराक खांकि सुरु जाली. मागीर ती रगत वोंकता. डाक्टराक दाकयतना मीराक क्षय रोगु म्होणु सुकेशाक मनांतु जालें. सुकेशान टेलिग्राफ दीवनु मीराले बापसूक आपोवनु हाळ्ळो. सुकेशान मावालागी धुवेक घेवनु वचाक सांगलें. सुधीरु धुवेक घेवनु शोरणूराक गेलो. मीराक चांग डाक्टराक दाकोवनु चिकित्सा करयली. एक वर्ष चिकित्सेन तिगेलि खांकि पूर्ति राबलि. तावळि सुधीरु मीराक घेवनु तिगेले बामणाले घरकडे वत्ता. मीराक मावु आनि मायि तांगेले घरकडे राबेवचि ना म्होणु सांगताचि. मीराक घरकडे राबयल्यारि तांका सकडाक क्षय येवनु कष्ट भोगूका जातले म्होणु मायि सांगता. बले बेजारारि सुधीरु मीराक घेवनु वापस आपणाले घरकडे येता. बामणान सोळ्ळेल्यान मीराक मनांतु भारी दुःख जाले. समाजांतु आपणाक कायि स्थान नामु म्होणु लेकून ती रडता. जलारि आपणाले दुःख ती आवसु आनी बापसूलागी सांगना.

मीरा घराचे आंगणांतु गुलाब शेवंतें, गोण्डो असले फुल्लाचे झाड वोयता. ताका ती उदाक घालता. झाडारि फूल जातना ताजे वयरि चंदु बण्णापक्को येवनु बसता. ताजी चंदाय पळोवनु मीराक भारी आनन्दु जाता.

समाजांतु मीराक एक चांग स्थान मेळका म्होणु सुधीरु लेकता. तो तिका मद्रसांतु एक काळेजांतु इन्टर शिकचाक पेटयिता. दोनि वर्षाचे शिकवणे नंतर

परिक्षेंतु विज्ञान भागांतु मीराक 75% मार्क मेळ्ळे. मागीर ती मद्रास मेडिकल काळेजांतु शिकता. एम.बी.बी.एस 60% घेवनु पास जातरि ती डी.जी.ओ. शिकता. डि.जी.ओ. बाळांतिरा भागु पास जातरि मीराक मंगळूरांतुले एक आस्पत्रेंतु काम मेळ्ळे. सदचि आस्पत्रेंतु कामाक वोचे फूडे देवाले कूडांतु देवाक फूल दवोरनु पूजा करता. आपणाले कामांतु विजयु मेळचाक ती देवालागी प्रार्थना करता.

देवाले दयेन मीरा लागी बळांतिरा आयिली बायलो सुखान बाळांतिरो जावनु आपणाले चेरडाक घेवनु घरकडे वत्ताचि. चांगि डाक्टरनी म्होणु मीरालि कीर्ति चारि भागान पांवता. चेरडुवांक व्होड करतना अम्मान कसकसले कोरका, गुर्भिणिन कसलो आहारु घेवका, चेरडाक दूद पियतना अम्मानि कसलो आहारु घेवका, ये सकड विषयांतु उल्लोवचाक मीराक मस्त जगारि थाकून निमंत्रण येता.

आपणाले व्यस्त जीवनांतूय ती भाशण दिवचाक मस्त जगारि वत्ता. बायलो ताळियो पेटून तिक्का स्वागत करतायि. गरीब चेरडुवाक शिकचाक ती मस्त रुपयो धडता. रामकृष्ण परमहंसाले पुस्तक वाचून तिका जनांचेरि प्रीति वाडूनु आयलि. आयताराचो वेळु मेळतना ती रामकृष्ण मठांतु स्वामिले प्रभाषण आयकूक वत्ता.

साठि वर्षारि मीरा हो लोकु सोणु चमकलि. वोच्चे फुडे तीणे एक वृद्धाश्रम बांदयलें. थंय पुंक्याक राबचे मंतारि जन खंडित मीराले आत्माक आशीर्वादु दितलींचि. बाकी धन तीणे रामकृष्ण आश्रमाक बरोवनु दवरलें. अश्शि डाक्टर मीरान आपणाले जीवन परोपकार कोरनु धन्य केल्लें.

शिला म्हव्ळ्यार
विरूपि फाथर
शिल्पीले हातांत पडतना
रूप धरता सुंदर

*- सूर्या अशोक*



## पुष्पा नवीन

1945 वर्षा केरळाच्या पव्ळुरुत्ती गांवांत जन्म. चालक्कुडी हांगा वसती. कथा, कविता गीत आदी बरोवन वाचकांक परिचित. S G S सभेचे आनी 'वैष्णवरत्न' पुरस्कार प्राप्त जाल्याय. इतर भाषांनीय आनुकालिकांचेर बरयता. कोंकणी साहित्य सेवेची हांकां परंपराच आसा.

पत्तो: 'Navaneeth', Near, I.T.I Chalakudy-680307

*'ते वार्डांत पडून तिगेले सान मनांत तीणे एक व्हडली प्रतिज्ञा काडली'*

चांगपणाचो सोद घेवपी, चांगपणाचो पुरस्कार करपी कथा.

# पुनर्जाता

स्मिताक उडगास आसा तो दीस. देहाक व्होडि दूकि आशिल्ली. 'अम्मा, अम्मा' म्हळें तीणे. 'इत्तें धुवे, हांव लागी आसा न्हय वे-' म्होण अम्मान तिगेलो हात धरलो. ते हाताक धरतना तिका समाधान जाली. ती संत निदेवनु गेली. 'श्रीचित्रा' आस्पत्रेंत हार्ट ओपरेषन जालेल्यांक निदांवचे वार्डांतु एक सान 'बावली' सरी ती पळ्ळेली. दोनि दीस जावनु समच उडगास येतना तं तिका कळ्ळेलें तिगेलो हात धरलोलो अम्मान व्हय, चिन्नम्मा सिस्टरान म्होण! ते वार्डांत पोणु तिगेले सान मनांत तीणे एक व्होडि प्रतिज्ञा काळ्ळी "हांव वरली जाल्यार चिन्नम्मा सिस्टरा वरी चेरडुवांक शुश्रूषा कोरची एक नर्स जातली!"

'स्मिता तूं इत्तें करता? तुका दिकूक इत्तूलीं जाण आयल्यांय चोय!' म्होण निमगून अम्मा आयली. स्मिता तिगेले सान खाटल्यार पळ्व्या दिकून अम्मा हासीली. 'ओ, तुगेलें परणें खाटलें! परणीं कायरीं आठोवनु पळ्ळेली वे? यो भायर!' स्मिता उटावनु भायर आयली. लागीचीं जन, तिगेली क्लासमेट षैनी सगट तिका दिकूक आयल्यांय. तिणे हासूनूच तांचे लागी जाप दिली.

षैनी आतां तान्नी शिकिल्ले स्कूळांत टीचर तं! तीणे म्हळें 'आमगेल्यो टीचर्स सदा तुगेलो विशेष निमगिताय. तूवें आयले कडेरि स्कूळांत यो म्हळ्यां'- 'हांव फायीच येन षैनी, माका तें स्कूळ विसरूक जातलें वे? माका पुनर्जन्म दिलोलो थांगाच्या चेर्डुवांनी न्हय वे?' म्हळें स्मितान.

बारा वर्षां फुडेचीं कायरीं तांगेले मनांतु आयलीं. स्कूळांत शिकतना, धावल्यारि स्मिता घूवळि येवनु पडताली, देह नीळ जातालें. स्कूळांतुले मेडिकल चेक अपारि तिका हार्टांक तक्रार आसा म्होण दिकून तान्नी तिका डिस्ट्रिक्ट आस्पत्रेंत रेफर केली. अम्मालेय एक मास्टरालेय कूटांतु डोक्टराक दिकूक गेलेलीं सगट तांगेले वर्तमानांत

आयलें. षैनी केदनाय तिजे ओटू भोंवताली. एक वर्षाची चिकित्सा जावन स्मिताक श्रीचित्रेंत रेफर केली. स्कूळांतुले स्टूडन्स फंडांतुले रुपया घेवनु वेकेषनांत एक मास्टरूय, तिगेलीं अम्मा बप्पाय कोरनु तिका श्रीचित्रेंत घेवन गेलीं. थांगा दवोरनु तिगेले हार्टाचे वाल्वाक दोनि वेज आसाय म्होण कळ्ळें. सीरियस दिकून लागीच वेकेषनांत तिका ओपरेषनाचें डेट दिलें.

स्मितालें कुटुंष दुर्बल विभागांतुलें दिकून तिका ओपरेषन 'फ्री' जावन करतलीं. म्हव्यारि वखदाचे, रगताचो, अम्माबप्पाक थांगा राबूक आशिल्लो सगट खर्च ताम्नीच काडका. 'इत्तें कोरचें देवा?' म्होण अम्मा बप्पा विचारारि पळ्ळीं बप्पाक आशार्या दंद. अम्मा लुवणीक वता. ताजान तं दीस काडतालीं.

स्कूळ असंब्लींत हेड मास्टरान स्मितालें कायरें सांगून मनांत केलें. 'तुमकां सगटांक जांवचे वरी सहाय कोरका' म्हूण ताणें म्हळें. एक वारा फूडे धा हजार रुपया एकडे जाले! सगटय अतिशय पावलीं. मागीरीय दुड येताच आसाय! एकल्यान ताणे मोगान वाडोवंचे बोकडी पिलाक विकून रुपया हाव्ळो. एकलेन तिगेले बर्तडेक बप्पान पेटयलेलें ड्राफ्ट तशीच हाणु दिलें. एक सान चेरडान तागेली 'काशुकुडुक्का' (Piggy Bank) तशीच हाणु हेड मास्टराले मेजेर दवरलें. वेकेषन येवंचे फूडे पन्नास हजार रुपया जालो. परीक्षा जावन स्मिता सगटांचे लागीय यात्रा सांगून आयली. 'ओपरेषन जावन सुखान यो' म्हळें हेडमास्टरान.

विशेष उलोवनु षैनीय स्मिताय तिगेले कूडांत आयलीं. तांतूं एक व्होड खाटळेंय एक सानु बांकूय आसा. सानु बांकू चोवनु षैनी हासीली. 'आतांय आसा वे यो बांकू?'

'यो बांकू तशी सोडूक जातोलो वे?' खंय स्मिता. तीणे ओपरेषन जावन घरकडे येतना तिजे लागी नेलारि पोडू नज म्होणूय कांय अध्वान काडू नज म्होणूय सांगिल्लें. तिगेले घराक दोनी सान कूड आनी रांदपाकूड मात्र तं. तांतूं खाटलें घालूक स्थाय ना. षैनीथंय थाकून एक खाटलें हाणू घालूक चोयलीं. तें घरांत चडना. मागीर तिगेले बप्पान दोनि फळीं काणु एक बांकू केलो. तो तांगेले सान कूडांत चडता. स्मिताक तो लेकान जालो. प्लस टू जावन नर्सिंग कोळेजांत वचू भितरि ती तेच

बांकारि निदेताली. ओपरेषन जावन स्कूळांत आयलेले स्मिताक चेरडुवांनी संतोषान स्वीकार केलो. तीणे तांकां सगटांकय उपकार सांगलो. ते दीस इत्तूले संतोषाचे आशिल्ले! एस.एस.एल.सीक तिका चडच मार्क मेळ्ळें. प्लस टू जावन ती बी.एस.सी. नर्सिंगाक गेली. चांग एक आस्पत्रेंत तिका काम मेळ्ळें. प्रथम जावन मेळ्ळेले शंबळांतु थाकून एक वांटो तीणे तिगेले स्कूळाचे स्टुडन्स फंडाक दिलो. चेरडुवांनी ताळियो वाजून तिचें अभिनंदन केलें. तें जावन एक वर्षान तिका अमेरिकेंतु चांग एक आस्पत्रेंत काम मेळ्ळें. गेले चारी वर्षांक ती अमेरिकेंत तं आसा. तिगेले परणे घराचे स्थानारि आतां सर्व सौकर्य आशिल्लें एक घर केल्यां. भयणि शिकून कामारि चडली. बप्पा एक फर्णिचराचो ब्यारु घालनू बेस्सला. अम्मा स्वस्थ घर चोवनु पोळोवनु काडता.

स्मिताक दिकूक आयलेलीं सर्व 'फाले येवूं' म्होण सांगून गेलीं. जेवण जावनु स्मिता, षीला, अम्मा आनी बप्पा सिट औटारि मेळ्ळीं. स्मितान म्हळें 'हांव आतां अमेरिकेंतुलें काम नाका कोरनु आयल्या तं बप्पा. माका श्रीचित्रेंत काम मेळ्ळ्यां. एक वारा भितरि थांगा जोयन जावंका'

'चांग, धुवे' खंय अम्माय बप्पाय.
'चांग जालें आका' खंय भयणी.

तांका जालेले संतोषाक लेक ना जालें. संतोषान तेदूस तीं निदेंवचाक गेलीं.

स्मिताक नीद पडना. अमेरिकेंतुले दीस मनांत येताय. तिका ते आस्पत्रेंत चांग नांव आशिल्लें. तिगेलें काम ती सदा हासून करताली. वार्डांत पळ्ळेलीं तिका 'स्मायलिंग एंजल' म्हूण सांगतालीं. येंवचे वेळारि सेंट ओफ पार्टींत सूप्रंडान सांगीलें 'आमकां चांग एक एक्स्पर्टाक तं नष्ट जाता. जाल्यारीय स्मिताले राज्यस्नेहाक आमी मोल दवरताय. खंय गेल्यारीय तिका चांग जातलें!' स्मिताले दोळे भोरनु विकरले.

'मिगेले ये पुनर्जन्मान मिजे वरी आशिल्यांक सेवन मेळका जाल्यारि हांवें हांगाचि आयल्यारि न्हय वे जातलें?' अशी आठोवनु ती संत हासीली. तशीच तृप्तीन ती निदेली.



## वत्सला रामचंद्र

1947 वर्षा जन्म. आलप्पुषा गांवांत वसति. 1967 वर्षा हांची विवर्तित मलयाळम नवलिका प्रकाशित जाली. कोचीच्या 'कोंकण जनता' म्हयनाळ्याचेर 1972 धरूनूच हांगेल्यो कथा आनी लेखनां उजवाडा येत राबलीं. हांगेले कोंकणी कथेची स्वयकृत मलयाळम परिभाषा केरळ साहित्य अकादमीच्या संग्रहांत आस्पावयल्या. केरळ कोंकणी अकादमीचो 'पंडरीनाथ भुवनेन्द्र' पुरस्कार मेव्ळा. कोंकणींत सुमार पांचेवीस काण्यो हांच्यो जावन आसाय.

पत्तो: 'Ananda Bhavan' (SKV Book Depot)
A.N. Puram, Alappuzha 688011

*'दुःख होगी येतलें जाल्यारीय होगी वतलें. आशा तशी न्हय-'*

निराशेंतुल्यान बळगें जोडिल्ले एक चेलेले आशापूर्तीची कथा.

# नळिनी

तेद्दूस मासा सुक्रार म्हूण उडगास आयलो नळिनीक. सिकोवंचाक वचे फूडे देवळांत तुप्पा दिवलि, अर्चन इत्यादि कोरोवंका. यो बारावो सुक्रार तं. मनोभीष्ट जावंचे खातीर कीं कोण तरी सांगून नळिनी हें कोरनु येता. तेद्दूस न्हावन तं उदाक पिवंचाक सांगील्यां. बप्पाली खांकि आयकूक पडता. कालि राती सगोळ नीद ना म्हूण दिसता. चाय पिवंचाक हातांत काळ्ळेली बापसू लागी गेली- "यी हून चाय पी बप्पा, स्वल्प आश्वास मेळतोलो." बप्पा होगी काणु घेवन पिलो.

"एय कमला, धुवे लागी सांगीलें वे कायरें?" अम्माक आपयता. दूसरी खांकीता......

अम्मा नळिनी लागी आयली- "धुवे, आजि पुणीय एक हासूचें तोंड जावंका. तान्नी आजि चेली चोवंचाक येताय. दल्लाळ गोपाल माम सांगून गेला."

तिका कोपूय दुःखय आयलें- "उत्तूले फंतां जालें यें चेले चोंवचाक येवप! हांवें सांगिल्लें न्हय वे आनी पुणीय साबाव बेसाय म्हूण? कपला बर्प तकीत जातलें." नळिनी देवळांत चमकीली. मन चंचल दिकून ती सर्व विसरली. बप्पाली खांकि आनी अम्मालीं उतरां मात्र कानांत आयकूक पडताय-कशी हासूचें? "देवा, वेंकटपती! आजि पुणीय तुवें हांतूं थाकून माका मोचन दिवंका....दया कोरका!" ती प्रार्थन कोरनु चमकीली. फूडेचे संभवांचें एक एक चित्र मनांत येता आसा.......

सुमार दोनि वर्षा जाल्यांय बापूस तिगेले खातीरि सोयरीक सोदून भोवंता. प्रायाधिक्य आनी रोग बप्पाक बलहीन करताय. खंचेंय अवसून येना. इत्ति खातीर? दिवंचे दुड ऊणे जाताय. कालु पोरतोलो म्हूण सांगूचें. स्त्रीधनाचो मोग. चांग विद्याभ्यास, गुण, रूप, यें कांय नुपूरो. चांग रूपारि मेळका - घडीस दुड आनी भांगार!

नळिनीले कार्यांत जालेलेंय येंचि. तिका कांय ऊणे ना. केवल दुड, अथवा निवंगणे दिवंचाक तिगेले बापसू लागी साबार कांय ना. न्याय जावन तो दिवंचाक तयार. ताका संपाद्य कांय ना. सानु एक ब्यारु. सदाचारान सत्यान जीवन काळ्ळोलो मनीषु. दैवीकान प्राय, रोग इत्यादि ताका भारि आसा जाल्यारीय तो धुवेक पेटोवंचे स्वातीर प्रयत्न काडता आसा. आशा सोणा-

तुप्पा दिवलि जळयलेली चोवनु, अर्चनेक दुड भोरनु नळिनी होगी घरकडे परतली. मन खंय वता आसा. देवा, तूवें आजि माका धैर्य बुद्धि दिवंका. चोवंचाक येवंचीं जन कसलीं कोण म्हूण तुका कळता.

"चांगि सारी काणु न्हेस धुवे! एक फुला कुटूको केसारि माळि. निडळारि तीळो जावंका-" अम्मालि पल्लवी आयकूक पडता. ती भारी संतोषारि आसा. नळिनीन जीब चाबून धरली, आनी संत सांगता- उत्तूले जनाले मुकारि अशी वेष घालका अम्मा हांवें? हांव तुका एक भार वे? एक पुत्ताले आशेन पांच जाण चेलियांक जन्म दिलोना वे तुमी? चौग जाणांक तुमगेली शेषि तकीत दिवन पेटेयल्योनाय वे? आनी एक पुता समान माका लेकूका. बप्पाक आनी कांय कोरुक जावन्ना. प्राये पशी असुखाचो भार काडूक जावनातिल्लें दुर्बल देह.......

नळिनीलें पोस्ट ग्रजुवेषन जाल्यां. काम कसलेंय मेळचे खातीर प्रयास कांय ना. जाल्यार कपला बोरो म्हूण सांगूका, दुड बांदून दवरुक ना म्हळ्ळेले कारणान तिका काम मेळनी. कुटुंबाचो भार बप्पाक मात्र जावनयें म्हळ्ळेले खातीर ती लागी आशिल्ले पारलल कोळेजांत सिखोंवचाक वता. शंबोळु जायतो ना जाल्यारीय तिका आश्वास. इत्तेंय जालें न्हय वे?

काराचो शब्द आयकीलो. ती चोयली. चारि पांच जन येताय. तेग जाण दादूले आनी दोगी बायलो. प्राय आशिल्लीं दोगंय अम्मा-बप्पा जावयात. सान प्रायेची जोडि ती बामूण-बायल धूव आनी जावंय म्हुण नळिनीक मनांत जालें. चेल्लो मुकारि आसा. येवंचे जना पासून उलयतालीं कालि राती तीणे आयकिल्लें दिकून होगी मनांत जालें.

ती भित्तरि गेली. अम्मान बापान अतिथींक आपोवन आसन दिलें. तीं

यथास्थानारि बेसलीं. परस्पर खुशखबर चमकिलें. चेली चोवप म्होव्ळोलो विषय प्रारंभ जालो.

"नळिनी, बप्पा उळदिता- "म्हूण सांगून अम्मा भित्तरि धुवे लागी आयली-" "देवा अष्ठोवनु उदाक आनी खाण घेवनु फिदरांत यो होगी-"

नळिनीन निश्चस केलो. आनी अशी एक संदर्भ जावंचाक नज. "अम्मा-बप्पाक दुःख दिवंचाक जावनु कोण येवनयें देवा!" तीणे प्रार्थना केली. खाण उदाक घेवनु ती मुकारि आयली; राबीली. चेलेक चोवप म्हव्ळोलो कार्यक्रम चांग जावन चमकीलो.

कोणकि आळता पेळतांतू शब्दु नातिल्लें उलयताय म्हूण नळिनीक मनांत जालें. ती कांय दिकना, आयकना.

"आनी कांय निमगूक सांगूक आसा वे? चेल्याक चेले लागी, ना परस्पर उलोवंका जाल्यार उलोवयात-" बप्पालीं उतरां गदगदेताय आयकून नळिनी स्तब्द जाली. येंवय स्थिर पल्लवी मू देवा! उत्तूले जाण फूडे उलयले!

निशब्द स्वल्प घडियो गेल्यो. मागीर चेल्यान, रमेशान सांगलें- "माका कांय निमगुका म्हूण ना. हांवें नळिनी पासून मनांत केलेंलें आसा. पुरो. जाल्यार तिका मिजे पासून कांय कळता की? निमगूयात कसलेंय-"

नळिनीक होडु संतोष जालो. तीणे मंदस्मितान, विनयान जाप दिली. अम्मा-बप्पा यी इत्ती सांगूक वता म्हव्ळेले भीतीन चोयताय. सर्वालीय श्रद्धा तिजेरि जाली.

"माका तुमचे लागी एक प्रार्थना आसा, विनंती आसा. मिजे पासून आशिल्लो अभिप्राय आतां ये समयारि तुमी सांगूका. पोरतून मागीर जाणयताय म्हूण सांगून वोचून आशा दिवनु मागीर चेल्याक चेली लायक न्हय म्हूण सांगूची रीति सोडका. मिगेले अम्मा-बप्पाक आशा दिवनु तुमी वोचूनाकाय. आमी निर्धन जन. तुमकां लायक न्हय जावयात. आतांच सांगाय जाप. तवळी दुःख होगी येतलें जाल्यारीय होगी वत्तलें. आशा तशी न्हय."

नळिनीले दोळे भरले. जाल्यार तिगेलीं तीं दृढ, शांत आनी मृदुल उतरां रमेशाक मात्र न्हय सर्वांकय चांग दिसलीं. सर्वांलींय मनां भरलीं. रमेश होगी उठायलो. नळिनीले अम्मा-बप्पा लागी आयलो आनी सांगीलें- "नळिनीक माका व्हारडीक कोरनु दिवंचाक तुमकां चांग मन आसा जाल्यार हांव आतांच उतर दितां तिका स्वीकार कोरुक हांव तयार तं."

हाता बोटावेली मुद्दी काणु रमेशान नळिनी लागी सांगीलें- "देवाक आनी मालगड्यांक साक्षी कोरनु हांव सांगतां, हांव तुका स्वीकार्य जाल्यार यी मुद्दी तुगेले बोटाक घालूक दिवंका. सर्वांचेय मुकारि आतांच यो निश्चय जावो. वेस्त आनी जावनु कोरचे खातीर तुमकां कांय कष्ट अथवा खर्च नाका."

नळिनीले दोळ्यांत थाकून आनंदाश्रू पडले. रमेशाले अम्मा-बप्पाक नमस्कार कोरनु तीणे मुद्दी घालूक जावनु रमेशा लागी हात दाकयलो. निश्चय चमकीलो. नळिनीलें मनोभीष्ट देवान साध्य केलें.

देवळांत 'नडतुरप्प' जाता- "सुमुखी नळिनी शुभ्रू शोभना सुरनायिका काळकण्ठी कांतिमती......" ललिता सहस्रनाम आयकूक पडता. तिगेलें नांव कोण कीं म्हणता जावन दिसून ती भायर चोयता.

रमेश बप्पा लागी सांगता- "अधिक खर्च जावनातिल्लें आमकां यी व्हारडीक येचि देवा नड्यारि चमकोवूं-"

नळिनी स्वप्नांत जाली-

सुखा दीस
वताय धावनू
दुखा घडी
चरनू चरनू

*- सूर्या अशोक*



जया राजन

1952 वर्सा केरळाच्या कारणकोडम, कोचि हांगा जन्म. चेर्तला गांवांत वसति. कोंकणींत कथा आनी लेखनां रचल्यांय. कथांक कोंकण जनता, आनी कोंकणी भाषा प्रचार सभा पुरस्कार मेळ्ळ्याय. कोंकण जनता, वैष्णवरत्न, सारस्वत वाणी आनुकालिकांचेर कृति उजवाडाक आयल्याय. रचनांचो प्रारंभ 1989 वर्सा. केरळ कोंकणी अकादमील्या पत्ररचनामत्सरांतूय इनाम मेळ्ळ्यां.

पत्तो: XV/419 'Prabhu Ram', East of Police Station, Cherthala-688524

*'मिगेले मांयेन मिजे दोळ्यांतुल्यान घालयलेले दूकां बद्दल, मिगेले सुन्नेले दोळे हांवें एक दीस सरी तिमोंवना!'*

जिवंत पात्रांची, नात्यांची आनी मूल्यांची उज्वल कथा.

# पुनर्जन्मु

"जल्ले वें? होगिं एय्यायि! तोडोवु केल्यारि भोवनु एवुबित्तरि काळूकु जत्तोलो. पुर्ते चोंच्चाक जल्लेना मुणु माग्गिरि गोन्दोळु घालूक नज्ज."

गणेशान ओंसरांच्चाक आरांबिले!

सगटेयि भायर सरत्तायि तं. चेर्डुवांक भायर सरेयतायि खाणा ऐदन, उदक्का कुप्पे, पर्स, सग्ग कडत्तायि. कोण तक्क चोयनायि सरि. तवाळि तं एक कडेन बेस्सल्या मक्का ताणे दिक्किल्या.

"निम्मक्कालें भायर सोर्नू जल्लेंगे.......?"

"हांव भोंच्चाक एना पुता. मक्का थंगा नडयारि सोव्या पूरो हांव थंगा बेस्सन. तुम्मि ओच्चूनु एय्यायि. हांव धायत्ते फन्ता आयिल्लियि थंगा गेल्लिलीयि अस्सा. भोवनु चेयिल्लियि अस्सा. हांव एना.

"तशिश जाल्यारि तशिश......"

सगटेयि भायर सोर्नु वच्चे वेळारि मक्का नड्यारि सोव्लि. 'अम्मि एना फडे अंगाचि अस्तलि नवे? चोवनु बेस.'

उत्तूल फन्ता तिर्पति देवळान्तु दर्शनाक ऐलिलि आस्स मुणूचि मक्का उडगासु ना. जल्यारि एकु उडगासु अस्सा. केद्दाण सग ऐलिलि अस्स जाल्यारि तवळि सग या नड्या मुक्कारि एवनु हांव मक्का विस्सोर्नु बेस्सल्लि अस्सा. इत्ति एकु सन्दोषु. एकि समाधान. अम्मि स्वर्गु मुण संगुच्चो यो जावयात.

भजन मोणचे वेळारि मणप अस्सा नवे? "तुगेले नड्यारि नित्य आघोषु" मुणु. उत्तूले सम.

हंगा एवनु पंच्चाक एक पुणि दर्शन धेंच्चाक जंच्चें होव्ळें भाग्य तं. सुकृत कोर्का. भोंचाक एन्नावे मुण निंगुचानिक 'ना' मुण संगिल्लें तं. वच्चे कुट्टान्तु तिर्पतियि लगि वत्तलिं मुण संगच्चानिक मन्न ओड्डता. कशियि जावो ऐलि. प्रायि 85 जल्लि. एत्तले वर्षा कैरिं एत्तले वर्षा. ताणे उळदिली जाल्यारि एंका.

नड्या मुक्कारि भोरनु मेट्टां. तन्तु मोद्देकता जावनु अशिल्ले एक मेट्टारि एक कडेन सोरनु बेस्सलि. फूडे सग उतलोचि लोकु ना. जाल्यारियि सग "गोविन्दा" घालनुतं भित्तेरि वत्तलिं, अत्तं तश्शि कायिं ना. सबा एक भोंचा एंचे वरी. तक्का सर जल्लोलो वेषु! खेळु, हासु, गोन्दोळु, सग. क्यूवान्तु रब्बिल्लि चोरनु चोरनु मुक्कारि वत्ता अस्सायि. दर्शन घोत्तल्लिं थंगा हंगा बेस्तायि. हळ्ळेलें खावनु पिवनु, तंतु भरसि विक्कूक ऐलेलें काणु घेवनु वत्तायि. कोण कोणाक ओळक्कनायि.

"मालू......धावनक्कमा.......गरगडेवनु पडत्तलिगो राणि" अंगेले भासेन उल्लोंच्चे ऐकूनु हांव त्या तंतु चोयलिं. चांगी चन्दि दिस्सुच्चि वीस पंचेविस वर्ष प्रायेचि एकि आवसु, तिगेले चारि पांच वर्ष प्रायि अशिल्ले धुवे मागलान धावनु मेट्टां चडत्ततं. ती कुट्टान्तु धावनु पावना. मागल्यान एकु सान प्रायेचोयि एकु प्रायि जल्लोलोयि. प्रायि जल्लिलि एक बैल मनिषियि अस्सा. तीं सन्त चोंकूनु एत्तायि. कशीयि जावो एक कोंकण्याक पुणि या गोन्दोळान्तु दिक्किलें नवे. मन्नान्तु एक सन्दोषु. चेरडु मिज्जे लागिच्चान सोरनु उंचारि धावनु चळ्ळें. धावनु एंच्चे चेरडाकयि चोवनु हांव बेस्सलि. अवसूल्यावरीचि चेरडूयि चन्द दिस्ता. चोय चोयत्ता दोनि चारि मेट्टां चोडच्चानिक पायु निस्सोरनु ती मेट्टावेल्यान खाल गडगडेलि. हांवे होग्गि धोरनु तिक्का नीट केल्लि. तिणे भीवनु रोडुक आराम्बिलें.

'छे.....छे......रोडु नज.......गोविन्दो म्हण' हांवें संगीलें. अंगेलि भास ऐकुच्चानिक ती रण्णे राब्बोवनु मक्का चोयलि. "भोरनु मेट्टां धावनु चळिळ नवे? आनी उणे मेट्टां सन्त चोंक्कुनु चळ्या पूरो कळवे......" हांवे तिज्जि अंगाचि रेंव हत्तान फप्पूणु संगीलें." अम्मम्मा.....अम्मम्मान धरलिना अशिल्लि जल्यारि धा पन्नेरा मेट्टावल्यान ती गडगडवनु खाल पडत्तली अशिल्लि. अम्माम्माक देवान तं अत्त हंगा पावेयलिलि. मक्का पूरो.........एकि कुण्डामण्डिये घूडु तं यि. सांगिलारि ऐक्कुन्ना..."

ती चेल्लेकयि घेवनु मिजे लगी बेस्सलि.

"यी सगि कुण्डामण्डिवे? चेरडुवां म्हळ्यारि एशि तं. तंका ती एकि रसपति तं. फायि होड जल्यारि यींचि मेट्टां धावनु चडत्तलिवे ती?एशि नवे तन्नि एक्के कूट शिक्कप. संगप अस्स, सन्न चेरडुवानि गरगडेनु पळ्यारि भूमि देवि तंकां हत्तान्तु भोरनु कडत्तलि. तें दिक्कूनु तंका दुक्कुच्चीयि ना, कायि जांच्चियि ना म्हणु..."

हांवें तिक्का समाधान केल्लि.

'इत्ति जल्लें..........कायिं जल्लेंबि वे........? झरकटेलें बि वे........?'

मागल्यान ऐलेले बैलमनिषिन निंगीलें.

'यी अम्मम्मा ना अशिशल्लि जाल्यारि........'तवळि ती बैलमनिषि मिज्जे तोंडाक चोयलि. ओळकि ना जाल्यारियि कोंकणि नवे हांव चोवनु हशिलि. ती मक्कायि.......झट जावनु हस्सता हस्सता ती अतिशयान मक्का चोयित्ता दिकचानिक हावें निंगिलें "तुम्मि खंयि थकूनु एत्तायि.....?मक्का ओळक्कता वे?"

"अय्यो मय्ये........मक्का ओळकिलीनावे......? यी हांव तं........नळिनी.......प्रिंया तूवें सांगिल्लें सम त्...........यी अम्मम्मा ना अशिल्लि जल्यारि........."

ती त्या सान प्राये बैले लगी घुवलि. आनि होग्गि एवनु मिजे खलचे मेट्टारि बेस्सलि. दोन्नियि हत्तानि मिग्गेले पौलांक अप्पळि. मत्तें पौलांक अडळाउनु नमस्कार केल्लो. मत्तें नीट कोरचानिक तिजे दोळे भोरनु अस्साय.

"मय्यें........मय्येन अत्तां नींगिलें नवे ओळक्कता वे मुणु. आनि निंगुनिये. हांव मिगेले अम्माक ओळक्कुच्चा पशि चड मायेंक ओळक्कता..विस्सोरना मय्ये हांवे मय्येंक........मोरनु पळ्यारियि या नाळिनी हरदयान्तु मायिं अस्तलि. मय्यें पसूनु अठोवनात्तिल्लो दीसु ना. मिगेले बमणाले, चेरडुवालें बगेक देवालगि चांगपण मग्गुच्चे वेळारि सग मय्येले खातिर तं प्रथम मग्गप. अत्त दरशनाक राब्बिल्ले कडेयि हांवें मय्येले खातिर प्रार्थना कोरनु तं एत्तां. देवान तं अत्तां हंगा मय्येक पावेयलिलि....."

ती सन्दोषान रडत्तायियि संगतायियि.

तिक्का दिक्कूनु धा तीस वर्षा जल्लिं. उत्तर ऐक्कुच्चानिक उडगासु ऐलो.

"अम्मा या अम्मम्माक ओळक्कता वे.....?" पूतु

"मगीरि ना वे?"...........ती बमणालागी घुवलि.

"बेस्सायि मणे........अत्तां ओच्चूं........एक मय्येलगी उल्लोव्या.........उत्तूलिं वर्षा जल्लि दिक्कुनु......!

तीं मिज्जे अळत्ता पेळत्तान्तु अशिल्ले थय्यारि बेस्सलिं.

"इत्ति कर्ता......? सुखान नवे.........?"

"वयि मय्यें.......सग मय्येंन संगिल्ले वरिचि जल्लें........तो एकु कालु......अत्तां तंतूलें कायि ना".

"चेरडुवां........?"

"एकलोचि पूतु.........व्हरडीक जल्लि. इच्चयि यो तं..........यी सून............ती नाति.........अम्मि वर्षवर्ष एवनु पायि पडप अस्स मय्यें.......आनिक कोण अस्स मय्यें कुटान्तु.....? मामु आनिक इत्ति कर्ता......? केह्वाणा ऐलि मायि?"

"अंगेले लगी थकूनु एह्वीं जाण एत्तालिं. तंचे कुट्टन्तु ऐलि. धुव्वांक दोग्गिकयि व्हरडीक जल्लि. बप्पा एना खंयि मक्का वच खंयि. ऐलि.........कुट्टान्तु आशिल्लिं भोंचाक गेल्यांयि. मक्का एदे घडियेक हंगा बेस्सूका मूण दिस्सलें. तें दिकूनु हांव गेल्लीना........."

"तें चांग जल्लें......ना जाल्यारि अत्तां दिक्कूक जत्तलें अशिशल्लें वे..........?"

"अम्मा या अम्मम्माक हांव ओळक्कानामू.........कोणकी.........?"

नळिनीलो पूतु! एकि घडि जल्लि तो मिज्जे तोण्डकायि चोवनु बेस्सला! ताणे मक्का कशिश ओळक्कूक?

"अरे यी अम्मम्मा मक्का मिगेले अम्मा वरीचि. नावे मय्यें? आनि सग अम्मम्मा संगतलि........."

"इत्ति जल्लें अम्मम्मा? एक अंकायि संगशिवे?..............."

"एक धा तीस वर्ष फूडे अम्मि दोगंयि जाण कोरनु तिरप्पति वत्तालिं. अम्मि चोडचानिक भण्डीरि लोकु ऊणे तं आशिल्लो. पेल्यान पेल्यान वच्चानिक कूडान्तु हल्लूक थायु ना. तव्वळि तं बम्मूणु मक्का उळ्दिता......... "निम्मा.........."

हांव मिजे उजवे तंतु बेस्सल्या बमणाक चोयलिं. "सण्ण ऐलान सोरनु बेस. एक्कलि राब्बिल्या दिक्किलेवे त्या दद्ल्याचे मधें.........?"

हांव कण्से देव्ळ्यानि चोयलि. एक सानि प्रायेचि बायल त्या ददल्यां मदधे रब्बील्य. उतले घडि या कूटान्तु हांव मात्र तं बायल जावनु अशिल्लि.

"इत्ति म्हणता........? बेस्सोंका कि नक्का.......? सण्ण सिर्कूनु बेस्सुका जत्तलें. एद्दी घडी गेल्यारि पोडूक अशिल्लि न्हयि जल्लिलिं देंत्तलि......."

"कशियि जावो उव्द्रूया. फल्ले अंगेलेयि चेलियांक अशी कोणेयि थायु दींका नवे........."

हांव बमणालागि सोरनु बेस्सूनु तिक्का जन्नेरला लगि बस्सूक थायु कोरनु दिल्लो. ती एवनु बेस्सलि. कोणाचे तोण्डाक चोवनात्तिल्लें भायर चोवनु बेस्सलि ती. मक्कायि कायिं करुक ना नवे. सबाव तिक्कायि चोवनु बेस्सलि. थोरायि कायिं ना. सोप्पूरि पतळांगीच अस्स. दिगूचि तेल दिक्कूनात्तिल्लो चरबूटु केसु सात-आट पोड विव्ळेले अस्सायि तो मुक्कावेल्यान घल्ला. नीळारि हळदूविं फुल्लां अशिल्लें कप्पड न्हेस्सूनु ओरलान चांग कोरनु पंगूरनु सोव्ळ्यां. कन्नाक बोळिं घल्यांयि. हाथ रित्तेचि अस्सायि. गोंटो पंगूरनु सोव्ळा दिक्कूनु गोंटेक इत्तेयि अस्स वे मुणु कळना. संगूनु कैरि ना. फूडे सग एक्के जत्तिक तगतगेले जावनु आशिल्लें न्हेस्वण अशिल्लिं. ना गोंटेक घल्लेलें चोवनु मन्नांतु कोरयात अशिल्ले. अत्तां तशि कायिं ना. अत्त देनि जाति-बायल़ आनि दद्दूलो. जल्लें. कोणयि जावो.

हांव पेल्ले तंतूले जनरलान्तुल्यान भायर चोवनु बेस्सलि. दिवलाणि दण्डवलि. भाण्डि दोन्नीयि तंतूल्यान आशिल्या गजनि मद्धेंचान वत्ता तं. एद्दें गेल्यारि मगीरि एक्के घर दृष्टि पडत्तलें. मगीरि दुश्शेरि गजनि. तंतु थांब रोयलें मात्र. वारयान तें मत्तें हल्लोवनु 'शुभयात्रा' संगता.

भण्डीरि बेस्सूक आराम्बुनु दोनि चारि घण्टे जत्तायि. अत्तां भाण्डी एक ताळारि तं वत्ता. सानि जूयिं कव्ळ्या वरि, अळत्ता-पेळत्तान्तु हल्लूनु धोल्लूनु बेस्सूक चांगि रसपति.

अत्तां बितेरि मिजे लग्गि बस्सल्लि अळत्तापेळत्तान्तु चोवप जावो, एक उल्लोवप जावो ऊं........हूं.......जन्नर्लारि हत्तूयि दोव्वोरनु भायर चोवनु एक बेस्सप, इतनेन विचारान तं बेस्सल्या मुणु दिस्ता. एक दोनि वेळ दिगूचि हुस्कारु सोणु ओरलान तोण्ड पुस्तालि दिक्कीलें.

एद्दि घडि वच्चानिक भाण्डी एक स्टेषनान्तु राब्बीलि. देंच्चा आशिल्लि सग देवर्लि. सगटानियि तांगतांगेलें खाण जेवण हळ्ळेलें कळ्ळें. अम्मि व्हेल्लेलें सन्दण आनि अंब्या तिक्साणि हुम्मण खंच्चाक कळ्ळें. पन्ना कुटुक्यारि सन्दणा कुटुको दोव्वोर्नु कुप्यान्तुलें तिक्साणि हुम्मण ताज्जेरि राक्कोंचे वेळारि ती झट कोरनु अंगेले तंतु चोयलि, तशी मत्तें घुंडायलें आनि भायर चोवनु बेस्सालि. तिणे कायिं हळ्ळेंना. पेट-मोट कायिं ना. लगी कूडान्तु कोणीय अस्स जल्यारि थंगा वत्तलि नवे? तेवेंयि ना.

"एकु कुट्टुको तिक्कायि दिव्यावे.......?" हांवे बमणालगी निंगिलें.

"दी......." मुणु बमणान मत्तें हल्लेयलें.

एक पन्ना कुटक्यारि सन्दण काणु तिक्का अप्पोणु अळदीलि. "तू कायिं हळळेंना नवे यें खा........धरि" हांवे मलबारिन सांगिलें.

"नक्का..............." मुणु तीणे भुज्जां कव्वळ्ळिं आनि भायर चोवनु बेस्सलि. नक्का जल्यारि नक्का...........हांव कायिं उल्लेयलिना. अम्मि खल्लें पन्ना पर घल्लि, कुप्यान्तुले उदकान हत्तूयि धुल्लो, एदें उद्दाकयि पीवनु निद्देंचाक भायर सरलीं. तेद्दे बितेरि उंचावेलीं फळि दाळनु सग पळ्ळि. अंका दोगांकयि खालचि फळि तं. तव्वळि ती.........? हांव बमणाक चोयलि. बम्मूणु माकाय. एक फळयारि कम्बळि विस्कळावनु घल्लि. "तुम्मि पडायि.........अम्मि दोगंयि हज्जेरि पोडुं......." हांवें संगीलें. होव्ळो दीवो वडवेयलो आनिक बम्मूणु लोवूचि आड जल्लो. अनि एक्कारि अंधकतरि हावयिं. भाण्डी बाणु सोव्ळ्यावरि धंत्ता तं. मागलंचान कोणेन धंडाऊनु घल्या वरि. पळ्यान्तु पळ्यावरि एक ताळान हल्लूनु धोल्लूनु आरांबुचानिक दोळे लागले. तवळि र्ती उट्टावनु वत्ता दिक्कीलें. न्हणियान्तु बि जाव्यात. मक्कायि ओच्चूका सरि. राति, मद-राति जल्लिलि अस्तलि. भण्डी चांग स्पिडारि तं वत्ता. धोरनात्तिल्लें उट्टावन रब्बिल्यारि पोडू वत्ता सरि.

बमणाक जल्यारि चांगि नीद. उळदूक दिस्सना. तीणे एवुबितेरि मक्कायि ओच्चूनु एवयात. बमणाक उळदूनत्तिल्लें जत्तलें. हांव होगि उट्टायलि. न्हणियेंतु वच्चा गेल्लि. थंगा इतनेन गोन्दोळु. एदे दहूले एक्कडे जावनु रब्बिल्यायि. इतनेन

होडान उल्लेयतायियि. पोलिसालगि होरनु सोडुं, लग्गि स्टेषनान्तु देवोवनु सोडुं, ना जल्यारि पोलिसा मागलान भोंका जत्तलें. संग खयिं.

कोणेन इतनेन फार्ले मुण दिस्ता. तें तं पोलिस आनी खयिं. मक्का भय्य जल्लें झोळियांतु घालूक अस्सिल्लि अंगवण थकूनु अस्सा. तेवेयि व्हेल्लें बिवे? हांव घूवनु चकीलि.

थंगा रब्बिल्ले एकल्यान मक्का उळदीलि. "यी तुंगेलि कोणेयि वे......?ओड्डोळु तुंचेलगि बेस्सल्लि मु.......?"

हांवे कांयि मन्नांतु जावनत्तिल्लें तजे तोण्डाक चोयलि.

"अत्तां हांव अंगा पौलोना आशिल्लो जल्यारि जोर जत्तलें अशिल्लें. ती या धंच्चा भण्डीरि थकूनु उडकि मारुक वत्तालि. धोरनु भित्तेरि ओडील्यारि बिस्साटित नवे.........?मेल्या गेल्लि......ना जाल्यारि हाथु पायु तं मोव्ळो जाल्यारि जन्मु वोत्तोलो. ना मेल्लि जल्यारि अत्तां आनि अम्मि तिजे मागल्यान लांबूका जत्तलें अशिल्लें. इत्ति जल्लें मुणु निंग्यायि..........समाधान नत्तिल्लें कैरिं अस्सवे............?"

हांव त्या दादल्यांमदें चोयलि. ती मत्तेयिं बौगोवनु रब्बील्या. दोव्ळ्यान्तुल्यान बडबडी उद्दाक पडत्ता. ओरलान नांक पुस्सूनु एक्क हत्तान तोण्डयि धंकूनु रब्बिल्या. हांव त्या दादल्या मद्देंचान तिजे लगि गेल्लि. तिजे हथाक चोणु धोरलो. "यो......"! मलबारिन हांवे तिक्का उळदीलि. ती ऐलि. तिक्कायि घेवनु परणे कडे एवनु बेस्सलि. बम्मुणु तवळियि चांगी नीद तं. ती ओरलान तोण्ड धंकूनु खोणसां काडत्ता तं. मक्का महापाप दिस्सलें. मक्का मिगेले धुवांचो उडगासु ऐलो. एदे घडियेक रोडो. जल्यार पुणि मन्न लोवु जावो.

एदी घडी गेल्यारियि ती रण्णे रब्बेयना. कशीयि जावो लोवू तिक्का हत्ता अप्पोणु उव्दीलि. "धुव्वे........उतलेंचि रोडू पुरोशि इत्ति जल्लें? मिजेलगी संगुयात जाल्लेलें जल्यारि सांग. मन्नांतुले दु:ख कोणालगियि संगिल्यारि एकु आश्वासु मेळत्तोलो."

"सगटेयि एक्कडे जावनु मक्का मोरुक सरि दिंना मू. हांवे तुंक्का इत्ति द्रोहु दिल्लो?"

तीणे तिगेले होव्ळे दोळे एक लगी होव्ळे कोरनु मक्का कोप्पुच्चे वरि निंगीलें.

"चोयि मक्का तुगेले अवसूचि प्रायि नावे? म्हलगड्यां लगि एशि कोप्पू पाणा. अठेयना फडे सग मोरुक जत्तलें वे? तशि सग अठोंचाक पाणा.......तू कैरि इत्ति मुणु सांग...........मिजान पाड अशिल्लो उपकारु हांव करीन..........." हांवें तिक्का धैर्य दिल्लें.

ती ओरला तलवान तोण्डयि, सोप्पूर केस सग थपूनु पोव्ळोलो ओल्लो गोंटोयि सग चांगु कोर्नु पुस्सूनु दोळेयि धंकूनु बेस्सलि.

"तुगेलें नांव इत्ति कीं........?"

"नळिनी"

"गांवु खंचो........?"

तीणे गांवां नांव संगीलें.

"थंगा कोणालि.......?"

"गोयन्द पैलि धूव........."

तुतली घडि मलबारिन तं ती उल्लेयतालि. बप्पालें नांव निंगुच्चानिक तं तीणे अंगेले भस्सेन जाप दिल्या.

"आहां..........कोंकणी दिस्ता. संगुका नवे? जल्या मगिरि अंकां अंगेले भस्सेन उल्लोव्यात अशिल्लें नवें........? ओच्चो......अम्मा नांव इत्तें..........."

"सुलोचन............."

तितलेंचि जंचानिक हांवें तिजेलगि एकि फट्टि संगीलि.

"तशि सांग. हांव ओळक्कता नवे तिक्का. अम्मि दोग्गायिं एकडेचि शिक्किल्लिं. अम्माक दिक्कना फडे सांग निम्मान सोदीलि मुणु..........मिगेले दोस्तीणि धूव मिगेलियि धूव तं.........तें दिकूनु, आनि इत्ति अस्सा जाल्यारियि तुक्का मिजेलगि धैर्यान संगुयात. तजो परिहारु हांवे केल्लोलो अस्तोलो. खण्डीत........."

तुतलेंचि जंच्चानिक तिजे तोण्डारि एकु हुजवाडु. ती मक्का आश्वासान चोयलि.

"उं........तूं धैर्यान सांग......तुक्का हांव अस्स....."

"मक्का मय्यें......."

"लजेंका नक्का तूं सांग मणे. तुगेले अम्मा लगी तं संगता मुणु अठेयि......."

एक पानवेळा लगि ती नुतो बेस्सलि आनि आरांबिलें......"मक्का व्हारडीक कोरनु दिल्लिली सुमार चांग चिन्ना जल्लेले कडे तं. मायिं, मांवु, एकु देरु, एकि नणन्द सग अस्सयि. देरुयि नणन्दयि शिकतायि. मांवाकयि बमणाकयि काम अस्स मेळ्ळोलो दामु दोग्गनियि तशीचि हाणु मांयचेलगी दीवप तं. मायन तो भायर कण्णा. धकूले पुत्ताक घर कोरनु दिंका. धुव्वे व्हरडीक कोरनु पेट्टोंका..........दुड्डु कळ्यारि सोरत्तोलो. भूक लगल्यारि फडपडेल्यारि जत्तवे.........?

मांयिक केदनायि नज नज मूणु जोप्पु तं. धुवेन जल्यारि कड्डि काणु बडियेरि दोवोरना. मक्क जल्यारि घरकडे कायिं कोरनु सवयिं ना. अम्मा अक्कम्मार सग अस्सयि दिकूनु तन्नि कोणे मक्का वसर्यान्तु सरि चोडेवनात्तिल्लें तं कर्तालिं. मगिरि कश्शि मक्का इत्तेंय कोरुक कळत्तलें.......?कळना जल्यारि, ना संकि जल्लेना जल्यारि मांयिन संगूनु दीव्यात...........तश्शि न्हयिं अश्शि करि मुणु. तें कोर्ना.......तन्नि अठेयलेले वरी हांवे कोर्का. ना जल्यारि मक्का कोण सग अस्सा जल्यारि तांक सग सोवतलि. तें नुप्पूरो जावनु बमणान एनाफडे एद्दें अशिल्लें एदें कोरनु संगतलि.....बमणा जल्यारि अम्मान संगुच्चें सग वेदवाक्य तं. वयि वे मुणु सरि निंगुन्ना, घालनु मार्तोलो..........अंक्का जाल्यारि घरक्कडे एक होड्डान सरि उल्लोवप ना........

"हांवें तशि कायिं केल्लेंना...."मुणु संगिल्यारि, "मिग्गेले अम्मान फट्टि संगुन्ना" मुणु संगतोलो.

यें सग चोवनु मांवु पावम उल्लोवनत्तिल्लें बेसतलो. उल्लेयल्या मगिरि मांयिन सबाव सोण्णा. मगिरि मगिरि घरकडच्चे वेच्चा बगेक अशिल्लो दुड्डु मिगेले घरकडे थकूनु हाडक्का ना भंगार दींका. तो मेळ्यारि सोरु बितेरि एदे दिसा समाधान तं. सरल्यारि दुश्शोरि आंरांबितलिं. दुड्डु हांव कश्शि ओच्चूनु निंगितलि? पन्नास पवन

दिलेलीं तं मक्का. धा तीस पवनयि खावनु जल्लिं. जल्यारियि ना........ना......मुणु तं जिब्बेवेल्यान एत्ता.

यें सग जल्यारियि देरु पावं तं. ताणे ऐक्कुन्ना.

"होन्नेलें भंगार काडू नज" मुणु तो अम्मालगि केद्दनायि मारनु घेत्तलो.

"होन्नि इत्या दिंच्चा वत्ता? दिंन्ना मुणु संगूका....... घरकडे जाय जल्लेलें हाडूक बप्पालगि अन्नालगि थकूनु काणु घेवो.......अम्मा तश्शि भिंच्चा वच्चा नज........" तो मक्का कोपत्तालो.

"दुड्डु भंगार जाय जल्यारि काडोयि. मेजेलगि अश्शिल्लें दीन...........नत्तिल्लें संगुनु दीवनु पेट्ट घालोवनु इत्या अश्शि करत्तायि.........?" तें संगच्चानिक मक्का रण्णें ऐलें. तव्वळि लेकान मायिं थंगा पौलि....तेद्दूस बमणालगि संगूक एक नवि काणि तं अश्शिल्लि.........अम्माकयि पुत्ताकयि कोरनु झगडांचाक चोयत्त मुण संगूनु थंग धोरनु आराबिल्लें झगडें मगिरि इत्ति सग संगता मुणु मक्का कळना. हांवें मन्नां सरि अठोवनत्तिल्लें सग हांवें संगिलें मुणु केल्लें......सग जावनु तेदूस मक्का बमणाले बगेक केवली पुज्ज तं चंक्किल्लि........कोण जेवलिनायि. रन्दूनु दोव्वोरनु उप्पाशि पोडूक.......खयिं ऐक्किल्लें अस्सवे?

व्हरडीके वेळारि बप्पान मिजे लगी संगिल्लें.......व्हरडीक जावनु थंग गेल्यारि मायिंक मांवाक तुगेले अम्मा........बप्पा वरी लेक्कूका. इत्तेंयि चड ऊणे जल्यारियि तूवें या बप्पालो मानु रक्कूका..........ऐक्किलें नवें.....?" मुणु. तव्वळि मगिरि हंगा हांवें कोणा लगी संगप.......?

अम्मालगि तं संगुया मव्यारि तें ऐकूनु बप्पान इत्तेंयि केल्लें जल्यारि हांवें जावनु अम्मालो तीळो पुस्सूका नक्का मुणु दवरलें...........

रत्ति सगटानियि निद्देंचानिक हांव लोवूचि कवडा खीळि काणु देवनु चंकीलि. बुरसल्लें न्हेसवण, निस्सर्लेले केस, तिळो पुस्सल्लें निड्डळ.......

वट्टेरि सबार लोकु ना. कोणेयि चोयत्तायि वे मुणु चोंचाक मक्का बेळीव अस्स जल्यारि नवे? घरालगि थकुनु दोनि घडि पेल्यान एकि देवळा तळयि अस्स.

हांव थंगा त पौल्या. तव्ये मेट्टां देवनु खल्लच्चे मेट्टारि उदकान्तु देवनु रब्बिलि. दीवो लैल्यारि घरां भित्तेरि थाकूनु अंगणान्त देंचाक मक्का भय्य तं. मन्न दुकचानिक मक्का तें कायि उडगासु ना. देंचे वेळारि स्वल्प चन्दीणे अश्शिल्लें मुणु दिस्ता. चन्द्रेमु सरि मोडान्तु ओच्चूनु निष्पीला. चांग जल्लें. कळकान्तु हांव अंगा देवनु आयिल्ली कोणे जाण जंन्ना नवें. पावल भरि उदकान्तु देवनु रब्बूनु हांवें प्रार्थन केल्लि.

सर्व दुःखान्तु थकूनु मयिंचे हत्तान्तु थकूनु वांचूक तं देवा हांव यी चूकि कर्ता.......क्षमा पांका वो..........तव्वळि मक्का एक धैर्य ऐलें. हांव तव्यान्तु मद्दें चोयलि. मक्का थंगा रब्बूनु कोणकी पेळत्तान्तु उळदीता......."यो..........होग्गि......यो......"

"एत्तां........" मुणु सगिल्लेंयि एकि उडक्कि, दोळयि धंक्कनु.

एं......?इत्ति यें........? हांव उदकान्तु पळ्ळिना. खनेन लंबता.......हांवे दोळे विस्कळायले. कोण कीं मक्का घट्टिट धरल्या. मक्का भय्य जंच्चा आरांबीलें. बमूणुवे? मगल्यान ऐलोलो मुणु दिस्ता. जाल्यारि जल्लें. आनि इत्ति सग जत्तलें मुणु देवाक कळत्ता.

हांव त्या मनीषा तोण्डाक चोयलि. एकु चम्मा पय्याचो. हत्तान्तु बड्डी. तो रत्रि "बीटा" कदेविल्लो. मिगेलो वेषूयि बप्पा कडतान्तु ऐलेल्यावरि अश्शिल्लें चंकणयि दिक्चानिकचि तक्का कळ्ळें खंयि. तो उल्लोवनात्तिल्लें मगल्यान ऐलो.

मगीरि कोण? इत्ते? मुणु सग निंगप जल्लें. बप्पा नांव संगचानिक नवे तो बप्पालो दोस्तु मुण कळ्यां.

"हांव अत्तां पविल्लो चांग जल्लें. ना जल्यारि त्या बप्पालो मानु तूं पर घलत्तलि अश्शिल्लि. कशीयि जावो अत्तां यें हांवयि तूंवयि मात्र त जणयिं. जल्लेंलें सग जल्लें. होगि यो, हांव तुक्का घरक्कडे होर्नु सोडीन......."खयिं तो.

"अयो नक्का.......अत्तां तीं मक्का सोद्दितायि अस्तलिं. अत्तां गेल्यारि तीं मक्का मारनु वेच्चु करत्तलिं........" हावें संगीलें.

"तें कायिं ना......हांवेयि येन.....हांव तंकां संगूनु मन्नां करीन.......होगियो........."

तश्शि पोरत्तूनु हांवें घरक्कडे ओच्चूका जल्लें. चांगु वेळु. तीं सग चांग निद्दांतु तं अश्शिल्लिं. हावं गेल्लिलियि ऐलिलियि कोण नेण..............

एद्दे दीस वच्चानिक घरां भित्तेरि मीट ना साल ना मुणु आराम्बिलें. पन्द्राव दीसु जत्ता मात्रा. मिगेलें एक कंकण लगी जायि. तें तं कैरिं. कन्नाचेंयि एक्केक कंकणयि तं पन्नासांतुलें वरलेलें. माग्गिर पिरडूके माळायि. पुर्तमलि होर्नू हव्ळे उपरान्ते घरा भायर देवल्या हांव पयिरि मोरु जावनु वच्चाकनि तं. एक्कडे भायर व्हरपयि ना पेट्टोवपयि ना. जल्यारियि एक्के कूट पुणि घालूक मक्कायि दिस्सनावे? दिंना मुणु हांव; काणु घेवनु तं मगिरचिं कैरिं मुणु मायिं.

उतलेकाळ इत्तेंयि संगिल्यारियि केल्यारियि हांवें नुतो रब्बूनु रडप मात्र तं अश्शिल्लें. मयिंचि यी वाशि दिकचानिक मक्का जीवा जाळ ऐले. मंयचेलगि नत्तिल्यान न्हयि.

बमणाक भिजेरि मोगु नत्तिल्यान न्हयि म्होणु मक्का कळत्ता. जल्यारियि तें भायर दक्कोवनत्तिल्लें अम्मालो चांगु पूतु मुणु कोळोंचाक. रण्णे ऐल्यारि रोडूं पाणा. कोपु ऐल्यारि कोप्पू पाणा.

"मिगेले अम्मालगि कोप्पू पुरोशि जल्लिवे तूं.......?"

निंगुच्चेंयि थप्पट दिंचेयि एकसानि तं. मिगेलें मन्न मन्नां कोरुक कोण ना. सग जंचानिक संगू पाणत्तिल्लें संगीलें. मावुं बेस्सूनु चेयत्ता मात्र. कंकण दोन्नियि काणु मयिंचेलगि विन्दीलिं "धरि......खा......." मुणु संगीलें. मग्गिरि थंगा रबल्यारि अशिल्लि गति मक्का कळत्ता. देवनु चंकीलि. नन्तना मगीरि हांवें इत्ति कोर्का मुणु मांयि सांग."

कोप्पूयि वैरागयि सग एक्केड जंचानिक तिक्का पिश्शें लगल्यावरि. संगूनु जंच्चानिक ती सगळीचि खरशेंचाक आरांबिली.

"दोनि वेळा जल्लें मय्यें मक्का मोरु दीवनात्तिल्लें वांचेयतायि. मक्का पूरो

जल्लें. मुक्कारि दिक्कू एंचि सग शत्रु तं मक्का. देवाक सरि मिजेरि एद्दि दया ना..........."

"मुणु तुंवें संगल्यार पूरो वे? देवान एक्केक सृष्टि कोर्चे वेळारियि ताणे कोर्का जल्लेलें, ताणे भोग्गूका जल्लेलें सग कपलान्तु बोरोवनु दव्वरलेलें अस्तलें. तें नन्तना कायि जंन्ना. देवाक चोडु मोगु अशिशल्यांक तं देवान रडवप. मन्न दुक्कनाफडे तं अम्मि "देवा" मुणु उळदितलिं. तें नयि सुख्र तं जल्यारि अम्मि देवाक विसरतलिं एक मनिषाक केदनायि दु:ख मात्रयि अस्सुन्ना सुख मात्रयि अस्सुन्ना. एक सुखाक एक दु:ख, एक दु:खाक एक सुख. दु:ख अस्स जल्यार तं सूखा मोल कळत्तलें. यें दु:ख सग भोगिल्ले बगेक फायि एक सूख देवान तुजे गुणि दव्वरलेलें अस्सतलें..........."

"थंगा! त्या घरकडे नवें?.........या जन्म नवें..........? देवाक कोटिन कोटि नमस्कारु......मय्येंन इत्तें संगिल्यारियि चिन्ना आनि यि चेल्लि थंगा ना........."

तूं वत्तली! हांव तं संगता. अम्मि अत्तां तिर्पति वत्तायि तं. तूंवयि अंचे कुट्टान्तु एत्ता. थंगा ओच्चूनु पायिं पोणु तुगेलें दु:ख सग तज्जे लगि संगूनु चांग करि देवा मुणु मग्गूनु घे.......मनिषालें दु:ख ना कोरुक तं तो हंगा एवनु पवला. तक्का हर्दयान्तु थकूनु उळदूनु शरण मगल्यारि पुरो. बाक्कि तो चोयत्तोलो. अम्मि सग्ग वेळरियि देवा विस्सोर्नत्तिल्लें राबूक तं देवान सदा दु:ख दीवप. दु:खान्तु थकूनु देवाचेरि भक्तियि भक्तिन्तु थकूनु मुक्तियि मेळत्तलि. तुक्का कळत्तवे? देवाले सृष्टिन्तु म्हस्त कोटि प्राणि अस्सयि तंतु धोरनु श्रेष्ट तं मनुष्य जन्मु. तो मेळूक अम्मि म्हस्त जन्म काडकायि. मागिरि तं मनुष्य जन्मु मेळत्तोलो.

त्या बगेक सुक्रित कोर्का. देवांक सरि मोक्ष मेळका जल्यारि तन्नि मनिष जावनु जन्मु घेवनु, मनिषाले वरी दु:खान्तु पोणु कष्ट भोग्गूनु, देवा भोज्जूनु जल्यारि तं तंकां मोक्ष मेळत्तोलो. तुत्तुल श्रेष्टु तं मनुष्य जन्मु. जायि म्हळयरि मेळूकयि वच्चना, नक्का म्हळ्यारि मेळनात्तिल्लें रब्बूकयि वच्चना. तो नक्का कोरुक तुक्का इत्ति अधिकारु........? जंच्चे सग्ग चंगा मुण तं संगप. तें दिकूनु तूं अनि कायिं विचारु काडक्का नक्का.

तें सग तशिश अस्सो. अत्तां नुतो पोणु एकि नीद काडि. उट्टायनाफडे यें

कांयि मन्नान्तु अस्सू नज. एकि नवि नळिनि तं अस्सूका.....उं........पड......"

कशीय जावो तिजें मन्न लोवु जल्लें मुणु दिस्ता. ती पळ्ळि........हांवे तिजे केस्सावेल्यान संत हाथु धंडाइलो. चोवु बितेरि निद्दयि पळ्ळि.....

बम्मूणु यें कायिं नेणत्ता नीद तं. बमणाले बंकारि पायु चोडोउनु दोव्वोरनु हांव लग्गि बेस्सलि- तिग्गेले, तिगेले मायिचें, बमणालें सग कैरि अठोउनु. मनिषाक मनिषु न्हयि जायि. दुड्डु तं. त्या बगेक इत्तेयिं कोरुकयि तीं मुक्कारि तं.

बमणान पय्या अप्पोणु मक्का उळदीली......."तुगेले थय्यारि ती चोणु पळ्ळि नवे.......? तुक्का पोड्डूक थय्यूयि ना जल्लो.........?"

हांवे बोट ओण्टारि दोव्वोर्नु उल्लेयशायि मुणु दक्कयलें. लग्गि ओच्चूनु बेस्सूनु तिणे केल्लीलि कुण्डामण्डि सगि संगीलि.

"तिक्कायि अंका कुट्टान्तु व्होर्या. कोणेयि जावो. चांगि जत्त जल्यारि जावो. कशीयि तिक्का घरक्केड पावोव्या.........इत्ति म्हणतयि.........?"

"कशीयि करि........तुक्का सम मुण दिस्सुचें करि........"

अंका देंका जल्लेले स्टेषनान्तु पावु बितरि कोण कायिं उल्लेयलिंनायिं. पंचा जंचानिक लोवू तिक्का जग्गेयली. उट्टाउनु तोण्डारि उद्दा घालनु एंचाकनिक तीळो कोरुक कुंकुमयि फन्ति घालूक दंतोणियि दिल्लि. सग जावनु भण्डीरि थकुनूं देंचे वेळेरि तिजे लगि संगीलें......

"तूं अंगेलि धूव......अम्मि तुगेलि आवसु-बप्पुसु. खेळु हासू जावनु वच्चप. कोणेयि दिकल्यारियि न्हयि मुणु अठोंचा पाणा. त्या वरि जांका सग्ग कुट्टयि. उडगासु असतलो न्हवे?"

"उं....."

उंचारि ओच्चूनु, कूड काणु, न्हाण जावनु मिग्गेलें कप्पड न्हेस्सोवनु, देवळान्तु वच्चे वेळारि मत्यां घालूक फुल्ला कुट्टुको काणु घेवनु दीवनु, दर्शन जावनु एवनु याचि मेट्टारि अंग तं अम्मि बेस्सल्लिं. व्हयि नवे नळिनि......."

"उं......." ती बवगूनु बेस्सूनु मिगेले पट्या कपडा काम्बि चुरबुटेवनु अश्शिल्लें सम कर्ता तं.

"मगिरि इत्ति केल्लें अम्मम्मा.........?" पुत्ताक पुर्तें ऐकूक ओंसोरु जल्लो.

"हंगा बेसुनु भोरनु चांग बल्लाव संगूनु मन्नां केल्लें. दोनि दिशीं घरकडे पोरतूनु वच्चानिक हांवे इगेले बमणाक एक बर्प घल्लें, अशिश मात्र

तुगेलि बायल देवादयेन सुखान हंगा अस्सा. एवनु होर्का मुणु विनन्ती......."

"तव्वळि.............?"

"मेव्ळेले दुश्शेरे दिस्सा तुगेलो बप्पा धावनु पवलो नवे! उळदूनु बेस्सोवनु कैरि सग संगूनु मन्ना केल्लीं अनि संगीलें...........तुंगेलि बायल साध्वि त. तिक्का रोडोवनये........"

"मय्यें मिगेले अम्मान कष्ट काणु तं मक्का वड्डोवनु, सिक्कोवनु, होडु कोर्नु कव्ळोलो. मक्का मिगेले अम्मान संगिल्यारि ऐक्कूनत्तिल्लें जत्तलें वे.......?" खंयि तो.

"अवसून संगिल्यारि ऐकूका. सग्ग न्हयि, एद्देचि. बैलयि तुगेलीचि न्हवें. तवळी अम्मान जल्यारियि बैलेन जल्यारियि संगिल्लें सम वे मुणु दोग्गांकयि रब्बोवनु निंगूनु सत्य-फट्टिट मन्नां कोर्नु नक्क वे तुवें तिक्का शिक्षा दिंचाक? तूं दोगांलोय तं. दोग्गयि तुग्गेलिं तं. तें तूवे विसरूक पाणा........आं ओच्चो......जल्लेलें सग जल्लें. आनि पुणि अशिश सग जावनतिल्लें गंचे लोक्का करयान तेंवयि- येंवयि संगोवनात्तिल्लें चोंका. अम्माकयि तुम्मि चांग संगुनु मन्नां कोर्का. देवाक विस्सोर्नतिल्लें रब्बायि. देवु चांग कोर्तोलो..........ओच्चूनु सुखान रब्बायि........."

अंचे दोग्गांचेयि पाय धोरनु तेदूस तीं दोग्गयि देवनु गेल्लि. मगीरि एक्के फन्तायि हांवें हंगा बेस्सनाफडे तें कैरि उडगासु करप अस्सा........"

"कैरि हांव होव्ळो जल्लो, काम मेव्ळें, व्हरडीक जल्लि, सग जल्यारियि, अम्मान इत्तेंयि तशिश तं अशिश तं मुणु संगिल्यारि दिक्किलें ना ऐक्किलेंना मुणु दवरुक मक्का जायना अशिल्लें. तें तं यें सग जल्लेलें........." उतले घडि उल्लोव नत्तिल्लें बेस्सल्या नळिनिले बमणान जीब कव्ळी.

"मक्का इजेरि मोगु नात्तिल्यान न्हयिं. तें भायर दक्कोंचाक मक्का जायना

अशिल्लें. मय्येंन संगचानिक मक्कायि व्हयि मुणु दिस्सलें. घरकडे ओच्चूनु हांवें तजे पसूनु आलोचना केल्लि. मगिरि व्हरडीक जल्ले उपरान्ते तिक्का घरकडे रब्बूक पेट्टेयलिलीचि ना. तें दिकूनु एद्दे दिस्सांक तिक्का थंगा होर्नु सोळ्ळि. तंतु भरसी हांवें 'ट्रान्स्फराक' अपेक्षा दवरली. देवाले दयेन तेंवयि होग्गि सम जल्लें. त्या बगेक अम्मा एद्दे दिस्सांक कोप्पान भौलि. बैलेकयि घेवनु थंग ओच्चूनु राब्बूनु अत्तां वर्ष तीस जल्लि........"

"अस्सो अशिश सग जत्ता इत्ति म्हव्व्यारि अपण्याले चेरडुवाकं अम्मि कष्ट काणु वड्डेयलेल्या लेक मात्र तं अम्मि चोयत्तायि. तशिचि एक अवसून कष्ट काणु तं एक चेल्लेक वड्डोवनु काणु दान दित्तायि. तें अम्मि विसरूक पाणा. तो विरस्सोरु तं घरकेड झगडें-झुज कर्ता. घर म्हव्व्यारि, पवित्र जल्लेले देवालय समान अस्सूका जल्लोलो थायु तं. अम्मि बैलो तं थंगा दीवो......तो सुन्तु जावनात्तिल्लें चोंका दादल्यानियि......."

"यें सग जल्यारियि मय्यें मक्का मिगले मैंचेरि एकि वाशि........"

"मिजे मण्के.......उतली घडि हांवें तुजे पसूनु मण्डे खेल्लेलें सबा जल्लें मू. प्रायि जत्त तशि मन्न चांग जल्लेलें असतलें मुणु तं अठेयलेलें. अत्ता तं मक्का कळ्यां तूं तेदुसचीचि नळिनि तं मुणु. दण्डवल्लिं उतलीं वर्षयि मयचेरि वाशि मन्नां दोवोरनु तं तूं अश्शिल्लि नवे?........."

"अय्यो मायिं मिजेरि कोप्पिली वे......? तीस वर्ष फूडे धोरनु हांव मय्येलि धूव तं......त्या धुवेलि थकूनु मय्येंक अणावु एंचे वरि अश्शिल्लि एकि कर्णियि एंन्ना........एंच्चा पाणा. तोंदक्कूनु लग्गीन तं हांवें अशिश केल्लेलें.........इत्ति म्हव्व्यारि........मिगेले मांयन मिजे दोव्व्यान्तुल्यान घालयले दुःखा वरी मिगेले सुन्नेले दोळे हांवें एकु दीसु सरि तिम्मोंवना मुणु! निंगूनु चोयि मय्यें वर्ष पांच जल्लिं तिणे एवनु. अजीयि तिक्का हांव अम्मायि मक्का ती धुवयि तं. यें मक्का मेळ्ळेले, मय्येन मक्का दिल्लेले पुनर्जन्मा निमित्तिं तं......"

तिजो ताळो भोरलो, दोळेयि!



काञ्चना बोस

1960 वर्षा केरळाच्या कोचि गावांत जन्म. तृपूणित्तुरा गावांत वसति. कोंकणींत आनी मलयाळम भासेंत साहित्यवृत्ति. 'कोंकण जनता', 'दिवटी' आदि नेमाळ्यानीय; 'फुलां आनी कोळे', 'काव्योद्यान', 'साहित्यरत्न' आदी संग्रहांनीय हांचें साहित्य उजवाडा आयल्यां. अखिल केरळ तलाचेर कोंकणी साहित्याक पुरस्कार जोडल्याय. 1988 धरुन साहित्य सेवा करीत आयल्या.

पत्तो: Prasanth, East of Pallipparambukavu, Tripunithura-682301

*'अन्नू येता आसतना चांग दिसूचो व्हडलो एक उपहार हाडतलो.'*

भुरग्यांलो विश्व उगडपी, निष्पाप मनांची वळख दिवपी सरस कथा.



# अन्नालो उपहार

स्कूळ यूणिफोम मेकोळनु ताका प्रियंकर जालेलें नीळें जीन्स आनीक हळदूवो टी षर्ट घालनु रंजित गींत म्होणु नांचूक लागलो.

"सारे सारे सांबारे, सारिंडे वीटिल कल्याणम्! काक्का विळंबुम् उप्पेरि, पूच्चा विळंबुम् पुळिशेरि! सारे सारे.........."

स्कूळांतुल्या ह्या खुशालेचे गींताचे ओट्ट, ताणे बागांत थाकून बरयलेले बुकाचीं कागतां पिंजून कोच्चोलु कोरनु वार्यारी विंदीलीं.

हाय, कसली चंदाय! कितूलि रसपति! स्कूळ धांकिल्लो संतोष ताणे आघोषु कोरूक आरांबिलो. आनीक दोन मासांक शिकूका नाका. कोणालीं उतरां घेवंका नाका. नांचून भोवंका. टीवि चोवन बेसूका. क्रिकट खेळका.

हावू, कितूले मास जाले हांवें एक सुखान निदेवनु! खंयीय पुणीय भोंवचाक वचूका, हाय! सगट ताणे मनांत लेकिलें. तेदे भितरि तागेलें तोंड अचानक काळें जालें. क्लासांतुले जिटोन आनीक श्रीजयान सांगिल्लें कायरें मनांत आयलें. तो सुटियेंत 'विगालांड' चोंवचाक वतलो म्हणतना तान्नी दोगानीय ताका खेळु केल्लो.

"आरे बुध्दि नातिल्ल्या, हांव लागीचे वाराक अमेरिकेंत वतलों. श्रीजया दुबायाकय वत्तली. तुका लंडनांत वचा नज वे?!"

तो कांय उलयलोना. तागेलो कोणय बी अमेरिकेंत वा दुबायांत ना. अथवा कोण तरी आसा जाल्यारीय तागेले अम्मान ताका थांगा कांय सोडचोय ना.

तो चिंतेंत बुडलो. खंयीय तरीय वचूनातिल्लें जावना. म्हव्यार ताणे खंयीय गेल्यार 'मंजू' एकलीच जातली मू!

देवा ती एक चेलो जाल्यार पूरो आशिल्लें. क्रिकेट खेळूक मेळोवयात आशिल्लें. पिशांड! ताणे अशी सांगल्यार अम्मा ताका आडायतली-

"नज, पूता नज. तशी तूवें सांगूनज. तिका तुजेरि कितूलो स्नेह कीं! तूवें होव्ळो जायनाफूडे तिका कंकण, तीळो, काजल सर्व घेवनु दिवंका. ती होव्ळी जातना तुका सर्व कार्याकय सहाय जातलि. तुजे लागी खेळूकय येतली"

तें व्हय. अम्मान सांगिल्लें सम तं. तिका मिजेरि भारि स्नेह आसा. इतेंय मेव्ळ्यार तावळीच "अन्नू, अन्नू-" म्हूण घेवनु येतली! उम्मा दितली. भोली भयणि मंजु. तिका केवल तीनीच वर्षां जाल्यांय. हांवे तिका सोणु खंयींच वचून्ना......

तागेलें मन दुःखान भरलें. दोनि दीस जाल्यार 'पालक्काड' थाकून माम येतोलो. ताका थांगा वचूका म्हूण आसा. थांगा कितूलि रसपति कीं! सान सान गुड्डे, कमळांनी भरलेलीं तळीं, गावांत सगल्यान आंब्याचे पोणसांचे रूक! मात्र न्हय, 'नंदिनी' आनीक 'माळू' आसतल्यो. कितूले काळ जाले तांकां दिकून! अम्मम्मा नंदिनीक धार काडता दिकूक अमसोर जाला. माळूली "हांबे..........हांबे......." आयकूक आशा दिसता. तिका मिजो उडगास असतलो वे? माका दिकतना ती वळकतली वे?

तांका दिकूक मंजूकय होडु संतोष आसतलो. जाल्यार अम्मान येवनातिलें ती कशी वतली? रम्यक्के लागी, वेणन्नूलागी, प्रशांतन्नू लागी कांय खेळूक तिका जावना. जाल्यार हांवे एकलोच गेल्यार तीणे रोडची ना वे?

म्हूण वचूनातिल्लें कशी? ना जाल्यार फाल्या थाकून सुभद्रक्कालीं उतरां घेवंका जातलीं न्हय वे? अम्मान जोलीक गेल्यार मागीर ती तं घरकडे. टीविंत क्रिकेट जावो कार्टूण जावो चोवंचाक तीणे दिवंचें ना. "सीरियल, सीरियल!" म्होणु बेस्तली. एक भद्रकाळि अक्का! मंजूकय पायार निदावनु टीवींत तिगेलें एका मागल्यान एक 'सीरीयल' चोवन बेसतली.

तो मामांथय वतलो म्हूण आयकून मंजू ताजे लागी थाकून दूरा सरना!

"अन्नू, हांवय येतली पालक्काडाक. हांवय येतली अन्नू लागी!" तीणे निर्बन्ध

केलो. तागेले पायांक पकडी घेवन रोणु सांगीलें." अन्नू गेल्यार धूव एकलीच जातली न्हय वे!"

तिगेलें रडणें आनि खोळसां आयकून तागेलें मन दुकलें. ताणे अम्मान सांगिल्लें कायरें आठयलें-आरे तिका तुजेरी होडु स्नेह आसा. तूवें तिजे लागीय तशीच माया दाकोवंका!

अम्मान सांगिल्लें सम मू. हांव तिगेलो एकलोच अन्नू न्हय वे?

"धुवा, रोडुनाका. अन्नू होगी परतून येवीन. तूवें मिगेले वरी तिसरे क्लासांत पावंतना तुकाय व्हरीन. अन्नून पालक्काडाक वचून येता आसतना होव्ळो चंद एक उपहार हाडीन, धुवा गूणी!"

उपहार म्हूण आयकिल्यार सर्व विसोरचे मंजून रडणें राबयलेंना.

"माका उपहार कांय नाका. माका अन्नू लागी व्हेल्यार पूरो!" तीणे खोळसां काडून रडूक दुसेर आरांबिलें.

वचूका नाका आशिल्लें. जाल्यार स्कूळ दुशेर उगडतना सांगात्यां लागी इत्तें सांगतलों? अमेरिकेंत आनीक दुबायांत वचून आयलेल्यांक कसली जाप दितलों?

तागेले दोळे भरले. ताणे मंजूक लागी उळदून एकी उम्मा दिली "धुवान रडू नज. अन्नू येता आसतना चांग दिसूचो व्होव्ळो एक उपहार हाडतोलो. ओ के?" अशी तिका समाधान दिली.

तेदूस राती तागेलो चोगो चलाण, खेळणीं सर्व अम्मा बप्पान मेळनु बागांत दवरलीं. लागीचे दिसा माम आयलो. ताणे सगटां लागी यात्रा सांगली. तावळी मंजू रडलीना. ती 'टा टा' सांगून अन्नूले मागल्यान पावली. "अन्नू, एक कान दाकय-" ताणे बावगून राबतना तीणे तागेले कानांत रहस्य सांगीलें-" चांग दिसूचो होव्ळो एक उपहार!"

ताणे जायत म्हूण मातें हालयलें.

रंजित पालक्काडाक पावलो. अम्मम्मा, आबू, माम, मांय, अक्की, अन्नू ह्या

सर्वाल्या घरकडे तो एकलोच सोयरो जालो. सगटांनीय ताका स्नेहान पोटोवन धोरनु उम्मा दिली.

दिसाचें आंब्याच्या, पोणासांच्या रुकांर चोणु देंवप. नंदिनीले मागल्यान धावन भोंवप, गुड्यांर चोणु देंवप. अन्नां लागी खेळनु भोंवप. मागीर थकेवन आयल्यार अम्माम्माले होंटींत पोणु गींत आयकून सर्व विसोरनु निदेतालो. आबोलें घर ताका स्वर्गा समान जावन दिसतालें.

बालू मामान ताका मलंपुषा डॅमा कडे आनीक फांटसी पार्कांत व्हेलो. मळबाक लागूचे पाव्ळयार आनी विंदुल्यार सगट बेसतना ताका दिसलें अमेरिके पशीय, दुबाया पशीय कितूलें चांग हें आमगेलें पालक्काड! हांगा ‘एयरोप्लेन’ मात्र न्हय वे ना म्हूण तो आश्वास पावलो.

तशी दीस सगलेच संतोषांत गेले. एक दिसा ताका उळदून मामान निमगीलें.

"आरे तुका हांगा बोय जालें वे? आनीक आमकां पोरतून वचूका नाका वे? परां देनपारां आमी वचूयां-" लागी दिसा तो सकाणीच उटावन आंब्या रुका पोंदाक वचून बेसोलो. थांगा पळ्ळेले पाल्ले काणु ताणे नंदिनीलेय, माळूलेय तोंडाक लायले. स्नेहान तांगेले गोमटेक परशीलें. तांचे लागी ताणे यात्रा संगीली. समजल्यावरी तान्नी दोगानीय मातीं हालयलीं.

थांगच्या गुड्यांक आनीक आराक ताणे संकटान यात्रा सांगीली. वचो वेळु जातना ताणे अम्मम्माक आनीक आबोक पोटोवन धरनु उम्मा दिल्ली. तांचे पाय आपोणु पांय पडलो. हें ताका तागेले अम्मान सांगून दिल्लेलें तं.

मामालागी रंजित अंचिक्कमळचे बसार चडलो. कडेचे सीटार बेसोलो. अर्द मनान पालक्काड थाकून भायर सरलोलो रंजित बसार बेसून वाटेवेलीं दृश्यां चोयलो. भायरचे लोकांत मेळसतना तागेले मनांत थाकून पालक्काडाचिं एकेक कायरीं पुसून गेलीं. बसाचें स्पीड चड जायत गेलें. छट जावन अम्मालें आनी बप्पालें तोंड तागेले मनांत उदेलें. आनीक मागीर मंजूलो उडगास धावन पावलो. ताणे मनांतूच आठयलें "चांग दिसूचो होळ्ळो एक उपहार!"

ताणे तशीच हुमेवंचाक आरांबिलें. मंजूक दिवंचाक कांय काडलेंना! हांव इत्तें

दितोलों? चल्लाणाचे पोकटांत सोदीलें. तांतू एक सान "टाटू" सरी ना. "देवा, हांव आतां इत्तें करतोलो? मंजू लागी इत्तें सांगतोलो?"

तो देवाक आठोवन आठोवन बसाचे भायर चोयलो राती जाल्या. वस मुकार वचना. 'ब्लोक' म्हूण दिसता. "देवा.....!" ताणे मन तापून प्रार्थना केली. मळबाकडे चोयले- उंचार नितळ मळ्ब. थांगा थांगा नक्षत्रां थळथळेताय. बोब्बोदेव वाडकुळोच जावन दिकूक येता. तावळि ब्लोक निसरुन बस संत संत मुकार सरुक आरांबिलें. छट जावन ताका अतिशय जालो- बस मुकार मुकार वतास्तना बोब्बो देवूय मुकार येता! बस राबतना तोवय राबता. बस होगी धावल्यार तोवय होगी होगी धावन फाटी घेता. ताका होडी रसपती दिसली. तागेले बसाचे ओटूच बोब्बोदेवूय येता आसा.

कसलो अतिशय! बोब्बोदेवाक कशी कळता माका ताजेलागी स्नेह म्हूण? माका मात्र न्हय, मंजूकय बोब्बोदेव म्हल्यार प्राणु तं.

तावळ मामान ताका उळदीलो- "देंवया रंजित!" दोगंय बसार थाकून देवनु चमकीलीं. बोब्बो देवु तांचे मागल्यानच वता.

मंजूक सर्वापशि स्नेह बोब्बोदेवा लागी तं. एक दीस तीणे सांगिल्लें कायरें ताणे आठयलें.

"देवा, हे बोब्बोदेवाक घरकडे घेवन येवंका तूवें! मिगेले धुवाक दिवंचाक-"

घर पावलेलें तो जाणा जालोना. मामान घराचें गेयट काडचो शब्द आयकून अम्माय बप्पाय भायर आयलीं. तांचे मागल्यान मंजूय धावन पावलि. अन्नूक दिकतना तीणे धावन येवनु म्हळें- "अन्नू, एक कान दाकय-" ताणे बावगून राबतना तीणे तागेले कानांत रहस्य सांगीलें- "चांग दिसूचो होव्ळो एक उपहार!"

ताणे तिका उबारनु काणु उम्मा दिली, आनीक मळबाकडे बोट दाकयलें- "चोय धुवा, अन्नूलो चांग दिसूचो होव्ळो उपहार!"

"हाय!" तीणे दोनीय हातांनी ताळियो मारली. "ईचय, होव्ळो बोब्बो देव! अन्नून हाव्ळोलो उपहार!"



## राधिका शेणै

1960 वर्षा केरळाच्या पळ्ळुरुत्ति, कोचि हांगा जन्म. मेजक्योच काण्यो रचल्याय, ज्यो 2001 वर्स धरुन नेमाळ्यांनी प्रकाशित जाल्याय. दृश्य श्राव्य कलारंगाचेर तान आसून G.S.B. वनिता कलाकेंद्रा खातीर वावर. कोंकणी कला कार्यक्रमांनी वांटो घेतला. कांय भुरग्यांल्या कोंकणी कला कार्यक्रमांची संघाटिका म्हणूनूय हांचो बरो उल्लेख जाला.

पत्तो: 10/675 'GOKUL', Palluruthy, 682006

*'ते पुण्यवंतीलीं हाडां रामेश्वरा समुद्रांत निमज्जन करुन मू तीं येताय-'*

जीवित साफल्याची, धन्यकर्मांची समर्पक कथा.

# पुण्यवंति

ट्रेनाचे जनेलांतुल्यान चोवंचानीक दूरा तांबिडोचि सूर्या. ताजो उजवाडु दोळ्यांत पडता. माधवमामु संत उठायलो. उंचावेले बर्तारि पूतु अजय सुखान निदेता. तागेली कांबळि सामकि कोरनु घालनु माधवमामु बातरूमाकडे चमकीलो. परतूनु येतना खालाचे सीटावेलीं सर्व जागीं जालीं. माधवमामु सीटारि बेसूनु भायर तशी चोयताचि आसा. तावळि पाचूवे गद्देय तांतूं दंद कोरचे मनिषांकय दिकीले. माडे माडियो लागेन दिकचाकय केरळांतु पावलीं म्होणु ताका कळ्ळें. वाचारि चोयतणा उणेचि वेळान पालक्काड पावंतलीं म्होणूय कळ्ळें. जनेलांतुल्यान शेळ वारें मारता जाल्यारीय मनांतुले हुनसाणीक ऊणाव ना. तागेली बायल सुनंदा वोचून एक वर्ष जाता. तिगेलीं हाडां व्होरनु रामेश्वरा समुद्रांत निमज्जन कोरचे खातीरि ही यात्रा केलेली.

रामेश्वराचे भटान मंत्र म्होणु जावन अजयान तागेले अम्मालीं हाडां उदकांत निमज्जन केलीं. तें दृश्य चोवनु माधवमामाले दोळे भरले. पुतान तागेलें रण्णें दिकूनज म्हूण ताणे होगी समुद्रा उदकान तोंड धुल्लें.

गेल्ले एक वर्षा लागी तीं हाडां घरकडे अशिल्लीं. सुनंदान गेल्लेले तिसरे दिस्सा सारी भोरनु मातियेचे कोळसुल्यांत काणु तेक्का मुल्यावेले तेक्किनीचे कषिक्कलारि बांदुनु दवरलेलिं. सदंचि तो कोळसूलो चोवनु एदोचि वेळु ताणे राबप आशिल्लें. तावळि सुनंदालें सामीप्य मेळ्ळेले वरी ताका दिसतालें.

आतां तेंवय ना जाता! ताणे आठयलें.

घरकडे एकेक वेळारि तिगेली जाप आयकिल्ले वरी दिसतालें. "एय आयकीलें वे?" व्हय, इत्तिगो, म्हूण जाप दिवंचाक घुवनु चोयतणा कोण आस्सून्ना थांगा! तेक्किनींत बांदून दवरलोलो कोळसूलो दिकतणा तिगेलें मरण एक सत्य म्हूण मनांत येतालें.

"पेपर, पेपर!" म्हूण उल्लो आयकून ताका सुद्दी आयली. पूत लागीच बेसला.

"आतां खंय पावलीं रे?"

"पालक्काड पावंताय बप्पा. हांव वोचून खांवचाक इत्तें मेळता म्हूण चोवनु येतां"

भांडि राबतणा तो देवनु गेल्लो, थांगा थाकून एक सान कुटुम्ब ते कंपार्टमेंटांत चव्ळीं. एक दादूलो, बायल आनीक सुमार सात वर्षांची तांगेली चेली. चेल्लेलें तोंड माधवमामाक होड परिचयाचें सरी दिसलें. मनांतु ताणे वळकूचे चेरडुवांलो सगळोचि उडगास घेतलो. कसली वळकि म्हूण उडगासु येना.

"बप्पा, बप्पा हें ट्रेन केद्वाणा सोडतलें?"

"उणेचि घडियानी सोडतलीं गो!"

ती सीटावेल्यान जनेलाक धोरनु ऊंच चडूक भायर सरता. तिगेलो हातु एमर्जनसी सांकाळे लगी वता. तिगेले बप्पान तिका खालाक देंवयली. ती आतां बप्पाले होंटींत बेसून माधवमामाक चोयताचि आसा. तें तोंड आनी ती दृष्टि चोवन ताका चिरपरिचित सरी दिसता. कोण ही चेली?

अजय खाण घेवनु आयलो. माधवमाम संत उठावन हात धुंवचाक म्हूण चमकीलो. वाष बेसिनाकडे हात धूवन जावनूय तो एदेचि घडी सबाव भायर चोवन राबिलो. जाल्यार दोव्ळ्यां मुकारि दिकूचें कांय ताजे मनांत वचना. सात वर्षांचे ते चेल्लेलें तोंड आनीक प्रकाशमय दोळे तं तागेले मनांत. तो स्वयं निमगिता- "ती चेल्ली मिगेली कोण?"

तो परतून सीटारि येवन बेसलो. ताणे चेल्लेले बप्पालागी निमगीलें "तुमी खंय वताय?"

चेल्लेन तं जाप दिल्लेली "आमी कोची वताय!"

"ओ, कोचीकार वे तुमी?"

"ना आमी पालक्काड तं राबताय. आतां कोची वताय एक आवश्याक तं" चेल्लेले बप्पान जाप दिली. माधवमामान खाण खावन जावन हात धूवन येवु भितरि

कांय सांगलेंना. तें जावन चेल्लेले अम्मान संत संशयान निमगीलें- "तुमी कोचिकार वे?"

"व्हय आमी कोचीकार तं. कोची खंतय वताय तुमी?"

"आमी एक घरकडे वताय तं. घर खंतय म्हूण कृत्यं कळना"

"अड्रस आसा न्हय वें? हाका दाकयल्यारि तो सांगून दितोलो. "माधवमामान पुताक दाकयलो.

ते मनिषान तावळि किस्सांत थाकून एक कागता कुटूको भायर काळ्ळो आनीक अजयाक दाकयलो "हें तं नांव आनी अड्रस-"

कागता कुटूको चोवु भितरि अजयाले तोंडारि आश्चर्य उदेलें "हें बप्पालें नांव मू!" ताणे माधवमामा लागी सांगीलें. हें आयकून माधवमामाक मात्र न्हय तांकाय होड आश्चर्य जालें. तीं दोगंय छट कोरनु उठायलीं आनीक माधवमामाले पायांक आपोणु पांय पळ्ळीं. तांगेले दोळे संतोषान भरले दिकून माधवमामाक इत्तें कोरका म्हूण कळ्ळेंना "इत्याक हीं माका पांय पडताय, देवा, हांव हांकां वळकना मू!" म्हूण तागेले मनांत आश्चर्य.

"आमकां वळकिलींनाय आसतलीं तुमी. हांव सांगन" चेल्लेक होंटींत बेसोवन तिगेले बप्पान सांगीलें. "तुमगेले धर्मपत्नीले दोळे दान मेळ्ळेले खातीरि तं आमगेले हे चेल्लेले जीवितांत उजवाडु आयलोलो-"

हें आयकिल्लेंय माधवमामाले मनांत एकशें एक उडगास उदेले. जायतीं वर्ष फूडे नेत्रदाना पासून आयकून तान्नी दोगंय ते संरंभाचेरी आकृष्ट जालेंलींय, एकसाणीच दोगानीय नेत्रदानाचे कागतांचेर ओप घालनु दिल्लेलेंय ताजे मनांत धावन आयलें.

चेल्लेलो बप्पा तिगेली काणी सांगताचि आसा. "ही आमगेली एकलीच धूव. हिका जननारीच दृष्टी ना. स वर्ष तीवय आमीय अंधकारांत तं आशिल्लीं. एक वर्ष जालें आतां आमगेले कुटुम्बात सूर्य उदेला."

"हें तुमगेलेय, तुमगेले धर्मपत्नीलेय चांग मनान तं. आमगेलो संतोष कृतज्ञता कळोवंचाक आमकां उतरां मेळनांय. तुमगेलो उपकार आमी मेल्यार सरी विसोरना"

तो मनीष हें सांगून दळदळीच रडता दिकून माधवमामान ताका समजायलो.

आस्पत्रेंत थाकून देह काडचे फूडे तिगेले दोळे दान कोरका म्हूण सांगचानीक सर्वांकय एक अतृप्ति आशिल्ली. जाल्यार सुनंदालो आग्रह तो म्हूण माधवमामाक कळतालें. ताणे निर्बंधान सांगून तं तिगेले दोळे दान दिलेले.

नेत्रदानाचीं कागतां ओप घालतनाच तान्नी काव्ळोलो निश्चय तं तो. माधवमामान तेदूस सांगिल्लें "हांव तं आद्यं वत्तलों. तावळि मिगेले दोळे उडगासान दान दींवका तूवें!" सांगून पुरतें कोरचे फूडे तीणे तागेलें तोंड धांपिल्लें. आनीक हासून सांगिल्लें "हांव तं आद्यं वत्तली. माका सुमंगलि जावन मोरचो वर मेव्ळा!"

तशीच जालें!" तिगेलो आग्रह सफल जालो" माधवमामान आठयीलें. ते पुण्यवंतीलीं हाडां रामेश्वरा समुद्रांत निमज्जन कोरनु मू तीं येताय!

चेल्लेले बप्पाक समजावन जावन ताणे चेल्ले लागी निमगीलें "इत्तें धुवे तुजें नांव?"

"सिंधू" तीणे सांगीलें.

"यो, एक घडी हे आबोले होंटींत बेस" मामान उळदितणा ती होगी गेली.तिगेले उज्वल दोळेय, हासूचें तोंडय चोवनु माधवमामाक सांगूक जावनातिलो संतोष दिसलो. आपण्याले दोळे भरले म्हूण कळतनाय तो ते पुसूक गेलोना.

मळबावेली न्हंय
व्होळता शांत, शीतळ
मोंचुवारी येवनु चंद्रेमु
पुंजायता कमळ

*- सूर्या अशोक*



## सूर्या अशोक

1969 वर्षा केरळाच्या तृप्पूणित्तूरा गांवांत जन्म. "कृष्णगीत" सचित्र काव्य, आनी "पुनर्जनी" कथासंग्रह अशी दोन प्रकाशित पुस्तकां. कथा, गीतां, प्रवासवर्णना आदी नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्याय. कोंकणी भाषा प्रचार सभा, एस.जी.एस. सभा, वैष्णवरत्न, 'एन.एम. सरस्वतीबाय' आदी पुरस्कार मेळ्ळ्याय. दोन कवितासंग्रहांत हांगेल्या कवितांचो आस्पाव जाला. केन्द्रीय साहित्य अकादमीन उजवाडायलेल्या कोंकणी लोककाण्यांच्या संग्रहांत केरळाच्यो कांय कोंकणी लोककाण्यो वेंचून बरोवन दिल्याय. कोंकणींतली पदव्युत्तर डिप्लोमा उन्नत श्रेणींत प्राप्त केल्या. 1996 धरून कोंकणींत निष्ठेन साहित्य सेवन करीत आसा.

पत्तो: 19/36A 'Srinivas' Waterland Road, Palluruthy, Kochi-682006

*'तुमकां दोगांकय मिगेलीं अम्माबप्पा न्हय करूक कोणाक जावना'*

जन्मफलाक जिक्वूच्या कर्मफलाची, रगताच्या संबंदाक जिक्वूच्या स्नेहाच्या संबंदाची तेजिष्ट कथा.

# साफल्य

"कनका, तूं केदाणा कि पत्मावतक्काक दिकूक वता? तुका दिकूका म्हूण डोक्टर मामा लागी सांगताली खंय मूं ती." नंदकेश मामान बायले लागी निमगीलें.

"आतां चेकअप आनी जावनू पांवल्यांय मात्र. माका पूरो जावनू आसा. फाले बी जावो. वोचून दिकूं. कितूलीं वर्षां जालीं आमी ते अक्काक दिकून? अक्कालीं कायरीं आलोचन केल्यार कष्ट दिसता."

"ताका तं कपला बोरो म्हूण सांगताय."

"जाल्यारीय कसले स्तिथीर आशिल्लीं किं तीं? कसलो ऊणावू कि ताकां आशिल्लो? श्रीनिवास मामाक होव्ळो ब्यारु, होव्ळें घर. चौग जाण फाव जाल्लेले चेल्ले. आनी इत्तें जांवका? मागीर आतां कशि वृद्धसदनांत पावली? तें तं माका मनांत जायना."

"कायरीं सगट सम तं. जाल्यार तीणे तुजे लागी केलोलो व्यवहार मात्र तूं विसरली वे?"

"विसरनू कांय गेल्लीना. जाल्लेलें जाल्लें."

"तीणे कारण आमकां गांव सोडून वोचूका जाल्लें कि ना? कसकसलें किं तीणे गांव सगोळ सांगून भोंविल्लें?"

"ते अक्काली चिंतागति पोरणी. तें तं तशी. मागीर, गांव तशी सोडून गेल्लेलीं कांय न्हय मूं. ट्रांस्फर मेळनू न्हय वे?"

"मेळनू? निमगून घेवन म्हूण सांग!"

"कशीच जाल्यारीय आमगेले धुवेले भविष्या पासून आठोवनू न्हय वे? आतां

कांय ना तुमी सेवा- निवृत्त जाले जाल्यारीय सगटय मेळनू सुखान संतोषान राबताय मूं."

"तें मागीर आमी धुवेक वाड्डयलेल्याचो गूणू मूं कनका."

"तें मात्र कांय न्हय म्हणे. तिगेलो बामूण श्रीधरुय भांगरा कुटूको तं."

"व्हय, सग लेकानय आमगेलें भाग्य तं. तें आसो. ती अक्का आतां आमकां फाटी घेवनू सरी ये गांवांतूय पावल्या. आनी इत्तेंय सगट सांगून आमगेले जीवितांत कांटे तोपूक ती चोयतली. चोय मात्र."

"इत्याक म्हणे अशी सगट सांगताय. तिगेलें चरित्र डोक्टर मामान सांगिल्लें तुमीय आयकिल्लें न्हय वे? श्रीनिवास मामू हार्ट अट्टाक जावनू परलोकाक गेल्लो. पूत कोण घूवनु चोयनाय. कोण नातिल्यान पत्मावतक्का अशीच वृद्धसदनांत पडून अनारोग्यान कष्ट काडता."

"पूत लागी खंय नांय वे?"

"होव्ळे पुताक परदेशाक काम मेळ्ळें. एक होव्ळे घरकडचे चेल्लीय जावनू डाम डूम करनू व्हारडीकय जाली. बायलेकय घेवनू तो जोली स्थलार गेल्लो. गेलोलोच गेल्लो. मागीर बर्प सर्प सरि राबून गेल्लें खंय. बप्पालो ब्यारु खूब जावनू चमकता. तें दिकून ताणे दुड्ड सरी पेट्टोवनू दीवंका नाकाय, बहु सूख. अन्वेषणय करका नाका म्हूण दवरलें जायत."

"कनका, यें चरित्र कांय डोक्टर मामान सांगिल्लें न्हय मूं. यें तूका खंय साकून मेळ्ळें?"

"तें सग हांवे आयकिलें. ती 'न्यूसपेपर' संतमक्का आसा न्हय वे? ती एकी पावटी हांगा आयिल्ली. आनीकय जायतें सांगीलें तीणे. जाल्यार आखिरचो विवोर कांय तिका मेळ्ळोना म्हूण दिसता. बायल बामूण दोगंय धाकूले पुता ओटू राबताय म्हूण तं ती सांगताली."

"आसो. आनीकय आसाय मूं पूत. ते खंय गेल्ले?"

"आयकाय. दुसर्याकय अन्नान परदेशक व्हेल्लो. ताकाय थांगा चांग काम मेळ्ळें. दोनी चारी वर्षी कळ्ळें तो थांगा एक सायबीणीक व्हारडीक करुन राबीला म्हूण."

"व्हय वे?"

"आं. मागीर श्रीनिवास मामाक भय जाल्लें. सगटय परदेशाक वोचून गेल्यारी म्हूण ताणे तिसरे पुताक ब्यारू बरोवनू सोंपिलो. तशी पुणीय तो गांवांतूच राबतलो म्हूण लेकिलें ताणे."

"ब्यारू तशीच बरोवनू दिल्लो? कसलें केल्लें ताणे! तावळी तो इत्तें करतलो?"

"पूत चोयतले मू. तशी न्हय वे सर्वालोय विश्वास. मामान आमचे लागी सांगिल्लें उडगास ना वे तुमकां? तांका चौग जाण पूत. एकु ना जाल्यार एकु पूतु चांग करुन चोयतलो. सर्वय पुतांकय स्त्रीधन खूब मेळतलें. तें मात्र वे? आमी काडलोलो निर्णय चुकलो. आमकां एक आंगवैकल्य आशिल्ले चेल्लेक सोयरीक सोदूक त्रास जातलो. स्त्रीधनाचे खातीर धावनू भोंवका जातलें. चेल्लो मेळतलो म्हूण इत्तें बरोवनू आयलें वें? चेल्ली घर भोरनू पडतली. अशी सगट सांगून श्रीनिवास मामू आमकां आधी हाडूक चोयलोलो कि ना?"

"हां. पुण आमी काडलोलो निर्णय चुकलोना म्हूण कळ्ळें. आतां आमकां श्रीधरुय पुताचे वरी चोयता किं ना?"

"व्हय म्हणे. देवाले दयेन आमकां आतां संतोष आनी सौभाग्य भोरनू मेळ्यां. रत्नां सरी तं आमगेल्यो नातियो वर्षा आनी वरुणा.'

"हां, व्हय! पत्मावतक्काली काणी पुरती सांग."

"आं. तिसर्याकय खूब स्त्रीधन मेळ्ळें. धनिक बप्पाली एकलीच धूव. होड मोगाची. ताणे मागीर मावांथंय घर-जांवय जांवचाक चड तोडोव जालोना. तोवय अम्मा बप्पाक विसरलो. आतां ब्वारूय ना, आनी पुतय दूरा जाले. जीविताचे तीन खांबे मोडून गेल्ले."

"धाकूलो?"

"म्हालगडे भावांल्यो करण्यो दिकून ताका सायलेंना. ताका अम्माबप्पाचेर स्नेहू आशिल्लो. तागेले सानच कामांत साकून मेळचे दुडवांनी तो तांकां चोयतालो. तांतू भरसी पत्मावतक्काक सानच जावनू पक्षघात आयलो. घर परम विकून वोयदीक केल्ली. सल्प आश्वास जालो. चमकून भोंवयात जालें, परसहायान. पुतान भाड्या काडलेले घरकडे तं राबतालीं. तो पूतू तांकां चांग करनू चोयता म्हूण संतमक्का सांगताली. मागिरचें खबर आतां न्हय वें कळ्ळ्यां. असली एकि दुर्विधी!"

"व्हय, तो एक आशादीप आशिल्लो लागेन अकालमृत्यून सोंतू केल्लो. वाहन दुर्घटना खंय. तांतूच भरसी मामाक हार्ट अटाक आयलें. पूतु गोल्लेले मागल्यान तोवय गेलो. आतां अक्का एकलीच वृद्धसदनांत अपण्याले रोगाचे लगी झुजून पडल्या खंय."

"कष्ट! असली दुर्विधि शत्रूंक सरि दिवंचाक नज देवा!"

"तुगेले चांगपणान तं तशी सगट दिसता कनका. आमगेले धूवेकय चांग मन तं. वृंदा आतां आमकां कशी चोयता कि!"

"आतां आमकां एक धूव आनी एक पूतु आसा. वृंदाले भाग्यान एक मायेस्त बामूण तिका मेळ्ळो. आमगेलेंय भाग्य!"

"समितींत वाडल्लो जाल्यार इत्तें? भांगरा कुटुको तं तो!"

"व्हय! कुटुंब-माहात्म्य कांय चोवनू वें एक मनुष्याचो गूण कळता? धूवेलो हात निमगून आयलो, पूर्ण मनान धूवेक ताका सोंपून दिल्ली."

"वृंदालो ऊणाव कांय तो चोवनू राबिलोना न्हय वें? माका इत्याक कि थोंटी बायल म्हूण बेसूयात आशिल्लें ताणे. वृंदाले चांग मनाक तोवय वळकिल्लो आसतलो. तिगेलेच कोळेजांतूलो प्रोफसर. चांग जोली. स्वभावाक जाल्यार सर्वानीय परफेक्ट सरटिफिकेट दिल्यां. वेगळें कांय सोदूका वे? आतां देवाले दयेन आमी सगटय एकमेळेन संतोषान राबताय कि ना? कशी चांग करनू चोयताय तीं आमकां."

"व्हय कनका. वृंदाक तेच कोळेजांत काम मेळ्ळेलेंय चांग जालें."

दोगांय एकेक आलोचनेंत मग्न जावनू बेसलीं.

नंदकेश मामू बांकांत साकून निवृत्त जालोलो. निवृत्त जांवचाकय मेळ्ळेले दुडवांनी चांग एक घर- परम घेवनु तीं सर्वय राबताय. आतां मामू आनी कनका मांय धूव-जांवयांलो, आनी नात्तियांलो मायेचो आनन्द घेवनु सुखान संतोषान जीवन काडताय.

लागीचे दीस पत्मावतक्काक दिकून आयिल्ले कनकाले तोंडार एक म्लानता.

"कनका, इत्तें जालें? इत्तेंय पोरणी कायरीं काडून उलयलीं वे तीणे?"

" व्हय म्हणे. तिगेले कष्टाचीं कायरीं सगट सांगून सांगून ती खूब रडली. तें सगट जांवचाकय वृंदालीं कायरीं निमगीलें. तिका आनी चेरडुवांक चोंवका म्हळ्ळें. हांवे तांका पेट्टेयता म्हूणूय सांगून जालें. आनी तांचे लागी ती इत्तें सागट म्हूण कळना सांगूक वता. बडी दीवनू पेट्टू घेत्तल्ल्या वरी जातलें वें म्हूण तं माका भय."

"तशी कांय जावना कनका. तूं सबाव भीवनाका. उत्तूले काळ सुखान गेल्ले. आनी मुकारीय तशीच आसतले म्हूण विश्वास दवोरया. आमी कोणाक कसलेय उपद्रव दिल्लेनाय मूं. एक बरें काम केल्लें; ताजे पासून चांगपणच तं जातलें. तूं विचार काडूनाका."

लागीचे आयतारा पत्मावतक्काक दिकूक गेल्लेली वृंदा आनी चेरडूवां परतून पांवचाक तोडोव जाता दिकून कनकाक विचार जालो. पोरणे उडगास जागे जाले.

कनकालि व्हारडीक जावनू सात आट वर्षां जावनूय चेरडूंवा जायनाय दिकून शेजारचे पत्मावतक्कान एकेक कूट सांगून भोंवचाक आरांभिलें. तांकां सहन करूक जांवचे पशी चड पीडा ती तांकां दिताली. तांगेले जीवितांतूय एक चेरडा रण्णे आयकूक जावनू तीं वळवळेतालीं. जायते डोक्टरांली वोयदीक केल्ली. वोकदां खेल्लीं. संतानभाग्या खातीर देवळां भोंवलीं. आंगवण केल्ली. दोनी फंता गुरबीणी जाली. जाल्यार निर्भाग्याक दोनीय फंताय गर्भपात जालो. तिसरे फंता डोक्टरान पूर्ण

विश्राम काडूक सांगलें. मास जावनू चंद एक चेल्लो जालो. तांगेले संतोषाक सीमा नाशिल्ली. पुण स्वपनां सर्वय रण्यांत बुडोवनू तांगेलो संतोष अल्पायू जालो. देवालो खेळू! तो चेल्लो गेल्ले उपरांते केद्दी निराशा जाली.......

कनकान वोरला तलवान दोळे पुसिले. 'चेरडूवां येताय म्हूण दिसता' दुरचानच चेरडूवांलो सोवदू आयकू आयलो.

"अम्मम्मा....अम्मम्मा........"

दोगांय धावनू येवनू पोटोन धरनू रडकुळे तोंडान तिका चोयताय. रण्णे फुटूक तोडोव कांय जावना म्हूण दिसता. इत्तें जालें म्हूण तिका समजलेंना. पत्मावतक्कान इत्तेंय सांगीलें वे?

"अम्मम्मा, ती म्हांतारी मांय सांगता......"

कनकाक खप जालें. "इत्तें खंय.......?"

"ती पत्मावतक्का सांगता.....अम्मम्मा आमगेली समच अम्मम्मा न्हय खंय! न्हय वे?" रण्णे फुटलेंच.

एक निमिषाक तिका इत्तें सांगूका म्हूण संशय जालो. वृंदाक कळ्ळें वें? आनीक इत्तें करतलीं? देवा तूंच राक!

दोगांकय लागी ओडून तीणे तांचे दोळे पुशीले आनी ओपूरबाय करून म्हळ्ळें-

"कोण सांगता हांव तुमगेली अम्मम्मा न्हय म्हूण? तें सग सबाव सागूचें तं, कळ्ळें वे? तुमकां तशी दिसता वे? ना न्हय वें? कोणेंय इत्तेंय सांगीलें म्हूण कांय आयकू वचाक नज, कळ्ळें वें? हांव तुमगेली अम्मम्माच तं." तीणे तांगेले मात्यार परशीलें. "आनी तुमी वोचून खेळाय. वचाय."

तांका समाधान जाली. अशी ओपूरबाय करची, अम्मम्मा न्हय जातली कशी? अम्मम्माक एकेक उम्मा दीवनु त्यो दोगांय धावल्यो.

कूडांत चडून आयिल्ले वृंदाले तोंडार चोंवचाक तिका शक्ति नाशिल्ली"

"अम्मा, इत्या अशी बेसल्या? चेरडूवांनी कांय म्हळ्ळें वे ?"

कनका मात्तें नीट करुन चोयली. वृंदान कांय आयकिलेंना? तिकाच चोंवचे अम्मालें निर्जूळ तोंड चोवनू वृंदा अम्मा लागी वोचून बेसली. अम्माले हात दोनीय हातांत काडले आनी मोगान चिरडीले.

"अम्मा, पत्मावतक्कान सांगिल्लें कायरें माका फूडेच कळतालें तं."

"देवा! तें कशी गो धुवे? तुजे लागी मिगेलो व्यवहार तशी वे आशिल्लो?"

"ना मा!" वृंदान अम्माक एक लागेन लागी काडून धरली. " माका समच धुवे वरीच तं तुमी दोगांय पोसतालीं. तुमकां दोगांकय मिगेलीं अम्माबप्पा न्हय करुक कोणाक जावना. पत्मावतक्का इत्तेंय सांगो." सांगता सांगतां वृंदालो ताळो हळबळेलो. कनकाले दोळे भरले. अम्माले दोळे पुसून वृंदान म्हळ्ळें.

"तुमी माका खूब माया दीवनूच मां वाड्डयल्या."

एदीच घडी दोगंय निशब्द बेसलीं. मागीर कनकान निमगीलें. "धुवे तुका कशी कळ्ळें? फुडेच कळतालें कशी?"

"अम्मा, हांव कोळेजांत शिकचे कालाक एक दिसा अम्माली अलमारी स्वच्छ करतालीं. त्या वेळार माका एदीं पोरणी कागतां मेळ्ळीं. तांतू बरयलेलें वाचूनीक माका तेदूस दोळ्यां काळूक आयलो. मिगेले अस्तित्वाकच घाय पडलो. माका कसली वळख? इत्याक अशी जीवन काडका? मिगेले नीज अम्माबप्पाक नाका जालेली हांव! जीवन अर्थशून्य दिसलें. निराशा, विरक्ति, वैराग्य सर्व चडले. आनी मरण मात्र मुकार! मोरया! अशी निर्णय काडूकय......" तिका पुरतें करुक जायना. खोळसां फुटलीं.

"धूवे! नाका गो धुवे! आनी सांगूनाका!" अम्माय धूवय करनू अळता पेळतां धोरनू रडताय.

".......पुण हांव भीरु न्हय आशिल्लीं. तशी न्हय मा, तुमी माका वाडयलेली.

मिगेले वैकल्या लागी धैर्यान लडाई करूक तुमी शिकयलेलें. तुमगेले स्नेहान माका धरनू राबयली. मरणाक हांवे वाट केल्लीना. धैर्यान मुकार वचूका अशी दिसलें. जाल्यारीय मनांत खूब दुख आशिल्लें. कोळेजांत वचाक दिसना आशिल्लें. मंचार रडून पडतालीं. अम्माक उडगास ना तें?"

"तें यें वे आशिल्लें? हांवें लेकिलें कोळेजांतुलें इत्तेंय प्रश्न म्हूण."

"ना, ना, येंच आशिल्लें! अम्मान तेद्दूस माका एक नीज धुवेक करचे वरीच ओपुरबायेन समाधान केल्ली. दोनी चार दिसीं तं हांव मागीर काळेजांत गेल्लेलीं. क्लासांत बेसूनूय माका थांगा चमकूचें कांय मात्यांत चडना. दोळ्यां मुकार तीं कागतां मात्र. दोळ्यां साकून दुखां पडताय चोवनू मिगेले प्रोफसरान माका स्टाफ रूमांत अपोवनू व्हेली. खोळ्सां काडून रडचे मद्दें हांवें यीं कायरीं सग प्रोफसराचे लागी सांगलीं. हांव एक पोसको काडलेली चेल्ली. अम्मा बप्पाक नाका जाल्लेली. मिगेलीं दुखा वर्तमानां सग क्षमेन आयकून जावनू प्रोफसरान माका समाधान केल्ली. तुमी दोगंय माका ओपुरबायेन वाड्डेयताय. तुमकां मिजेर खूब स्नेहू आसा. तेंच तं समच अम्माबप्पाची लक्षणां. तुमचे पशी मायेचीं अम्माबप्पा आनी कोण आसाय? अशी सगट सांगून समाधान करूक तो प्रोफसर सर्व लेकानय अर्ह आशिल्लो. इत्या म्हळ्यार प्रोफसर समितींत वाड्डलो!"

"श्रीधर?"

"व्हय! ताणीच! मागीरचीं कायरीं अम्माक कळतां मूं!"

"आमगेलें सगटालेंय भाग्य गो धुवे. तूं आमगेलीच धुव. उत्तुलेंच कळ्ळें न्हय वें. आनी धुवेक एक कायरीं लागेन कळका नाका वे? तुगेले नीज अम्माबप्पाक नाका जाल्लेली न्हय तूं. तुका वाडेडोंवचें सौभाग्य तांकां मेळ्ळेना मात्र. तुगेली अम्मा मिगेली एक दूरची बंधू. तूं पोटांत आसतना एक दुर्घटनेंत तिगेलो बामूण गेल्लो. बाळांतिर्यार कष्टकालाक तीवय गेल्ली. जन्मान एकु पायु सल्प गुड्डो आशिल्ले तुका पोसूक कोण नाशिल्लें. तशी आमगेले भाग्याक तूं आमकां मेळ्ळी. तुका आमगेली न्हय करूक कोणाक जावना. तूं आमगेलीच धुव!"



## डॉ. आशा जयकुमार

1961 वर्सा केरळाच्या पव्ळुरुत्ति गांवांत जन्म. कालिकट हांगा वसति. मलयाळमांत बर्यो प्रवास वर्णना बरोवन साहित्यांत प्रवेश. कोंकणींत प्रवासवर्णना, कथा, व्यक्तिचित्रणां आदी रचल्यांय. "वैष्णवरत्न" पुरस्कार प्राप्त जाला. कालिकत्ताचे 'शोभान' संगीतवेदीची सदस्या. जायत्या कलाकार्यक्रमांनी वांटो घेतला. आखिल भारतीय कोंकणी परिषदेंत प्रबंद सादर केला.

पत्तो: "Aswanjali" Behind Govt. H.S, Azchavattom, Calicut 673007

*'आमगेल्या पूर्विकांलो तो गांव एक पावटी लागेन भोवन चोवंचाक आशा दिसता'* गोंयच्या 2001 वर्साच्या पर्यटनाची म्हायतीपूर्ण वर्णना.

# गोंयांत तीन दीस

"काक्याक आपय, काक्याक आपय
दोनीय हातांनी, पूतू, दोनीय हातांनी-
काको मेंडो काळो रे तो
गोयांत गेलो रो-
गोयांत वचून दोरकी भास
शिकून आयलो रे-"

माका मिगेले अम्मानय, हांवे मिगेले चेरडुवांकय म्होण दिवप आशिल्लो गींत तं यो. तावळि थाकून आमगेलो पूर्विकांलो तो गांव-गोवा-चोवंका म्होण मनांत होडी आशा आशिल्ली. ते खातीर एक संदर्भ मेळतना होड संतोष जालो.

फेब्रुवरी पंद्रावे तारिकेक, बिरस्तारा सांजे, सत्तड वरांचे नेत्रावती उजाभांडीरी चोणु आमी गोयांक भायर सरलीं. आमगेलो लीडर चालप्पुरम "चंपांत" राबूचो एम. पी. जे. कामत माम. चारि वर्षांचो अर्चित थाकून 80 वर्षांचो कामत माम पर्यान. आमगेले ग्रूपांत बायलो, दादूले, चेले, चेलियो, सान चेरडूवां सर्व मेळनु इकूणीस जाण. आमी कुटुम्ब समेत पूर्विकांलो गांव, देवळां, सर्व भोवन चोंवचाक यात्रा आरंभ केली. उजा भांडीरि चोणु एदोच वेळु जातना आमी खाण केलें आनी मागीर सुखान निदेलीं.

**फेब्रुवरी 16 सुक्रार**

फाले फाल्यार सूर्या उदेवंच्या वेळार आमगेली गाडी कोंकण रेलवेच्या 'कानकोन' म्हळ्ळेले स्टेशणांत पावली. भायर चोयल्यार माडे, माडियो, केळी, न्हंय, गुड्डे दिकू येताय. तें दिकून आतांय आमी केरळांतूच वे आसाय म्होण संदेह दिसता. लागीचे स्टेषन मडगांवांत आमकां देंवका दिकून आमी पेटो, चिरियो सर्व कवडाचे लागी व्होरनु दवोरनु तयार जालीं.

कोंकण रेलवे

भारत रेलवेचें अभिमान तं कोंकण रेलवे. ब्रिटीष एंजिनियरमारांनी

आटपायांचाल्या बोल्यां लेकान भारतांत अशी तशी मस्त रेल घालें तरीय मुंबै थाकून गोवा पर्यंत समुद्रतटावेल्यान एक रेल घालूक तांच्यान जालेंना. मस्त घाट, न्हंय, उवार येवंचो भूभाग आशिल्यान रेल घालूक प्रतिबंध जालें. त्या जाग्यार तं आमगेल्या एंजिनियरमारांनी भगीरथ प्रयत्न कोरनु कोंकण रेलवचें निर्माण केलेलें. गेल्या सहस्राब्दांत दक्षिण एष्यांत केलेल्यांत सगटापशि होड तं कोंकण रेलवे. हाचें निर्माण पुर्ते करुक 25 बिल्यन रुपया जाय जाले.

760 किलो मीटर तं हाची दिगाय. 1996 वर्षा उद्घाटन जालें जाल्यारीय 1998 जनुवरी थाकून तं उजा भांडी वचाक आरंभ जालोलो. 160 किलोमीटर वेगान गाडी धावंचे विंगड रेल भारतांत ना म्होण सांगूयात. केरळांत थाकून भारतांतुल्या मस्त शारांत वच्यो भांडियो आतां कोंकण वाटेन वताय. हाज्यान मस्त वेळु लाभ जाता. गोयांत थाकून मुंबै पांवचाक फूडे वीस घांटे जाय आशिल्ले, आतां बारा घांटे पूरो.

कोंकण रेल निर्माण केलेले वाटेर 140 न्हंयो, 2137 सांकव आनी 83 किलोमीटर दिगायेन टणल आसाय. शरावती न्हयचे उंचार आशिल्लो 2 किलोमीटराचो सांकोव-कुंडकिक ब्रिज-तं आशिल्यांत दीगु. टणलांत 'करबुडे' तं आशिल्यांत दीग 6.5 किलोमीटर.

हया रेलावेल्यान दिसुज्वाडीं यात्रा कोरका म्होण माका होडी आशा आसा. यी केदाणा पुरती जायत म्होण कळना!

सकाणि सवाय सत्तांक आमी मडगांव पावलीं. (मडगांव=मठग्राम) सूर्याक चोयल्यार होड एक सोनारलिंग म्होण दिसता. चांग दोवूय. गुजरातांत भुंयकांप जाले उपरांतें गोंयांत केदनाय सकणि दोवु आसा खंय. आमकां स्वागत कोरुक रमेश अण्णाले दोग दोस्त रेलवे स्टेषनांत आयलेले. तानी आमकां दोन किलोमीटर दूरा आशिल्ल्या "गोवा वुडलांड" होटलांत पावयलीं. "मिगुवेल लोयोळा फुरटाडो" रोडार तं चांग सुख-सौख्य आशिल्लें यें होटल. आमगेले होटलाचे मुकारीच सेंट फातिमा कोणवेंट, एक तांतू लोयोळा साळ. एक पार्क, प्रायवेट बस स्टेषन सर्व लागीच आसा.

दक्षिणी गोंयांतुल्या सालसेट (ससष्टि=66) प्रोविन्साची राजधानी तं मडगांव.

गोवाचें चरित्र आनी भूविज्ञान

'गोवाक्षेत्र' 'गोपराष्ट्र' 'गोमंतक' म्होण सर्व पूर्विक कालाक म्हणप आशिल्लो गांव तं आतांचो गोवा. समुद्राचो, माड्यांचो, सूर्यप्रकाशाचो, देवळांचो, क्रैस्तव देवालयांचो आनी फुटबोळाचोय गांव तं गोवा. 3701 चतुरस्त्र किलोमीटरारि 1.3 मिल्यण जन निवास करताय. पणजी तं गोवाची राजधानी. जन कोंकणी, मराठी, इंगलीष आनी हिंदी उलयताय. कृषि, मासळि धरप, टूरिसम, लोकंड खोणु काडप, इत्यादीन जन दीस काडताय.

दादूले पांट आनी षर्ट घालताय, बायलो एद्योच सारी न्हेसताय, एद्योच कास घालनु कापड न्हेसून मस्त फुलां माळनु भोंवताय. एद्योच बायलो स्कर्ट आनी ब्लावस घालताय. गोयांत हडताल, बंद कांय ना म्होण सांगूयात.

चरित्र

क्रिस्तून जन्म घेवंचे तीनीशें वर्ष फूडे (300 बी. सी.) गोवा मौर्य साम्राज्याचो भाग आशिल्लो, मागीर शतवाहन, चालूक्य आदीनी गोयांत येवन राज्य केलें. 1370 वर्षा विजयनगर साम्राज्याचो हरिहर एकावो नायत्याले (मुस्लीं) हातांत थाकून गोवा धोरनु काळ्ळें. 1510 वर्षा पोर्चुगीस (फिरंगी) गोयांत पावले. 1542 वर्षा सेंट फ्रांसीस सेव्यर पावलो.

भारताक 1947 वर्षा स्वातंत्र्य मेळ्ळें जाल्यारीय 1961 वर्षा तं पोर्चुगीसांचे हातांत थाकून गोवा मुक्त जालेलें. ताजे पासून एक काणी आसा.

1961 वर्षा नेहरूजीन एक नोटीस गोयांतुले जनांक विमानार थाकून घालनु दिलें. आमी फिरंग्यांक भायर घालूक युद्ध शुरू कोरूक वताय तं, तुमी कोणे भिवंचाक नज, तुमका कोणाक हत्या जावना, तुमी घर सोणु भायर देवंचाक नज, म्होण तं नोटीस. थंगाचे जनांनी तेच वरी केलें. त्या वेळार कॅप्टन काणदत्ताले नेतृत्वार भारताचे सैन्य गोयांत पावनु फिरंग्यां लागी उग्र लडाय आरंभ केली. फिरंग्यांक गोवा सोणु धावंका जालें. ते एक तारवाचेर चोणु समुद्रादिकार गेले. सूयस कनाला वांटेन वचाक ते आठयताले. म्हळ्यार ईजिप्ताचो राय नासर भारताचो दोस्त आशिल्लो. ताणे तांकां तशीणान वचाक सोळ्ळेनाय. परतून येवंचे वेळार

भारताचे नौसेनेन तांकां हारवयले. तो काळु पर्यंत थांगाचे जनांक फिरंग्याले पायमूळांत पोणु होड कष्ट नष्ट भोगूका जालें.

गोवांत दोनि डिस्ट्रिक्ट आसाय-उत्तर गोवा आनी दक्षिण गोवा. PANAJI म्होण बरोवनु पणजी, पंजीं म्होण सर्व सांगूचो स्थाय तं राजधानी. मांडोवी म्हळ्ळेले नदीचे लागी तं पणजी. जनसंख्या 93000.

## सारस्वतांलें आगमन

सरस्वती नदी भूमींत अंतरलीन जातना काशमीर पंचाब हांगा थाकून भारताचे दक्षिण भागाक गमन केलेलीं ब्राहमण जन तं आमगेलीं पूर्विक. 'त्रिहोत्र' म्हळ्ळेले गावांत थाकून परशुरामान धा पंडित श्रेश्टांक गोयांत हाळ्ळे म्होण तं चरित्र. ये धा जाणाक धा गोत्र आनी सासष्टि कुटुंब आशिल्लीं. तानी गोयांत येवंचे वेळारि तांगेले सात कुलदेवतांकय हाळ्ळे. तीं अशी-मंगेष, महादेव, महालक्ष्मी, म्हाळसा, शांतादुर्गा, नागेष आनी सप्तकोटीश्वर. गोयांत पावनु तान्नी सासष्टी (66) सान गांव कोरनु राबलीं. आराधना मूर्तींची प्रतिष्टाय केली.

मस्त वर्ष जावन तीस कुटुंब लागेन पावलीं. सर्वय मेळनु शाण्णवी (96) कुटुंबं आनी गांव जाले. तें दिकून तांकां शेणवी म्हणताय.

सकाणी धा वरारि आमी कामत रेस्टोरेंटांत थाकून खाण जावन मिनि बसाचेर भायर सरलीं. कुलदेवताचो अनुग्रहूय आशीर्वादूय मागूक आमी कुटुंबसमेत वताय तं.

## कुलदेवतांचीं देवळां

दक्षिण गोयांतुले फोंडा (Ponda=फोंड) म्हळ्ळेले स्थायारि तं कुलदेवतांचीं पांच देवळां.

आमगेले पूर्विकांनी सात कुलदेवतांक तं गेंयांत हाळ्ळेलीं; जाल्यारीय आतां मस्त देवतांक गोंयांत आराधना करताय - मंगेष, महादेव, महालक्ष्मी, म्हाळसा, शांतादुर्गा, नागेष, सप्तकोटीश्वर, रामनाथ, रवळनाथ, विमलेश्वर, रुद्रेश्वर, शांतेरी, कामाक्षी, विजयदुर्गा, आर्यदुर्गा, नवदुर्गा, कात्यायनी, महामाया, महिषासुरमर्दिनी, दामोदर, नरसिंह, देवकीकृष्ण, लक्ष्मीनारायण, महागणपति...

हांतूलीं प्रसिद्ध देवळां चोंवचाक तं आमी वताय. गोंयचे रुक रुकावळी, न्हंयो गुड्डे, सर्व दिकल्यारि केरळाच्या एक गांवांतुल्यान तं वताय म्होण दिसतलें. कोयलुवेचीं परणी घरां चोयल्यारि ही आमगेली वास्तुविद्या न्हय, फिरंग्याली वास्तुविद्या म्होण कळतलें. घरांमुकारि तुळसीमेट आसा. सांतूं तुळसी बदलाक चडय घरांकडे खुरीश तं दिकूक येता. वचे वाटेरि आमी सुवारी म्हळ्ळेली न्हंय आनी ताजे लागी सुवारी सिमेंट फाक्टरी दिकीली. एकडे पांवतना डोक्टर राजेन्द्रप्रसाद फुटबोल स्टेडियम दिकिलें. शुरवेकच आमी श्री शांतादुर्गालें दर्शन तं घेतल्लें.

### श्री शांतादुर्गा देवस्थान

'कवळें' म्हळ्ळेले स्थायारि तं यें देवस्थान. फूडे 'केलोषी' म्हळ्ळेले कडे आशिल्लें यें देवस्थान. 1564 वर्षा फिरंग्यांनी ते देवळाक नाश हाडलो. आमगेले पूर्विक विग्रह घेवन धावले आनी तें हरिजनांले एक गांवांत व्होरनु निपयलें. वर्षाक एक दीस आमकांय देवीक पांयपोडूक अनुवाद दिवंका. जाल्यारि आमी यो गांव सोणु वचीन म्होण तांगेले रायान सांगीलें. तशी जावो म्होण आमगेले पूर्विकांनी ताका उतर दिलें. तशी तं कवळे म्हळ्ळेले स्थायार आतां आशिल्लें देवळ केलेलें.

स्थलपुराणांत विष्णूनय शिवानय एक उग्र युद्ध केलें म्होणूय, ते वेळारि शिवान पाशुपतास्त्र काळ्ळें म्होणूय काणि आसा. पाशुपतास्त्र सोव्यारि प्रपंचाचो सर्वनाश जातोलो म्होण ब्रह्मदेवाक कळ्ळें. ब्रह्मदेवान आदिपराशक्तीक प्रार्थना कोरनु प्रत्यक्ष केली. आदिशक्तीन उजवे हातान विष्णूकय, दावे हातान शिवाकय धोरनु दूरा काळ्ळे; आनीक तांकां शांत केले. तें दिकून तिका शांतादुर्ग, शांताकरी, शांतेरी म्होण सगट नांव आयलें.

हे देवस्थानांत पंचधातून केलेलें शांतादुर्गाचें एक विग्रहय, ताजे लागी, एक शिवलिंगय आसा. भायर थाकून चोयल्यारि देवळ किं क्रैस्तवालें आराधनालय म्होण संदेह जातोलो. देवस्थानाचे मुकारि होड एक स्तूप. तें दिकल्यारि घांट लांबोवंचाक क्रैस्तवांनी कोरचे 'मणिमेडाचो' उडगास जाता. हांगाय एक घांट लांबयल्या.

गणपति, नारायण, कालभैरव, हांगेलीं सान सान देवस्थानय हांगा आसाय. देवस्थानाचे मुकारि होडि एक तळयीय दिकीली. मस्त बायलो ववळ, आबोलें,

नंताफूल हांची सगट माळा विकूक बेसल्याय. शांतादुर्गालो आशीर्वाद घेवन जावन आमी श्री रामनाथाक पांयपोडूक गेलीं.

**श्री रामनाथ देवस्थान**

फिरंग्यांनी येवंचे फूडे लोटली म्हळ्ळेले स्थायारी तं रामनाथ देवस्थान आशिल्लें. आतां रामनाथीं म्होण जाण जांवचे 'बंटीवाडे' म्हळ्ळेले स्थायारि तं यें आसा. हांगा रामनाथाचे विग्रहाकय, लक्ष्मीनारायण, शांतादुर्गा, वेताळ, कालभैरव, कामाक्षी विग्रहांकय पूजा करताय.

यीं दोन देवस्थान चोवन जातना, कवळे मठ थांगा लागीच आसा म्होण जाण जावन आमी थांगा गेलीं. आमगेलें भाग्य म्हूण सांगूयात, तेदूस थांगाचे गुरुली पुण्यतिथि आशिल्ली. तें दिकून विशेष पूजा, प्रसाद वितरण सगट आशिल्लें. तांतू भाग घेवंचाक स्वामिजीन आमचेलागी सांगीलें. आमी थंगा पांवतना बारा वरां जाल्यांय मात्र. पूजा दोनि वरांचेरि. स्मामिजीन एक शिष्याक आमचे ओटू पेटोवनु आमकां महालक्ष्मीचें, आनी शांतेरि कामाक्षीचें देवस्थान दाकोवनु दोनि वरांचेरी मठांत वापस हाडका म्होण सांगीलें. आमी ताचे ओटू भायर देवलीं.

**श्री महालक्ष्मी देवस्थान**

कोळंबे म्हळ्ळेले स्थलारि थाकून फिरंग्यांलें आक्रमण भीवनु आमगेले पूर्विकानी देवीलें विग्रह 'बांटीवाडे' म्हळ्ळेले स्थायारि पावयलें. हांगा महालक्ष्मीचे विग्रहाकाय, रवळनाथ, लक्ष्मीनारायण, आनी विग्रह फाटीर दवोरनु धावलेले 'सप्तोफाटे' म्हळ्ळेले पूर्विकाले विग्रहाकय पूजा चमकता. आमी थांगा पांवचानीक, सत्यनारायण पूजा चमकता. आमकांय तान्नी निवेद, फूल, प्रसाद दिवनु अनुग्रह केलो.

**श्री कामाक्षी देवस्थान**

महिषासुरमर्दिनी तं हांगाची प्रतिष्टा ये देवीक चारि हात आसाय. एकांतु त्रिशूल, एकांतु खांडें, एकांतु ताळु, एकांतु रूंडे (Skull) हे देवळांत कामाक्षी विग्रहय, लक्ष्मीनारायण, शांतादुर्गा, बेताळ, कालभैरव विग्रहांय आसाय.

आमचे ओटू आयलेले शिष्यान कवळे मठांत पुजेक पांवचाक वेळू जालो म्होण आमकां उडगास केलो. आमी धावन वचून बसारि चळ्ळीं.

### कवळे मठ (कैवल्यपुर मठ)

कुशस्थली म्हळ्ळेले स्थायारि, आटवे शतकांत कैवल्यपूर मठ स्थापित जालेलें. गुरु आशिल्लो गौडपादाचार्य म्हळ्ळोलो होड ज्ञानी. शंकराचार्यान गंगानदी लागी प्रार्थना कोरचे वेळारि ताका दिकीलो. एक गुरुक सोदून भोंवतालो शंकराचार्य. गौडपादाचार्याक दिकून योचि गुरु म्होण पादपूजा कोरनू पांय पोणु राबिलो. अपण्याक शिष्य कोरका म्होण विनंती केली म्हळ्यार गौडपादाचार्यन तागे ले शिष्य गोविंदपादाक शंकराचार्यालें गुरुस्थान दिवनु शंकराचार्याक अनुग्रह दिलो. ते गौडपादाक शंकराचार्यन 'परमगुरु' स्थान तं दिल्यां. तसले परमपूजनीय गुरुले पुण्यतिथिक तं आमी पांवलेलीं. आतां कवळेमठाक गौडपादाचार्य मठ म्होण तं सांगताय.

दोनि वरार वृंदावनांतूय, महादेवाले देवळांतूय पूजा जाली. तें जावन पान दवोरनु थांगा आयलेले भक्तजनांक वाळ्ळें. दाळी तोय, खतखतें म्हळ्ळेली एक रांवदय (हांतूं दुद्दी, गिडगी, आंबो, बीटरूट, चोळम, आदी आसा) उडिदमेत्ती (पुळिशेरी) सुकी भाजी (चवळे सुकें) काकवीं गोड (कोबा रोसू काणु पैंदार गोड कोरचे वेळारि मेळचे पांकांत सूंटी आनी जीविसांग घालेली रांवदय) चोण्या दाळीचो पायसु सकड जावनु आमी चांग जेवण केलें. गोंयची एक मांय मिजे लागी बेसल्ली. तीणे माका रांवदयेचीं नांवां सांगून दिल्लीं.

जेवण जावनु आमी स्वामिजीक पादपूजा केली. स्वामिजीन आमकां मंत्राक्षत फूल फल आदी दिवनु अनुग्रह दिलो. तशी आमकां एक पुण्य दिसांत भाग घेवंचाक संदर्भ मेळ्ळो. तो दीस हांवें विसोरना.

कवळे मठांत थाकून मन आनी पोट संतोषान, संतृप्तीन आनी मृष्टान्नभोजनान भोरनु बसारि चोणु महालसा नारायणीले देवस्थानकडे गेलीं.

### श्री महालसा देवस्थान

मारदोळ म्हळ्ळेले स्थायारि तं 'म्हाळसा' महालसालें देवस्थान. महालसा म्हळ्यारि महाविष्णूलें मोहिनी रूप तं. भस्मासुराक नाश कोरूक तं मोहिनीलें रूप घेतल्लें. गोंयचे देवस्थानांत आमकां सगटांकय महालसालें देवस्थान चांग दिसलें. आमी गेले तेदूस थांगा उत्सव तं आशिल्लो. देवस्थानय, वची वाटय, चंद कोरनु शिंगारल्यां. मस्त जन पांय पोडूक येताय. देवस्थानाचे मुकारि मिठाय, बलूण (फुगो)

शियाळें, देवालें देवीचें चित्र, कुंकूम सगट विकूक दवरल्यां. मायकांतुल्यान चंद पद आयकूक येता.

महालसालें विग्रह दोळ्यांक पीयूष सरि आमकां दिसलें. चारि हात आसाय महालसाक. उंचावेले दावे हातांत त्रिशूल, खालाचे दावे हातांत खांडें उंचावेले उजवे हातांत एक पंचपात्र आनी खालाचे उजवे हातांत कातोरनु काव्लेलें एक मात्तेंय. त्या मात्यार थाकून थेंबेवन पोडचें रगत पिता एक सिंह. देवीले गळ्यारि एक माळा आसा-ती रुंड्यांनी केलेली वे म्होण दिसता. पायामूळांत एक राक्षस पळ्ळा दिकूक येता.

उत्सव दिकून मस्त वर्णांचीय पोरमोळाचींय फुलां गांतून केलेली माळा देवीले गोंवटेरि घाल्या. रुपें, भांगार, रुक आदीचो मस्त शिंगरूय आसा. भेरी, ताळु, जघांट सगट एकडेची वाजूचें एक यंत्रय थांगा दिकीलें. एक स्विच दबायल्यार यें सगट एकसानीच वाजतलें.

महालसा देवस्थानां थाकून आमी देवीलें रुप आलेखन केलेलें भांगरा वर्णाचें चेयन, लोकेट, दोरु आदी घेतलें. एदोच वेळु थांगा भोवनु चोवनु आमी मंगेषाक चोंवचाक गेलीं.

**श्री मंगेष देवस्थान**

मंगेष म्हळ्यारि महादेवु-शिव-तं. शिवाक कशी यें नांव मेंळ्ळें म्होण चोवया. एक काणि अशी.

'कुशस्थली' म्हळ्ळेले स्थायारि एक दीस शिवान पार्वतीक भिसरांवचाक वागालो वेषु घेतलो. वागाक दिकून भिवनु पार्वती 'त्राहि मम गिरीशा' म्होण रळ्ळी. भयान करतना ताळ्यांत थाकून "मंगरीशा" म्होळ्ळोलो शब्द तं भायर आयलोलो. वागाचें रुप सोणु स्वशरीरान देवीले मुकारि हासून राबिल्ले देवा लागी देवीन सांगिलें आनीक देव "मंगरीश" म्होण जाण जातोलो. मंगरीश मागीर 'मंगेष' जालोलो आसूयात.

'मंगळ' म्होण पार्वतीक नांव आसा. मंगळालो ईश शिव, तें दिकून "मंगळोश" जाता. हांतूं थाकूनूय मंगेष शिव तं म्होण कळता.

कुशस्थली आशिल्लें दोवस्थान आतां मंगेशी म्हळ्ळेले स्थायार तं आसा. रुप्यान केलेलें दैवविग्रह चंद आसा. मात्या उंचारि होड फण दाकोवनु राबीला एक सोरोपु. देवाक सतूली धरल्या वे म्होण दिसता.

अर्चना कोरुक धवे कमळाची (आंबल) चंद दिसूचि माळा देवस्थाना मुकारि विकूक दवरल्या. आमीय दोनी घेतली. पांय पोणु जावनु भायर येतना पांच वरांचो वेळु. एकडे शियाळीं विकूक दवरल्यांय. आमी सगटांनी शियाळें घेवनु तान भूक निवयली. एक स्टाळांत पोणसा फडी विकूक आसा म्होण बोर्ड दिकीलें.

थांगा थाकून आमी बसारि चोणु Bom Christ म्हळ्ळेले क्रैस्तवदेवालय चोंवचाक गेलीं. Bom Christ म्हळ्यारि Infant Jesus म्होण. 1596 वर्षा केलेलें तं यें आराधनालय. हांगा सेंट फ्रांसीस सेव्यरालें भौतिक शरीर कण्णडेचे घूडांत दवरल्यां. नेलारि थाकून 10-15 फुट उंचारि तं यो घूड दवरला. हाजें मस्त फोटो लागीचे कूडांत आसाय.

कोण की यो सेंट फ्रांसीस सेव्यर? दक्षिण एष्यांत तान भूक नीद विसोरनु, विश्रम नातिल्लें धावनु भोवनु जायत्या जनांक क्रैस्तव मतांत हात धोरनु व्हेलोलो संत तं. 1552 डिसंबरांत चीनांतुले सानसियान म्हळ्ळेले कडे तागेलो देहांत जालो. तागेले एक भृत्यान दोनि साकु कुमाय समेत सेव्यरालें देह एक पेटेंत (Coffin) धांपून दवरलें. दोनि मास उपरांतें तें देह मलाकांत व्हेलें. थांगा पावनु पेट वाकती कोरनु चोयतना सगटांक अतिशय जालो - देह एदें सरी कुसलेंना! लागीचे वर्षा तें भौतिक शरीर गोंयांत हाळ्ळें. 1556 वर्षा पोर्चुगीस वैस्रोयालो डोक्टर येवनु देहापासून मस्त रिसर्च केलें. तें कुस्सनाशीं राबोवंचाक कसलींय ओकदां (Medicines, Chemicals) लायलींनाय म्होण ताणे खंडित जावनु सांगीलें. 1614 वर्षा देहारि थाकून उजवो हात निकळावनु काळ्ळो. ताजो एक कुटको जापानाचे नागसाकींतूय, आनी एक रोमांतूय आसा. 1636 वर्षा देहाचीं अंतरा अवयवां सगट काणु लोकांत मस्त कडे पावयलीं.

धा वर्षांत एक फंता तें देह घूडांत थाकून भायर काणु दर्शनाक दवरप आसा. यें संव्यरानय तं आमगेले पूर्विकांक पीडा दिवनु क्रैस्तव केलेले म्होण चरित्र सांगता.

जाल्यारीय आमी तागेलें देह भारतांत संरक्षण करताय. हांतू थाकून भारताचे जनांलो, गौड सारस्वत ब्राहमणांलो संस्कार आनी महत्तर मतसहिष्णुता कळता.

सेंट फ्रांसीस सेव्यराक चोवनु भायर येतना सूर्यदेव न्हांवचाक भायर सरता. अस्तमयसूर्याले उजवाडांत ते देवालयाक तांब्याचो वर्ण वे म्होण दिस्तालो. लारी बेकराले पूर्विकांनी केलेलें देवालय म्होणूय दिसता-फातरांक चुन्नो जावो सिमेंट जावो लायलेंना. देवालय मस्त एकर विस्तृत जाग्यार तं केल्यां. घसघसीच वारें येता. आमी एदोच वेळु थांगा बेसून विश्रम केलो. काळूक जाता. कायळे सवणीं सगट तांगतागेले घूड सोदून उबून वताय.

आमी मांडोवी न्हंयचें सांटा मोणिका बोटजेटी लक्ष्य कोरनु बस सोडूक ड्रायवरा लगी सांगीलें. सात वरांरि एमराल्ड क्रूयीस म्हळ्ळेले एजनसीचे "पारडैस" बोटीर न्हंयत एक यात्रा आसा. एकेकल्याक शें रुपया दिवंका.

सात वरां जातना "पारडैस" बोटी मांडोवी न्हंयतुल्यान मंदगमन कोरनु जेटींत पावली. शिंगार चोयल्यार व्हारडिके होकलेक मांटवांत हाडताय वे म्होण दिसतलें! चंद कोरनु पेंयट कोरनु मस्त बळबाचे माळेन शिंगारल्या. दूरा राबून चोयल्यार वज्राचें नेकलेस घालें वे म्होण दिसतलें.

जेटींत थाकून एयरोप्लेनार चोडचे लेकान एक निसणी दवरल्या. ताजेवेल्यान जावंका बोटीचे तिसरे डेकारि चोडूक. सत्तड वरारि बोटी सोव्ळी. भितर चारशीं जन आसाय. सगाटांकय बेसूक कदेल आसा. डेकाचे एक तातूं स्टेज आसा. डोकारि बेसल्यार मांडोवीय, तिजेवेले दोनी सांकवय दिकूयेताय. सांकवांवेल्यान कार, बस, ओटो आदी धांवताय.

बोटीर एकल्यान स्टेजार येवनु आमकां स्वागत सांगलें. बोटीरीच खाण उदाक, चाय, काफी, कोळा, मद्य सगट मेळता.

पारडैसान न्हंयतुल्यान यात्रा आरंभ केली. मस्त एंटरटेनमेंट्स (खेळ नाच गीत) आशिल्लें.

शुरवेकच सान चेरडुवांलें डान्स. मिगेली धुव अंजलीय डान्स कोरुक स्टेजार चव्ळी. तें जावनु 'वेल्कं डान्स' आनीक चेलियांलेंय बायलांलेंय डान्स. बोटीर

आयलेल्यो चेलियो सगट स्टेजार धावनु चोणु डान्स.

तें जावनु बामूण-बायल. तांतु एक जोडीक "Best Dancing Couple" प्रैस दिल्लें. गांधिदां थाकून आयलेली वीस जोडी बामूण बायलो स्टेजारी चोणु डान्स केल्लें.

लागीचें प्रोग्रां तेकणी, कंडुबी, पोरचुगीस डान्स. बोटींतुलीं स्टाफ-दद्दुलेय बायलोय वेषु घालनु येवनु तीनि डान्स केल्लीं.

बोटि मांडोवि नदीचे पाळारि पोणु डान्स करता. आरु समुद्रा लागी पावलो. पाळाची शक्ति चोणु चोणु येता आकाशारी बेसूनु भोभोदेवु आमकां चोवनु हासता. शेळची वारें. कोडकोडो येता. बोटी अशी तशी नांचता. अशी एकु घंटो गेल्लोलो आमी नेणय. अठड वरारी आमी सगटय मिनी बसारि चळ्ळीं.

आमगेले बस आतां पणजी तं आसा. वोचे वाटेर थांगाचे हेड पोस्टोफीस, सेक्रटेरियेट, मस्त बांकां, सगटय दिकीलें. बसस्टांडाचे नांव कदंबा बस टेरमिनस म्होणू तं. एक कालाक गोयांतु आशिल्ले कदंबा रायागेले उडगासाक बस टेरमिनसाक तें नांव दिल्यां.

आमी 'रुचि' रेस्टोरंटांत थाकून खाण खावनु मडगांवांत पोरतुनु आयलीं. पणजी मडगांव हैवे चांग रोड दिकून यात्रा सुखान जाल्ली. चाळीस मिनिट भितरी आमी मडगांव पावलीं.

बसारी बेसूनिक माका पांण्डुरंगा मंदिरांतु दवोरनु हेमलतक्कानय, लतक्कानय शिकयलेलें एक भजन उडगास आयलें.

"महालक्ष्मी महामाये माता महेश्वरी

शांतेरी कामाक्षी दुर्गा दयाकरि आमचेरी....."

यें भजन बोरोवनु काणु शिकूचे वेळारी हांवे लेकिलेंना माका इतले वोगी यें देवस्थान दिकूक भाग्य जातलें म्होणु. हांवें बसारी बेस्सूनु यें भजन निशब्द म्हळ्ळें. दसाड वरारी होटल गोवा वुडलांडसांतु पावनु चांगी नीद काळ्ळि.

गोयांतु आमकां दोनि-तीनि दोवस्थान लागेन चोंवका म्होणु आशिल्लें जाल्यारीय

वेळु ना दिकून थांगा वचाक जाल्लेंना. ताजे पासून पुस्तकारी वाचून मनांतु केल्लेलें बरैतां.

**श्री सप्तकोटीश्वर देवस्थान**

कसलेय जाति जाल्यारीय तुमकां सप्तकोटीश्वर देवस्थानांत वचात. कैलास सोणु, एक फंता महादेवु गोमंतकांतु येवनु बेसलो. एदेची काळ जांवचानिक पार्वति देवीन देवाक दिकून धरलो. तेची वेळारी सात जाण ऋषी महादेवाली प्रीति मेळूक तपस करताले. तांका वोरु दींवका म्होणु देवीन देवालगी विनंती केल्ली. आनीक देवाक सप्तकोटीश्वर म्होणु नांवय दिल्लें.

कदंबा राज कुटुंबांतुले रायांनी जैन मत सोणू हिंदु मत स्वीकार कोरुनिक सप्तकोटीश्वराक तांगेलो कुलदेवु जावनु स्वीकार केल्लो.

**श्री नागेष देवस्थान**

पोरचुगीस जनान सुस्थांवनातिल्लें एकची एक देवस्थान तं नागेष देवस्थान.

**श्री महागणपति महामाया देवस्थान**

द्वाडी म्हव्ळ्ळेले एक द्वीपारी तं महागणपति महामायेलें देवस्थान. 1560 वर्षा फिरंग्यांनी यें देवस्थानेय सुस्थायलें. थंगाचे भटमामान देवालीं बिंब घेवनु पालायन कोरनु शिरालि (North Kanara) म्हव्ळ्ळेले कडे हाणु प्रतिष्ठा केल्ली.

सकाणी उटायतना मिगेले मांयेंक (चंपि मांयि) सौख्य ना. आजि आमी गोयांतुले समुद्रावेळेरी भोंवचाक वोचूं म्होणु लेकिलें. कपलाक कोणकोणु आशिल्ले मायेंकयि घेवनु कशी वचप. होटलांतूचि सोणु वचाकय दिसना. तवळी, माका मिगेले अक्कान दिल्लेले एक अड्रसाचो उडगास आयलो. अक्काली नणंद-हेमक्का-मस्त वर्षा जावनु गोयांत तं आसा. तिगेलो बामूण श्री. नित्यानन्द शेणाय भावाजी 'मेनेसस फार्मस्यूटिकल्सांत' ओफीसर तं, हांवे हेमक्काक फोण केल्लें. हेमक्कान आमकां सगटांकय तिगेले घरकडे येंवका म्होणु सांगीलें. आमी तावळीच फाडा (Ponda) आशिल्ले तांगेले क्वार्टेर्सातु गेल्लीं. तानी संतोषान आमकां स्वीकार केल्लो.

चांपी मांयेकय, रमा मायेकय थांगा सोणु आमी आमगेली तेद्दुसची यात्रा आरंभु केल्ली. मिगेले अण्णान नित्यानन्द भावाजी लागी सांगलें.

"Yesterday we went in search of spiritual things. Today we are going in search of material things" म्होणु- तें आयकून आमी सागटय हासीलीं.

आमगेलें मिनि बस उत्तर गोवांतू तं आजी वता. वचे वाटेरी मस्त गुड्डचि. काजूरुकय दिकूक येता. काजूबी, काजूरोसांत साकून कोरचे फेनि यें सगटय गोयांत खुशाली मेळतलें. एकडे पांवचानिक कुट्टिपुरम एडपाळ पावलीं वे म्होणु दिसलें. एकडे छत्रपति शिवाजिली एकि प्रतिमा कोरनु ताजे लागी चेंद आराम कोरनु दवरल्यां दिकीलें. एक वेळा - 18 शतकांत, माराटा फौजीन फिरंग्यांक कडकडावनु सोव्ळीं. जाल्यारीय तांका हारवोंवचाक जाल्लेंना. आमगेले राज्याक स्वतंत्र कोरुक धीर जावनु लडाई केल्लेले शिवाजीक गोयांतुली जनां आतांय होडु बहुमानु दिताय.

सेन्ट फ्रांसीस असीसिले देवालय तं आमि शुरवेकची दिकील्लें. 1661 वर्षा केल्लेलें तं यें देवालय. रुकान कोरनु भांगराचें पेंयट मारनु शिंगारनु दवरल्यां चोंवका!

ये देवालयाचे नेलारी मस्त जनाले भौतिकावशिष्ट पूरनु घालनु ताजेरि पाषाणा फातरी दवरल्या. पाषाणा फातरीचेरी तांगेलीं नांवांय मेल्लेलें वर्षय बोरोवनु दवरल्यां. हांतू आमगेलीं पूर्विकय आसूयात म्होणु सांगून मिगेले मांवान हांगा साष्टांग नमस्कारु घाल्लो!

सेन्ट असीसि देवालयाचे मागल्यान गोवा आर्कियोळजिकल म्यूसियं आसा. होव्ळें गोवा (Velha Goa) म्होणु सांगूचे स्थलारी तं यें म्यूसियं. ये म्यूसियांतु आमकां स्वागत कोरुक, गोयांतुलो एकवो गवर्णर, अलफोणसो आलबुकर्क राबीला. दोनी आळाली दिगायीय थोरायीय आसतली काशाचे ते प्रतिमेक. आलबुकर्काक चोवनु जावनु दावे तांतूं घूवना फडे एक दोळ्याचो लूयिस वास डि गोमस राबीला दिकूक येता. यो एकु कवि तं आशिल्लो. म्यूसियांत मस्त वैस्रोयांगेले पोरट्रेट दिकीलें. मस्त वर्ष फूडे गोयांतु उपयोगारी आशिल्लो दुड्डूय आमी थांगा दिकीलो. कासा डा मोयड, पोर्तुगीज मानोयल, लील, परडाव, टांका, सेराफिन्स, रूपिय म्होणु सग तं ताजीं नावां. कागतान केल्लीलीय, रूपें, भांगार तांबें हाजान सग केल्लीलीय करन्सी दिकीलि.

गोयांतुलीं देवळां सगट पिटोरेंव कोरनु थांगा क्रैस्तवालीं देवालयां कोरुनिक मेव्ळेलीं शिवलिंग, देवालीय देवीलीय मूर्ती, बेताळ यें सग म्यूसियांत हाणु दवरल्यां. धाव्या शतकांतु केल्लेलें एक शिवलिंग आमी थांगा दिकीलें. आतां सेन्ट फ्रांसीस आसिसी देवालय आशिल्ले कडे थाकून मेव्ळेलें खंय यें शिवलिंग. म्यूसियांत एक घंटेक भोवनु चोवनु जांवचानीक भूख लागली. आमी 'रुचींत' वोचून खाण खेल्लें.

जेवण-खाण जावनु आमी 'अन्जुना' म्हव्ळेले बीचारी गेल्लीं. काप्पाड बीचाचो उडगासु आयलो आमकां. मस्त काळे काळे होड फातर पव्ळयाय दिकील्यारी हस्ति उदकांत बूडून पव्ळिवे म्होणु दिसता. हांगा पन्नेरा मिनिट भोवन चोवनु आमी बसारि चव्ळीं.

'कलांगुटे' म्हव्ळेले समुद्रावेळेरी तं आमी आतां पावल्यांय. विदेशांत थाकूनु अयलेलीं सायबय सायबीण्योय वोत घेंवचाक पळ्यंयि दिकिल्यारी, तान्नी एयर कण्डीषण केल्लेले कूडांत फों बोड्डारी पोणु निदेताय म्होणु दिसतलें. आंगारी वस्त्र नवांपुरोशि तं आसा. वोत घेवनु रेवेंतूय, रुकाचे कदेलारीय सप्तवर्णाचे सतुले पोंदाकय मस्त जन निदेताय चोवनु, आमगेले गावांतुलीं जनां थांगा भोंवताय. दूरा एक तारूं निश्चल जावनु उदकांत पव्ळ्यां.

थांगा ओटोस्टांडांतु राबयलेले एक ओटोचें नांव मिगेले बामणान माका दाकोवनु दिल्लें. www.autorickshaw.com! इन्टर्नेटारि आमकां यें ओटो बुक कोरुक जातलें आसुयात! कोंकणी गीतांचे एक कासेट रमक्कान कलांगुटे थाकून घेतलें. हुनीच चाय पीवनु जावनु आमी बसारी चोणु 'अगूडा फोर्ट' चोंवचाक गेल्लीं.

### अगूडा फोर्ट (**Aguada Fort**)

मांडोवी नदी समुद्राक आलिंगन कोरचे लागी तं यें फोर्ट. 1612 वर्षा तं फिरंग्यांनी यें फोर्ट केल्लेलें. हाजे लागी एक लाय्ट हौसय आसा.

पोर्तुगीस भासेन आगुडा म्हल्यारी उदाक मेळचो जागो (Watering station) तं. ते वाटेन वचे तारुवांक जांवका जाल्लेलें उदाक भोरुक हांगा राबवप आशिल्लें.

ये फोर्टाचे भूगर्भ कुडांत उदाकय दारुवय (gun powder) भोरुक जागो आशिल्लो. 23,76,000 ग्यालण उदाक तं हांगा store करतालीं. हांगा थाकून भूमिचे पोंदाचान एक रहस्य वाट आसा खंय. शत्रूले आक्रमणांत थाकून रक्षा मेळूक तं अशी एकि वाट कोरनु दवरल्या.

फोर्टा लागी एक परणे लाय्ट हौसय एक नवें लाय्ट हौसय आसा. हाजे लागी थाकून मंडोवि नदीय समुद्रूय चोवंका जाल्लेलेंची तं. आमी राबिल्ले कडे थाकून 50-60 फुट खालाक जावनु उदाक दिकूक येता. खालाक पळ्ळीं जाल्यारि कोषिकोड बीचारि आमगेले देहाचे कुटीके पांवतले म्होणु सांगूनु आमी चेर्डुवांक भिसरायलीं. दूरा रुकान केल्लेले एक "पायाकप्पल" समुद्रांतुल्यान वता दिकीलें. ताजेरी इत्तेंय बरयल्यां बैनोकुलेर्सातुंल्यान चोंवचानीक "बकारडि" म्होणु बरैल्यां दिकीलें.

सूर्या समुद्रांत बुडूक भायर सरता. आमी डोणा पौला (Dona Paula) म्हळ्ळेले टूरिस्ट स्पोटारि पांवचाक बस सोळ्ळें.

पोर्चुगीसाले एक वैसरोयीले धुवेक-डोण पौळाक तागेले एक सैनिकाचेरि चांगी प्रीति जालि. यें मनांत कोरनु तिगेले बप्पान ते सैनिकाली हत्या केल्ली. दुख तारासूक जावनातिलें डोणा पौळान समुद्रांतु उडकि मारनु जीव त्यागु केल्लो. ये उडगासाक तं गोयांत यें स्नेहस्मारक कोरनु दवरल्यां. ऊटी कोडैकनाल आशिल्ले सूयिसैड पोयन्टाचो उडगासु येतलो. एक उडकि मारल्यारि फातरारि मत्तें आडोळनु मरतलीं. तावळीयि देहांतु प्राणु आसा जाल्यारी समुद्राचे पाळ आमकांय घेवनु वतलें.

मस्त जन समुद्रावारें घेंवचाक थांगा आयलेलीं. स्पीडबोट, रोविंग बोट सगट दिसाचे भाड्याक मेळतलें. हांगा थाकून गोयांतुले मस्त स्थल दिकूक येता. राति जाली दिकूनु सर्व कडेयि दीवे जळयल्यायि. तें दिकूनिक मस्त वज्रां झगझगेताय म्होणु दिसता.

आमी हेमक्काले घरकडे वोचून चांपि मांयेकय रमामांयेकय घेवनु मडगांव पोरतूनु गेल्लीं. कम्मतीमामु, चांपिमांयि, रमक्का, भावाजि, प्रवीण हीं तेद्दुसची राति भांडीक कोषिकोड पोरतूनु गेल्लीं.

साकाणि सात वरारि आमि एक 'सुमोरी' चोणु आमी राबूचे होटलाचे लागीची आशिल्ले (2 km) 'कोळवा' म्हव्ळेले समुद्रावेळेरी गेल्लीं. आमगेलो ड्रायवर-जोर्ज म्होणु नांव-तो आमचे लागी कोंकणीन चांग कोरनु उलयता. ताणे आमकां कोंकणी पदांचें कासेट दोवोरनु गींत आयकयले.

मासळी धोरचीं मस्त बोटियोय, मोंचूवेय, बोल्लेंय सगट आमी थांगा दिकीलीं. मस्त धीवरांचीं थांगा मासळी सुंगट कुरळो सगट विकूक बेसल्यांय.

एदि घडी भोवनु जावनु आमी बेनोळीं (Benaulim) म्हव्ळेले समुद्रावेळेरी गेल्लीं. थांगा आमी सागटांनी मस्त वेळु समुद्र स्नान केल्लें. धा वरारि आमी सुमोरि चोणु कम्मत रस्टोरेंटातु गेल्लीं. पूरि इडली, उडदाचो आंबाडो सगट सुवादान खेल्लें. समुद्रस्नान जांवचानिक कसली भुख!

तेहुस देनपारां रमेश अण्णा, माया होन्नी, सुनन्दा, किशोर, आशा, आर्चित, श्यामळा मांयि हांनि सगटयि वापस पणजि भोंवचाक गेल्लीं. रमेश अण्णाक एक मीटिंगांतु भागू घेंवचाक आशिल्लें.

आमी स जन मडगांव भोवनु चोयलीं आमगेले होटलाचे लागी दोनि पार्क आशिल्लीं. एक चेर्डुवांले पार्क.

1959-वर्षा केल्लेलें पार्क तं यें. Parque Infantil Sua Alteza म्होणु तं ताजें नांव. 1941 वर्षा केल्लेले मुनिसिपल पार्क तं आनियेक. डोक्टर मिगुवेल डि लोयोळा फुरटाडो म्हव्ळेल्याली एक प्रतिमा हांगा दिकीली. मस्त वर्णाचीं फुलां. मस्त सवणीं सगट आमी हांगा दिकीलीं. मुनिसिपल कौण्सिल लैब्ररि ये पार्काचे लागीचि जावनु दिकिली. चंद आशिल्लें एक बिलडिंग तं ये पुस्तकालयाचें.

मडगांवांतुली सांत आमी दिकीली. मस्त रांवदेकायो, झळकें, फळां, लहरीद्रावक (liquors) सगटय विकूक आसा. आमी एक कोंकणी न्यूस पेपर थांगा थाकून घेतलें "राष्ट्रमत" म्होणु तं ताजें नांव. राति आमि मड्गांव रेलवे स्टेषणांत पावलीं. नेडुम्बाशेरि एयरपोर्ट वे म्होणु दिसता यें रेलवे स्टेषन दिकिल्यारि! राति दसाड वरारी आमी नेत्रावति एक्सप्रसारी चोणु सोमारा साकाणी दसाड वरारी सुखान कोषिकोड पावलीं. आमगेलो पूर्वीकांलो तो गांव एक पावटि लागेन भोवनु चोंवचाक आतां आशा दिसता!



रेवती श्रीकांत

1969 वर्षा केरळाच्या कुट्याडी गावांत जन्म. कोषिकोड हांगा वसति. मलयाळमांत बर्यो प्रवासवर्णना बरयल्या. कोंकणींतुल्या प्रवासवर्णनांक कोंकणी भाषा प्रचार सभा, 'बैष्णवरत्न' पुरस्कार प्राप्त जाल्याय. मलयाळम रचनांकय पुरस्कार जोडल्याय. मस्त वर्ष धरुन साहित्यसेवा करीत आसा.

पत्तो: 3/220, C.C Compound, P.O. West Nadakkavu Kozhikode-673011

*'तशी धर्मस्थल पोळोंवका म्हळ्ळेली आशा सफल जाली'*

2001 वर्षाचे तीर्थयात्रेची सहज वर्णन.

# तीर्थयात्रा

त्रिमूर्तींतु ब्रहमु सृष्टि करचोय, विष्णु संरक्षण करचोय महेश्वरु संहार करचोय म्होण तं हिंदू मतस्थांलो विश्वास. ब्रहमदेव सृष्टि करता. यो लोकूय, हांगा आशिल्लीं जनांय, सर्व जीवूय देवाली सृष्टीच. देवाले सृष्टिंत आमगेलो यो प्रपंच अत्भुतच. कितलें पळयल्यारीय तृप्ती जावनातीलो हो प्रपंच, देवा, भारी भारी चंद. जीवांतु मनीषु भारी व्यत्यस्त. आराधना, भक्ति सक्कड मनुष्याक मात्र अशिल्लि सविशेषता. आमगेलें यें सान केरळ ऐतिह्यांतुल्यान आनी चरित्ररेखांतुल्यान प्रचुर प्रचार पावलेल्या देवळांनी समृद्ध तं.

आशा मनाचि सृष्टि. मन केदनाय सुख सोदून वचें चंचल साधन. आम्मगेलें सुंदर केरळ भोंवका, सक्कड जागेय पोळोंवका म्हळ्ळेलें सक्कडाले मनांतुली आशा तं. हांवय तेच कुटांत पडता. एक एक जागो दिकूका, थंयच्या जनाली जीवितरीति मनांत कोरका, माहात्म्य कोळका, यें सक्कड माका भारी खुशी आशिल्लें कार्य तं. मिगेलो गांव कोषिक्कोड केरळाच्या प्रधान नगरांत एक तं. पौराणिक कालारि हें मलबार म्हळ्ळेले नांवार आशिल्लें. चरित्र प्राधान्थ आनी वाणिज्य प्राधान्य आशिल्लें भारतांतुले प्रथम व्यापारमेखलेंत पळ्ळेलें एक तं मलबार. सामूतिरि रायांले भरण पारंपर्य आशिल्ले कोषिक्कोडा थाकून कर्णाटकांतुलें धर्मस्थल पोळोंवचाक भायर सरलीं हांवय मिगेलें सान कुटुंबय.

2001 सेप्तंबर एकावे तारिकेक सकाणी कारार तं आमी चमकल्लीं. तानेकय पीवनु श्री पांडुरंगाक मनांत ध्यान कोरनु आट घंट्याक आमी कोषिक्कोडा थाकून यात्रा शुरू केली. तो दीस मलयाळींलो दोन्नी 'ओणा' दीस आशिल्लो. तें दिकून रोडारि गडबडी नाशिल्ली. आंगड्यो कांय उदारि करने दिकून चडी गडबडी नातिल्लें ते वाटेन आमगेलें वाहन गेलें. सुमार 40 मिनिट यात्रा कोरनासूका आमी कोयलांडी पांवचाक. थंय 'कोल्लम' म्हळ्ळेले जाग्यार आशिल्लें 'पिषारिक्काव' देवस्थान

पोळोंवचाक देवलीं. आनक्कुळंगरा म्हळ्ळेले जाग्यार थाकून देवस्थान तांय चांग रोड आसा. मलबारांतु प्रसिद्ध जावनु आशिल्लें पिषारिक्काव उत्तर केरळांतुले जनांलें आराधनाकेंद्र.

प्रकृति रमणीय जावन आशिल्लें 10 एक्र विस्तृत देवस्थाना तळें. हे तळ्याक ’कोल्लम चिरा’ म्होण नांव, तळ्याचे तीन भागांतूय दोरां बांदल्यां. तळ्या मद्दें एक स्तूप. तडीक एक गांधी प्रतिमा. भारी पुरातन यें देवस्थान कोण निर्माण केलें म्होणूय कोणे प्रतिष्ठा केली म्होणूय रेखा ना. वास्तुशिल्प शास्त्रप्रकार तं केल्यां. देवळासुत्तु चांग आंगण. देवळांतु मुकावेले वाटेन दादल्यांक मात्र प्रवेशन. बायलांक देवस्थानाचे एक भागान आशिल्ले नालंबलम आनी तिडप्पळ्ळी. नालंबला भितरि शिवा प्रतिष्ठा, शास्ताली प्रतिष्ठा आनी पश्चिम भागांत सान विघ्नेश्वरा देवस्थान. बडकाक तोंड कोरनु राबिल्ले भगवतीले दावे भागान भगवतीलें प्रतीक जावन आशिल्लें पंचलोहान केलेलें ’नांतकम’ खांडें. फूडे हांगाचे एक देवी भक्तान श्री पोर्कलींत वचून भगवतीक तप कोरनु प्रत्यक्ष केली म्होण ऐतिह्य. देवीन ताका ‘नांतकम’ दिलें आनि तें प्रतिष्ठ कोरनु पूजा केल्यारि मिगेलें सान्निध्य थंय आसतलें म्होण सांगलें खंय. वैश्य समुदायाचेय विषचिकित्सा कोरचेय भक्तान स्थापन केलेलें देवस्थान तं श्री पिषारिक्काव. देवळाचे पूर्व भागांत आशिल्लो होळ्ळो कोणक्रीट मांटोव देवस्थानाचें गांभीर्य एक लागेन चडयता.

वाटेरि वडकरा म्हळ्ळेले जाग्यारि फूडेचे “तच्चोळि” चेकवरांगेले थरवाडा देवस्थान ’लोकनार काव’ आसा म्होण कळ्ळें. एक पोळोवया, देवीलो अनुग्रहुय घेवया म्होण तीरुमान केलें. 9 घंट्याक कोयलांडी थाकून भायर सरलेलीं आमी 9.45 वरांचेरी कळरिप्पयटाचो गांव जावन आशिल्ले वडकरांतु, न्हय, कडत्तनाडाचे मात्येंत पाय दवरलो.

मलबारांत कडत्तनाड वीरगाथांचे स्मरण कोरचे, पडक्कुरुप्पांगेले पडयोट जावन संबंध चरित्र आशिल्लें ‘लोकनारकाव’ नाषनल हायवे थाकून चार किलोमीटर भितर जावन आसा. एक पंद्रा मिनिट यात्रा कोरनु आसतलें लोकनारकावांत पांवचाक. देवस्थानांत वचे वोटेर पुरातन थरवाडा घर दिकूक जालें. हें वें तचोळी थरवाड?




माका संशय दिसलो. देवस्थाना मुकार होव्ळो एक पिंपळा काटो. तें दिकून थंय चांग सावट आशिल्ली. रेवें आंगण. क्षेत्राचे परिचारक आंगणांत पव्ळेलीं पानां झाणु काडतच आसाय. शांत सुंदर जावन आशिल्लें अंतरीक्ष. देवळांत प्रवेश केलो. वडक्कन वीरगाथांतुले वीरपुरुष तचोळी ओतेनाले थरवाडांत आराधन कोरची कुटुंब देवता-लोकनार काविलम्मा.

नादुरायांगेलो विजय पडत्तलवनमारांनी अंगम झुजून निर्णय कोरचो एक काल आशिल्लो. ते कालाक तचोळी ओतेनाकुरुप्प मतिलूर गुरुक्कळा लागी अंगम झुजूक वचे वेळार लोकनार काविलम्मा आड राबली. मागीर ओतोनाले निर्बंधान हांव एक हळदूवे पक्षीचे रूपान फाटबालाक येवन राकन 'म्होणूय' अंगक्कळाचे लागी आशिल्ले रुकार माका दिकल्यार मात्र अंगम प्रारंभ कोरुयात म्हेणूय सांगलें. ते झुजांत ओतेना जिक्चून स्वंत गांवांत आयलो. पळयतना तागेलें खांडें अंगक्कळांत विसरलो म्होण उडगास आयलो. तें काडूक परतून चमकलो. थंय मतिलूर गुरुक्कळालो शिष्य मायनक्कुटीन निपून राबून गुंड दवोरनु मारलो म्होण तं गांवचे जन सांगताय. एक कालाक पडक्कुरुप्पांगेली 'कांवलमालाख्या' आनी जनांगेली हृदयस्पंदन जावन आशिल्ली लोकनार काविलम्मा आजीय भक्तांक अनुग्रह दिता. कुंभ मासांत 10,11 तारिकेक हांगा उत्सव आसा. देवी, माकाय अनुग्रह कोरका.....

थंय लागीच मस्त मेट देवल्यार आनी एक देवस्थान. ते मच्चार वात्सायनाले कामसूत्रांतुलो एक एक भाग पत्रारि आसा. यें पळयतना ये देवळाक सुमार 400 वर्ष पुरातनत्व आसतलें म्होण दिसता.

10 घंट्याक थंय थाकून भायर सरलीं. पावस सान मट्टारि पडता आसा. 'ठो' पडाकी भेतलावरी एक शब्द. आमी कार राबोवन पळयतना, कराचें टायर पंचर जाल्यां.

हे, देवा.....कसलें कोरचें? तूंच रक्षा करि. ओणम जालेले निमित्तीं आंगडी कांय ना. स्वल्प दूरा जावन मस्त टायर एकडे कोरनु दवरल्यां. एक टायरा आंगडीचें लक्षण आसा. वचून पोळोवया. पांडुरगान सोणु घालचीना. मनां लेकल्यावरी जालें. देवान सोणु घालोना. देवा दयेन टायरा आंगडी उदारि केल्या. आंगडीचो चांग मनीष

जाल्यान होगी टायर पंचर मारनु सम कोरनु घालनु दिलें.

मागीरीय मस्त दूर यात्रा कोरनु आमी इखरा घंटयाक मद्यपांगेली परुदीसा जावनाशिल्ले माहींत पावलीं. खंय पळयल्यारीय सूरा आंगडयोय बारांय. 17 शतकांत फ्रंचकारांनी स्थापन केलेलें पोरने व्यापारकेंद्र तं माही, सान एक तुरत्त. माहीं नांव पावचे तेरास अम्माली पळ्ळि नाषनल हायवेचेरीच आसा. पळ्ळेचे एक तांतूं वाहनां राबोंवचाक आशिल्लो जागो. भक्तांक प्रार्थना कोरुक बेंच घाल्यांय. एक तांतूं कन्यामारियमालें रूप, आनि एक तांतूं उण्णियेशू.

पुरातन जावन आशिल्ली पळ्ळी. ओक्टोबर मासांत हांगा उत्सव जाता. शयनप्रदक्षिण भक्तांगेलें प्रधान आंगवण. हो उत्सव 265 वर्षां जालीं हे पळ्ळेंत आघोष करताचि.

थंय थाकून भायर सरलेले आमी बारा घंट्याक कण्णूराकय, एक घंट्याक पराशिनिकडवाकय पावलीं. कण्णूर जिलेंत वळापाटणम म्हळ्ळेले जाग्यार थाकून 6 मैल दूर पूर्वभागांत तं न्हंयचे देगेरि जावन मठप्पुरा-श्री मुत्तप्पालें आवासस्थान. यें एक प्रकृति रमणीय जावन आशिल्लें स्थल तं. फुडे ये प्रदेशांत पूराय "पराचिंगा" म्होणचे एक कांट्या झाड भोरनु आशिल्लें. तें तिकून ये जाग्याक पराचिंगा काव म्होण नांव मेळ्ळें. कालक्रमान तें पराशिनिकडव जालें. ये जाग्यार नित्य झळकें धरूक येंवचे एक मुकवंचान एक दिसा लोहनिर्मित एक अस्त्र दिकीलें. हांगा खंचे की दिव्य चैतन्याचो आवास आसा म्होण कोळनु लागी आशिल्ले एक पुरातन दिप्राचा थरवाडांतुले कारनोराक दाकयलें. ताणे स्वंत जाग्यारि निरापरा, भद्रदीप सक्कड दोवोरनु भक्तीन श्रीमुत्तप्पाक स्मरण केली म्होण तं ऐतिह्य. ये दिप्राचालें कुटुंब तं आतांय हांगा देवस्थान पोळोवन घेताय.

आमगेलें देनपरां जेवण पराशिनी कडवां थाकून आशिल्लें. शीत, तरकारे रांवदय आनी फण्ण घालेलें ताक. यें पूरो......आनी कांय नाका पोट भोरूक. ओणम रजा जालेल्यान कापी पिवंचाक एक होटल नाशिलें. पोटा भुकेन आशिल्ले आमकां थंयचे जेवणान उन्मेष दिलो.

थंय थाकून भायर सरलेले आमी सांजे पांच घंट्याक कासरकोड जिलेंतुले

प्रशस्त बेकल कोटेंत पावलीं. कासरकोड शाराच्या 16 किलोमीटर तेकान बेकल कोटा. प्रकृति मनोहारितेन आनी चरित्र प्राधान्यान समृध्द एक टूरिस्ट केंद्र तं यें. संस्थानांत भारी होड आनी संरक्षित जावन आशिल्ली कोटा....... कुटुंब वंशांत आशिल्ले जनान स्थापन केलेली म्होण तं विश्वास. विजयनगर साम्राज्याचे कोलत्तिरी रायांगेले हातांत आशिल्ली यी कोटा अखेरी टिपू सुल्तानालेय तशी ब्रिटीषकारांलेय नियंत्रणांत पावली.

समुद्राक तोंड कोरनु तं कोटा बांदील्या. तें दिकून कोटेचे तीनि भागय समुद्र तं. एक लेकाचे घटी फातरानी केलेले कोटेंत थाकून दूरा आशिल्लें दिकूकय, निपून राबून पीरंगी प्रयोग कोरुकय चंद द्वार आसय. कोटेंत आशिल्लो निरीक्षण गोपुर, थंय थाकुन पळयल्यार इंटरनाषणल टूरिस्ट केंद्र आनी चरित्रप्रधान आशिल्लें बीच दिकूयात.

ते दिसा राती कासरकोडा राबून सकाणी आमी धर्मस्थलाक भायर सरलीं. सुमार ओवूट घंट्यांची यात्रा जावन आमी दक्षिण भाररतांतुलें भारी प्रसिध्द आनी प्रशस्त तीर्थाटन केंद्र धर्मस्थलाक पावलीं .

कर्णाटकांत मंगकूरा थाकून 75 किलोमीटर दूरा बलतांगाडी तालूकांत आशिल्लो गांव तं धर्मस्थल. नेत्रावती न्हयचे देगेरि आशिल्लें यें चंद हरितवनानय, गुड्डो सुत्तू जावनूय प्रकृति सौंदर्यान अनुग्रहीत मात्र न्हय, मंजूनाथ क्षेत्रान पवित्रय तं. कोणालागी विवेचन दाकोवनातीलें धर्मांत अधिष्ठित जावन आशिल्ली जीवितरीति, तें तं धर्मस्थल.

यथार्थ जावन कुटुमा म्हव्ळेले नांवार आशिल्लो यो जागो. हाका 800 वर्षांचें समृध्द चरित्र पारंपर्य आसा. चरित्रांत सांगिल्ले प्रमाण सुमार 800 वर्षा फूडे मनुष्यरुपार मालाखा ब्राहमण हेगेडेले कुटुंबा मुकार प्रत्यक्ष जाली. तांगेले संतोषान आनी बहुनमानान आशिल्ले आतिथ्य मर्यादेरि संतृप्त जाली. आनी तांगेले स्वप्नांत स्वरुपान प्रत्यक्ष जावन कुटुंबांत हांव राबन म्होण उतर दिलें. दुर्बलांक अन्नदान आनी पुराय आवश्य कोरनु दिवंका म्होणूय हेगडे लागी कल्पना जाली. ते अनुग्रहा प्रमाण हेगडेन कालराहू, कल्की, कुमारस्वामी, कन्याकुमारी आदी देवाक देवळां बांदून कालाकाल कोरका जालेलें अनुष्ठान, आचार कोरनु आयलो म्होण तं ऐतिह्य.

स्वल्प कालान मालाखामांरांगेलो दूत अन्नप्प स्वामि मंगळूरचे कद्रि थाकून शिवलिंग घेवन आयलो. नंतर हेगडेन मंजुनाथ स्वामी क्षेत्र बांदून तें शिवलिंग थंय प्रतिष्ठा केलें. तें धोरनु मंजुनाथ स्वामीकय, चंद्रनाथ स्वामीकय, मालाखांकय मस्त अनुष्ठान कोरनु आयलो. तशी कुटुमा धर्मस्थल जालें, थंयची जीवितचर्या धर्मानुष्ठित जाली.

हे संभव जावन मस्त वर्षां जालीं जाल्यारीय हेगडेलें कुटुंब आतांय तान्नी कोरका जालेलें कोरनेता. कुमारय्या हेगडे, मंजय्या हेगडे, चंद्रय्या हेगडे, रत्नवर्मा हेगडे, हे सक्कट हेगडे वंशांतुले प्रमुख तं. जैन ट्रस्टी जावन आशिल्ले हेगडे तं ये देवळाचें भरण पोळोवन घेता. जाल्यार पूजा कोरचे वैष्णव विश्वासी तं. होड देवाक पांय पोणु आमी बाहुबलीक (गुम्मटाक) चोंवचाक भायर सरलीं.

एक सान गुड्यार तं बाहुबलीली प्रतिष्ठा. टार केलेलें चांग रोड एक भागांत. तशीणान दोनि किलोमीटर चमकून तं आमी लक्ष्य घालेले जाग्यार पाविल्लीं. विशाल मैतान. चंद मारबल घालनु बांदिल्ले जाग्यार 39 फीट दीग आनी 170 टन भाराची बाहुबलीलि प्रतिमा. तोगू राबून पळयल्यार ताजो पाय मात्र तं आमकां दिकूक जाता.

आतां धर्मस्थल पोळोवन घेवंचें धर्माधिकारि वीरेंद्र हेगडेन मस्त विकासाची पुद्धती विजयप्रद जावन केल्या. तांतू एक तं बाहुबली प्रतिमा. हाजो महामस्तकभिषेक भारी विशिष्ट जावन केला.

थंय थाकून 265 मारबला मेटां देवन तं आमी तोगू आयलेलीं. मेटार सक्कड मांकडां धावन खेळाताचि. आमी मांकडांक चोण्यो विंदून दिलो. ते धोरनु खांवचें पोळोंवचाक भारी गम्मत आशिल्ली. तोगू प्रांवतना, थंय आतां KSRTC बस स्टेशन आसा, ताजे मुकार जावन एक रानाचे गुड्याचेर अन्नप्प स्वामीलें देवस्थान. थंय बायलमनषांक प्रवेश ना.

दान जीवितचर्या कोरनु काळ्ळेले ये देवस्थानांत जातिमत भेद ना. एक दिसा हजार जाण हांगा प्रार्थनेक येता. तांकां सक्कड सौजन्य भोजन, विश्रम मेळता.

लक्षदीपोत्सवा कालारि हांगा लक्षदीप जोळोवनु साहित्य आनी धर्मपर जावन आशिल्ली चर्चा कोरताचि.

1973 वर्षा प्रचार घेतिल्लें सौजन्य समूह व्हारडीक, दुर्बलांक, सक्कड तीर्थाटकांक सौजन्य सेवन कोरचें एक तीर्थक्षेत्र तं हें.

यें मात्र न्हय, धर्मस्थलांत एक प्रशस्त विद्याभ्यास केंद्रय आसा. देवस्थानाचें भरण आशिल्ले विद्याभ्यास ट्रस्ट. उजरे, मंगळूर, उडुप्पी सक्कड कोळेज आसा. ट्रस्टांत यक्षगान विभागूय आसा. कर्णाटकाचें कलारूप तं यक्षगान. ये गांव पूराय प्रचार कोरुक लक्ष्य आसा. हांगा सक्कड वर्षाय यक्षगान परिशीलन योगा परिशीलन आसा. आनी प्रादेशिक आनी धर्मपर जावन आशिल्लिं लेखनाचें 'मंजुवाणी' म्होण एक प्रसिद्धीकरणय आसा. एकवेळा धा हजार जनांक जेवण कोरु जांवची अगरसाळ देवस्थनाची प्रत्येकता तं. आतां धर्मस्थल आधुनिक रुपाचीं घरां, मनोहर दिसचीं होड होड स्थापनां, टूरिस्ट बंग्ळाव, ताजे ओटू मातें उबारनू राबिल्ले बाहुबली प्रतिमा आदी जावन सुंदर नगर जाल्यां.

बाहुबलीक पोळोवन जावन आमी म्यूसियम पोळोंवचाक गेलीं. पोरनें, रायाकालाचें सिंहासन, भांगरा आयदन अशी सक्कड आसा सांतू. एक कण्णडेंत पळयल्यार आमी भारी सान मनीष जावन दिसता. अय्यो, देवा, हें कसलें! माका लजा दिसली. मागीर कार म्यूसियम पोळोंवचाक गेलीं. थंय रायांगेलें रथ धोरनु ब्रिटीषकाराले भरणकालाक अनुकरण कोरचीं वाहनां सुत्तान चंद कोरनु दवरल्यांचि. माका अतिशय दिसलो. घोड्या गाडी धोरनु विमान तांय आसा.

देवळा सुत्ता एक फुला उद्यान. तांतू हिंदव्यार बेसल्यां राधा कृष्ण. भारी चंद आसा. आमी थंय मस्त वेळ बेसून शीण तिरसुचाक विश्रम कोळ्ळो. आनी परतून भायर सरलीं. वाटेरि आमकां उजिरे आशिल्ले धर्मस्थलाचें कोळेज दिकूक जालें.

तशी धर्मस्थल पोळोंवका म्हळ्ळेळी मिगेली आशा सफल जाली. मन भरी संतोषान आमी आमगेले गांवात परतलीं. प्रारब्दान भरलेले मनुष्य जीवितांत केदना पुणी एक वेळ सान सान तीर्थयात्रा, न्हय जाल्यार उल्लासयात्रा मनाक संतोष दिता.

# शरतचंद्र शेणैलीं पुस्तकां

- अंतरनाद - काव्यसंग्रह. पांच खंडानी जावन पन्नासां वयर सान व्हड कविता. केंद्रीय साहित्य अकादमीचो देशीय पुरस्कार (1999) प्राप्त जालो. हिन्दींत भाषांतर आयलें.

- लोकधन - केरळांतुल्या कोंकणी लोकसाहित्याची वळख दिवपी पठन.

- मीरा - जीवन आनी कवन - सोळाव्या शतकाचे संतिणीची जीवित कथा आनी तिचे पदावलीचो पद्याणकार. देवकी-कृष्ण प्रतिष्ठानाचो पुरस्कार (1991) मेळ्ळो.

- श्रीवेंकटेश सुप्रभात - सुप्रभात गीताची सरळ परिभाषा. प्रकाशक-सुकृतीन्द्र प्राच्याविद्या शोध संस्थान, कोची.

- श्रीकृष्णकर्णामृत - संस्कृतांतुल्यान परिभाषा. जोड लेखक-डॉ. पी.बी जनार्दन, चेन्नै.

- कोकणी बरयतना - बरोवप्यां खातीर लेखन-सहायी. जोड लेखक-श्री. पी.जी. कामत, तृशूर.

- साहित्य-संकलन - केरळाच्या समकालीन कोंकणी साहित्याचें संकलन. संपादित कृति. प्रकाशक-केरळ कोंकणी अकादमी, कोची.

- काव्योद्यान - केरळाच्या कोंकणी कवींची आनी तांच्या कवितांची वळख दिवपी संकलन. संपादित कृति.

